# आस्वादन

---

हरिश्चंद्र नागवेंकार

गोंयकार प्रकाशन

मडगांव–गोंय

उजवाडावपी :

सौ. कुंदा नागवेंकार
गोंयकार प्रकाशन,
१०, मुरमुटी,
पन्नो बाजार,
मडगांव, गोंय राज्य ४०३६०१







मुखचित्र : श्री. सतीश सरदेसाय



छापपी :

श्री. श्रीपादराव मडकयकार
कालिका प्रिन्टर्स,
वेर्लींग, गोंय राज्य ४०३४०४



पयली उजवाडावणी :

१ ऑगस्ट १९८७



मोल : १० रुपया

पोर्तुगेजांच्या बचक्यांतल्यान
जाणीं गोंय मेकळें केलें,
त्या शूर स्वातंत्र्य-झुजाऱ्यांक
कोंकणीतलें हें म्हजें
पयलेंच पुस्तक
आदरान ओंपतां

# मांडावळ

# मनोगत

मोगाळ वाचप्यांनो,

'आस्वादन' हें कोंकणींतलें म्हजें पयलेंच पुस्तक तुमच्या सुवादीन करतां. कोंकणींतल्या साहित्याचें आस्वादन आनी नियाळ करपी लेखांचो हो झेलो आसा. फाटलीं पंचवीस वर्सां हांव एक सादो अनुयायी या नात्यान कोंकणी चळवळींत आसां. मुक्तीउप्रांतच्या पयल्या धा वर्सांत हांवें पोर्तुगेज, मराठी आनी कोंकणी ह्या भासांतल्यान गोंयांतल्या वेगळ्या-वेगळ्या नेमाळ्यांनीं कोंकणी भास आनी गोंयचें स्वतंत्र व्यक्तिमत्त्व, हांचो पुरस्कार करपी लेख बरयले. पुण, मनांत आसूनय ललित साहित्याच्या निर्मणेचो वावर म्हजेकडल्यान जालो ना, हाची म्हाका सदांच खंत भोगता. हाताच्या बोटांर मेजपाक येतल्यो इतल्योच कविता आनी कथा हांवें बरयल्यात. म्हज्या साहित्य-प्रवासांत म्हाका मानवलो, तो लेख हो साहित्य-प्रकार. वैचारिक आनी हेर लेख हांवें वेगळ्यावेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान बरयल्यात आनी फाटल्या पांच वर्सांत हांव समीक्षा-साहित्याकडेन आकर्शित जालां. पुण, आयजमेरेन कोंकणींत पुस्तकरुपान म्हजें साहित्य उजवाडाक येवंक नासलें. 'आस्वादन' ह्या पुस्तकाच्या उजवाडावपान ही उणीव पैस जाता. वट्ट सात लेखांचो आस्वाव आशिल्ल्या ह्या पुस्तकांतले 'र. वि. पंडितांल्या काव्यांतलें समाज दर्शन' आनी 'बनवड-विश्वात्मक वृत्तीचो काव्यविलास,' हे लेख 'कोंकणी' वर्सुकी अंकांत उजवाडाक आयिल्ले, जाल्यार 'कोंकणींतलें समीक्षा साहित्य' हो लेख 'सौगडी' ह्या नेमाळ्यांत उजवाडाक आयिल्लो. तो सुदारून ह्या पुस्तकांत ताचो आस्पाव केला. डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांच्या कवितेचेर आकाशवाणी मुंबय केंद्रावयल्यान म्हजें एक भाशण जाल्लें, तें सुदारून 'मनोहररायांची कविता' हो लेख हांवें तयार केला. ह्या पुस्तकांतले हेर तीनय लेख पयलेच खेपे उजवाडाक येतात.

वाचप, हो म्हजो एक छंद. साहित्याच्या, विशेशतायेन, ललित साहित्याच्या वाचपान मनाक एक आंतरिक आनंद मेळटा. हो आनंद

उतरबद्ध करून हेर लोकांकय तातूंत वांटेकार करून घेवप, ह्या उद्देशान आनी आस्वादकाच्या भूमिकेंतल्यान हांव समीक्षा–लेख बरयतां. साहित्याच्या गुणवैशिश्टयांची वळख करून घेवप आनी हेर लोकांकय ती करून दिवप, होय ह्या बरपाफाटलो एक उद्देश आसा. हें करता आसतना साहित्यांतलें सगलेंच म्हाका समजलां, ह्या अभिनिवेशान हांव केन्नाच वावरूंना. म्हज्या सारक्यानच न्हय, तर जाणकार समीक्षकानय साहित्यांतलें आपणाक सगलेंच समजलां, असो समज करून घेवप समा न्हय. साहित्यांतलें आमकां सगलेंच केन्नाच समजलें आसना, आमचें वाचन जशें जशें वाडटा, तशी तशी साहित्याची आमची समज वाडटा, ही गजाल आमी केन्नाच विसरूंक फावना. ह्या पुस्तकांत निबंद, नाटक, भुरग्यांखातीर साहित्य, विनोदी साहित्य इत्यादि साहित्य–प्रकार आनी कोंकणीतल्या हेर प्रतिभावान लेखकांचें साहित्य हांचो विचार जावंक ना. तांचो विचार म्हज्या फुडल्या पुस्तकांत करपाचें हांवें थारायलां.

हें पुस्तक छापून दिवपाचो वावर म्हजे इश्ट आनी गोयांतले छापणावळ व्यवस्थापनांतले एक तज्ञ श्री. श्रीपादबाब मडकयकार हांणीं वैयक्तिक वज घेवन केला. तांचो आनी तांच्या कामदार वर्गाचो हांव उपकारी आसां. ह्या पुस्तकाक एक व्हड विचारवंत आनी नामनेचे कोंकणी साहित्यिक श्री. रवीन्द्रबाब केळेकार हांची प्रस्तावना लाबल्या, हें हांव म्हजें भाग्य मानतां. बरवप्यान आपलें पुस्तक उजवाडाक हाडटगेर ताचो ह्या पुस्तकांतल्या बरपावयलो अधिकार सोंपता आनी वाचप्यांचो सुरू जाता. म्हुणूनच, म्हज्या ह्या पुस्तकान कोंकणीतल्या समीक्षा–साहित्यांत भर घातल्या कि ना, हें थरवपाचो अधिकार वाचप्यांचो. कोंकणींतलें ललित साहित्य मुळांतच वाचपाची आवड आशिल्ल्या वाचप्यांची संख्या ‘ आस्वादन ’ ह्या पुस्तकाक लागून एका मनशयान जरी वाडली, जाल्यारय म्हजें हें पुस्तक उजवाडाक हाडपाचो उद्देश फलादिक जाला, अशें हांव म्हणीन. समस्तांक देव बरें करूं.

१८ जून १९८७, हरिश्चंद्र तुकाराम नागवेंकार
मडगांव, गोंय राज्य

# प्रस्तावना

कोंकणींत समीक्षा-साहित्य ना.

कित्याक ना काय म्हूण विचाल्ल्यार जाप मेळटा : कोंकणींत अजून ललित-साहित्यूच सारकें निर्माण जावंक ना. भाशेंत ललित साहित्य नासत जाल्यार समीक्षा साहित्य खंयच्यान येतलें !

समीक्षा साहित्य येवपाक पयलीं ललित साहित्य निर्माण जावंक जाय हें खरें. पुणून ललित साहित्य ना म्हूण कोंकणींत समीक्षा साहित्य येवंक पावूंक ना म्हणटात तें मात तितलेंशें खरें न्हय. कविता, कथा आनी नाटकां ह्या तीन मळांचेर तरी कोंकणींत फाटल्या पंचवीस वर-सांत अितलें साहित्य निर्माण जालां – आनी दिसपट्टें अितलें निर्माण जायत आसा – कि कवितेखातीर आमकां जशें अेक खेरीत नेमाळें ' ऋतु ' चलोवचें पडलें तशें, धरुंया, कोणेय फकत समीक्षेक ओंपिल्लें अेक स्वतंत्र नेमाळें चलोवचें म्हुण थारायलें जाल्यार ताका धा वरसां मेरेन तरी विशय अुणे पडटीत अशें दिसना.

तरी आसतना कोंकणींत जर घसघशीत बरें समीक्षा साहित्य निर्माण जायना जाल्यार ताचें कारण कोंकणींत ललित साहित्य ना हें आसूं नज. शाळा कॉलेजांनी कोंकणी शिकोवपी अध्यापक प्राध्यापक नात हेंवूय आसूं नज. दुसरें कसलेंय तरी आसूंक जाय. कसलें आनी खंयचें आसूं येता हाचेर जेन्ना येवजितां तेन्ना अेक कारण सगळयांत चड म्हजे नदरेंत भरता: आमच्या साहित्यकारांक आपणाल्या साहित्यांतलीं कोणेच अुणीं दाखयलीं माननात.

नवोदितांचीं अर्णी दाखयलीं जाल्यार तांकां आपणालें 'खच्ची-करण' करपाचें काम जाणट्यांनी चलयलां अशें दिसना. जाल्यार, ज्येष्ठ श्रेष्ठ म्हुण नामना जोडिल्ल्यांक आपणाल्ली तुम्न आयकुपाची अितली संवय जाल्या कि तांचीं अुणी कोणेय दाखयलीं जाल्यार तांका रोखडेंच अुस्तन्यां वता आनी 'हे आमकां मत्सरान मकल ओडूंक पळेतात' असो आरोप करून ते आलोचकांच्या आंगार सोपा वरी फों फों करून धांवन वतात.

असल्या वातावरणांत समीक्षा साहित्याचे वाटेक वचपाचो धीर कोणाक जातलो?

मर्दां अेका दोगांनी मात्सो धीर केल्लो. पुणून नो तांचे आंगलट आयलो. नवोदित आनी ज्येष्ठ श्रेष्ठ दोगय तांच्या आंगार धांवन गेले. मागीर, 'आसूं, भोगूं तें' अशें म्हणून समीक्षा बरोवपाचें दोगांनीय सोडून दिलें.

परिणामः कोंकणी बरपावळींतलें समीक्षेचें आंग दुबळें आशिल्लें, दुबळेंच अुल्लें.

जें ललित–साहित्य कोंकणींत निर्माण जाता ताची तुस्त तोखणाय जावंक्‌च जाय. नव्यांचीय जावंक जाय तशी जाणट्यांचीय जावंक जाय. पुणून तेच बरोबर सगळ्यांची टीकाय जावंक जाय. जे ज्येष्ठ श्रेष्ठ म्हुण नांवलौकीक जोडून कोंकणी सरस्वतिच्या मंदिरांत आपापणाली सुवात थीर करून बसल्यात तांची टीका तर सगळयांत चड जावंक जाय. अितलेंच न्हय नर प्रसंग पडल्यार तांकां आडवे अुबे चिरपाचोय यत्न मर्दी मर्दी जावंक जाय.

शेतकामाच्या मळार जशी निस्टी भूंय नांगल्ली म्हुण भागना, बीं रोवलें म्हुण्य जायना–अुदकाचे पाट्य सोडूंक जाय, बरें सारेंय घालूंक जाय आनी सगळयांत म्हत्त्वाचें म्हळ्यार अेका सारकी आनी भौन भौन नण्णीय काडीत रावंक जाय; तशें, साहित्याच्या मळारूय कोणाक प्रोत्साहन मेळूंक जाय, कोणाची 'बुवाबाजी' अुक्ती जावंक जाय; तशें कोण खंय व्हांवन वता, कोण खंय अुणो पडटा, कोण खंय

अधिकार नासतना 'लुडबुड' करता. हें सगळें भीड मुरवत धरी नासतना दाखोवपाचेंय काम कोणेय तरी खंयूय तरी करूंकूच जाय, ना जाल्यार साहित्याच्या शेतांत जें जावचें म्हुण बीं आमी रोयलां ताका कीड लागपाची आनी नाका तें वाडपाची, मातपाची भिरांत आसा.

कोंकणींत आयज सगळ्यांत चड गरज जर कोणाचीय आसा जायत जाल्यार ती कविंची निखालुस न्हय, कथाकारांचीय न्हय, नाटककारांचीय न्हय, ललित साहित्यांत भर घालपी कोण्णाची न्हय. तर, साहित्याच्या शेतांत अुदकाचे पाट सोडटल्या, फावडतें सारें घालतल्या, आनी सगळ्यांत चड नण्णी काडटल्या समीक्षकाची आसा.

हें काम सगळ्यांत बरें कोण करीत हाचेर जेन्ना चिंतूंक बसतां तेन्ना म्हज्या मुखार दोनतीन नांवां येवन अुबीं रावतात. तांतलें अेक प्रा. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांगेलें. समीक्षकाक जाय आशिल्ले सगळे गुण तांच्यांत आसातः संवेदनशील मन, रसिक वृत्ती, वस्तुनिष्ठ नदर आनी साहित्यकारांचे 'गटबाजी' पसून पयस रावन कलाकृतिचें मूल्य आंखपाची तटस्थताय अितलेंय सगळें तांच्यांत दिश्टी पडटा.

वाचप्यांच्या हातांत जें पुस्तक आसा तेंच पुरो, हांव जें कितें म्हणटां तें खरें काय फट तें पडटाळून पळोवपाक.

नागवेंकारांले तटस्थतायेचें अेकूच अुदाहरण दितां—

गजानन रायकार हो कोंकणींतल्या वयल्या पांवड्याच्या कवीं भितल्लो अेक हातूंत दुबावूच ना. बाकिचे कवी म्हजेर खबचे नात म्हणपाची कोणय खातरी दीत जाल्यार बाकीबाबां अुपरांतच्या कवींभितर वयल्या वा दुसऱ्या नंबरार हांव तांकां मेकळ्या मनान सुवात दीन. रायकारांक ही मान्यताय आमी सगळ्यांनी मेकळ्या मनान केन्नाच दिवन अडयल्या. पुणून खंय ! मनांतल्या मनांत. भितर, काळजाच्या खोल नळांत. अितलेंय आसून आमच्या कोणाच्याच तोंडांतल्यान ना लिखणींतल्यान ही प्रशस्ती केन्नाच भायर सरपाची ना, कित्याक ? तें खासा रायकार बरे भाशेन जाणात. तांणी 'हांव तुमच्यांतलो न्हय' ही जाणवीक आमकां पयलीं सावन—आमचे चळवळिचे सुवेंक

सावन—करून दिल्या आनी ते आपुण जावन 'जाती भायरे' जाल्यात. तांच्या वांट्याक जी अपेक्षा आयल्या म्हणटात नी त्वासा तांणीच मोलावन घेतल्या. आमी कोणेच तांच्या गळ्याक ती बांदूंक ना.

जण एकल्याची एक निष्टा आसता. ते निष्ठेचें मोल जण एकल्याक दिवचेंच पडटा. रायकारांनी हें मोल दिलां. देखून तांचो आमी कोण चडसो उल्लेख करिनात म्हुण शिणपांत कांय अर्थ ना.

पुणून नागवेंकार साहित्याच्या मळावेलें हें आफुड-भष्ट आप-णाक निखालस लावन घेनात. तांच्यांत एक विवेक आसाः कवी कोणय आनी कसोय आसलो तरूय कविता वेगळी आनी कवी वेगळो हो फरक ते आपशींच करतात आनी कवितेकडेन पळेता आसतना कविताच म्हुण पळेतात. कविता जरूय कविच्या मनांतल्यान वा काळ-जांतल्यान भायर सरिल्ली आसली तरूय एक फावट नी कागदार उतल्ली आनी छापून आयली म्हणटकूच कवी पसून ती वेगळी सरता आनी आपणालें खाशेलें जिवीन जियेवंक लागता हें नागवेंकार बेस बरे जाणात. म्हुण ते कविविशिंचे चार चौगांचे पूर्वग्रह कवितेक कशेच लागू करिनात. लागू जावंक दिनात.

जातिवंत समीक्षकाचें लक्षण हें.

एक खरें : नागवेंकारालें हें पुस्तक समीक्षेचें न्हय. तें समीक्षेचें न्हय म्हणपाचें पुस्तकाचें नांवूच बेस बरें सांगता. पुस्तकांत सात लेख आसात. तीन आमच्या तिगां कवींविलें. दोन आमच्या दोगां नवलकथाकारांविले, एक समीक्षेविलो आनी एक कोंकणी कथा खंय आशिल्ली, खंयच्यान खंय पावली ह्या तिच्या प्रवासाविलो. हे सातूय लेख बरयता आसतना नागवेंकारांली भूमिका आस्वादकाची आशिल्ली म्हणपाचें पुस्तकाचें नांव स्पष्ट करता. मनीस प्रवासांतल्यान परतलो म्हणटकूच तो जसो आपणे प्रवासांत खंय कितें पळेलें हें रुचीन बरो सांगता, तशें नागवेंकार कोंकणी साहित्यांत आपणें खंय कितें वाचलें आनी जें वाचलें तें आपणाक कित्याक लागून आवडलें तें रूचीन बरें आमकां सांगतात. ह्या पुस्तकाचें

खरें रूप तें हें. देखून पुस्तकाक तांणी जें नांव दिलां तें ताका फावटसारकेंच दिलां अशें म्हणचेंशें दिसता.

पुणून ह्या पुस्तकांत प्रा. नागवेंकारांनी ज्या पुस्तकांचें आनी साहित्याचें आस्वादन केलां त्या पुस्तकांची आनी साहित्याची समीक्षा बरोबराक ते बशिल्ले जाल्यार ती ते कशे तरेन बरयतले आशिल्ले हो प्रस्न जेन्ना हांव म्हजे म्हाकाच करतां तेन्ना 'समीक्षाय ते अशीच, ह्याच अतरांनी, बरयतले आशिल्ले' अशीच जाप म्हाका मेळटा.

आनी म्हजें मन ह्या पुस्तकाक ' कोंकणी बरपावळींतलें समीक्षेचें पयलें वयलें पुस्तक' हो मान दिवंक मुखार सरता.

हांव जाणा: हो मान लक्ष्मणरावांल्या 'कथाशिल्पा'न पयलींच जोडला पुणून म्हज्या हिसाबान ' कथाशिल्पा' ची जात-कुळीच वेगळी. थोडी भोव सॉमरसॅट मॉम हांगेल्या 'समींगअपा' सारकी. 'कथाशिल्पां'त आमच्या कांय कथाकारांच्या कथा-संग्रहाची समीक्षा आयिल्ली आसली तरूय ती फकत निमित्याक कारण जाल्या. ' कथाशिल्प' हें खरेपणाशीं लक्ष्मणरा-वांचे साधनेचें पुस्तक. कथाकार ह्या नात्यान तांणी जी आयुश्यभर साधना केली तिचो आपरोस तांणी ह्या पुस्तकांत दिला. अेके तरेची तांगेली आत्मकथाच ती.

नागवेंकारांच्या ह्या पुस्तकांत नागवेंकार स्वयच दिश्टी पडनात. दिश्टी पडटाच जाल्यार थोडो भोव तांच्यांतलो प्राध्यापक दिश्टी पडटा. आनी हो role तांकां खूब बरो सादला अशेंय दिसून येता.

आमी जें कितें बरयतात ताची बारीकसाणेन दखल घेवपी तोला-मोलाचो अेक रसिक प्राध्यापक आमचे मदीं आसा ही जाणवीकच काळ-जाक केदी थाकाय दिता ! कोंकणीच्या मळार जें कितें निर्माण जाता तातलें कितेंच नागवेंकारांचे नदरेंतल्यान सुटना म्हणपाचें ह्या पुस्तकांतलो तांगेलो ' कोंकणी कथेचो प्रवास ' हो विस्तृत निबंद वाचतकूच सारकें बरें लक्षांत येतलें.

तांणी कितलें वाचून काडलां ! अितलेंय हें वाचून काडपाचो धीर म्हाका केन्नाच जावचो नाशिल्लो. नागवेंकारांक जालो हाचें कारण तांगेलो

पांड प्राध्यापकाचो. प्राध्यापकूच अितलो ' सोंशीक ' आसता आनी जो अितलो सोंशीक आसता तोच बरो समीक्षक जावंक पावता.

ह्या पुस्तकांत पुराय कोंकणी साहित्याची समीक्षा येवंक ना. जांच्या पुस्तकांची आयल्या तांच्याय पुराय साहित्याची येवंक ना. जांचेर बरोवंक जाय अशे जायते कवी, कथाकार, नाटककार, निबंदकार ह्या पुस्तका भायर उल्लयात.

ह्या पुस्तकाच्यो ह्यो मर्यादाच ' कोंकणींत चडशें ललित साहित्य ना म्हूण समीक्षा साहित्य येवंक पावंक ना' हें म्हणणें कितलें फट म्हणपाचें दाखोवन दिता.

आनी म्हज्या मत्तान ह्या पुस्तकाक हेंच खातीर म्हत्त्व येता.

प्रा. नागवेंकारांनी म्हज्यो जाल्यार अपेक्षा खूब खूब वाडयल्यात. हांव तांगेल्या फुडल्या पुस्तकांची मोठे अुमळशिकेन वाट पळेतां.

प्रियोळ, २३-६-८७ रवीन्द्र केळेकार

# मनोहररायांची कविता

गोंयच्या मुक्तीउप्रांत कोंकणी साहित्याक मेकळेपणान स्वास घेवपाची संद मेळ्ळी आनी हें साहित्य रसरसून फुल्लें. साहित्याच्या वेगवेगळ्या तरांभितर खरो चंवर आयलो तो कोंकणी काव्याक. खरें म्हळ्यार कोंकणी मनश्याचो आत्मोच काव्याचो आनी कोंकणी भासय काव्यमय. डॉ. राममनोहर लोहिया हांकादेकून कोंकणीच्या ह्या शक्तीचो साक्षात्कार जाल्यान तांच्या लिखणेंतल्यान 'कोंकणी ही भारतांतली सगळ्यांत चड म्हेंवाळ भास आसा,' अशीं उतरां भायर सरलीं. कोंकणीच्या ह्या गुणाक लागूनच कोंकणी भाशेंत शेंकड्यांनी लोक-गीतां दिसटी पडात. कोंकणी मनीस लोक-गीतांनीच उलयता, अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. गोयांत काव्याचें जें मूळ फुल्लां, ताज्या फाटल्यान कोंकणींतल्या ह्या लोक-गीतांची परंपरा आसा, हें जितलें खरें, तितलीच हीय गजाल खरी कि, कोंकणीक मनोहरराय सरदेसाय हांच्या रुपान एक तोला-मोलाचो आनी प्रतिभावंत कवी लाबलो. हालींच एका वरोवप्यान म्हणलां त्याप्रमाण कोंकणी भाशेक मेळ्ळली मनोहरराय सरदेसाय ही एक व्हड देणगी आसा.

मनोहररायांची कविता वाचप, हो एक आगळो अणभव. कोंकणी भाशेचें म्हेंवाळपण तांच्या काव्यांत ठसठशीतपणान उकतें

जाता, हें जितलें खरें नितल्लीच हीय गजाल खरी कि मनोहरराय़ांच्या काव्यसंसारान कोंकणी भाशेचें म्होंवाळरण वाडयलां. नामनेचे कोंकणी साहित्यिक रा. ना. नायक हाणीं तांच्या कवितेची तुळा कोगळाल्या गिताकडेन केल्या ती पुराय खरी आसा. 'आयज रे धोलार पडली बडी,' ही संगीतिका, हें तांच्या काव्याचें पयलें पुस्तक. कंस–वधाचेर आदारिल्ल्या ह्या संगीतिकेउप्रांत तांचो 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' हो कवितां–झेलो उजवाडाक आयलो. ताच्या उप्रांत 'जायात जागे', 'ब्रेव्यांचे काझार,' 'जायोजुयो' आनी 'सिमोळी' हे कवितां झेले तांच्या लिखणेंतल्यान भायर पडले. तांच्या काव्य–संवसारांत भुरग्यांल्या गितांकय म्हत्वाची सुवात आसा. तांचें काव्य वाचतासतना—जांव मार्गीर त्यो कविता वो जांव तीं भुरग्यांलीं गितां—वाचप्याच्या दोळयांमुखार उबी जाता ती एका भावकवीची मूर्त. तांच्या काव्याचो विशय जांव, उतरावळ जांव, ताणीं वापरिल्लीं प्रतिकां वो प्रतिमा जांव, वो भुरग्याल्या गितांत ताणीं चितरायिल्लें भुरग्यालें मन भोंवतणी काल्पनिक जग जांव. हें सगळें पळयतासतना आमकां दिसता तो काळजाच्या खोलायेंतल्यान आयिल्ले उमाळे सादया, सरळ आनी सोंप्या भाशेंन, पुण म्होंवाळ आनी फावो त्या उतरांनी वाचप्यांमेरेन पावोवपी कवी. प्रितीं–भावना, संसाराचो मोग, राष्ट्रभक्ती, गोंयचो मोग, अन्यायाची तिडक आनी समतेचेर आदारिल्लें नवें जग निर्मुपाचो हावेस, हयो सगळयो भावना तांच्या काव्यांत पडबिंबित जाल्ल्यो आसात.

'आयज रे धोलार पडली बडी', ह्या संगीतिकेचेर नदर मारल्यार रोकडेंच ध्यानांत येता कि, कंस–वध हो जरी तिचो विशय आसलो तरी कंसाचे प्रतिक घेवन कवीन फिरंगी सत्तेचेर आपल्या उतरांची बडी मारल्या. 'आयज रे धोलार पडली बडी, कंसा तुजी भरली घडी', अशें म्हुणून कवी पोर्तुगेजांच्या सत्तेक गोंयांतल्यान बिरकी उबारपाची शिटकावणी दिता. ह्या संगीतिकेच्या वळी–वळींनी कवीचो अन्याय नी अत्याचार करपी सत्तेक हुमटावन वडोवपाचो हावेस आनी

निर्धार दिसटी पडटा. ताल आनी लय हांच्या नदरेन पळयल्यार ही संगी-
तिका मनोहररायांच्या काव्य-प्रतिभेचो प्रत्यय हाडून दिता. पुण, मनो-
हररायांच्या प्रतिभेचो खरेलो आविस्कार घडून आयला, तो तांच्या
'गोंया तुज्या मोगाखातीर' ह्या कवितां झेल्यांत. हाच्या उप्रांत तांणी
कितल्योश्योच कविता बरयल्यो. 'सिसाळां' ह्या कवितां-झेल्याक तर
साहित्य-अकादमीचो पुरस्कार फावो जालो. पुण 'गोंयां तुज्या मोगा-
खातीर' ह्या झेल्यांतल्या कवितांची सर तांच्या हेर कवितांक क्वचितच
येनला. हो कवितां-झेलो उजवाडाक हाडून तांणी कोंकणी साहित्य अज-
रवर केलें, अशें म्हूंगल्यार तें अतितायेचें जावचें ना.

भारताक स्वातंत्र्य मेळून एक दशकापरस चड काळ फाटीं पडिल्लो, तरी गोंयांक मेकळेपणान स्वास घेवपाचो दीस लागीं येनाशिल्लो. गोंयांतले आनी गोंयांभायले स्वातंत्र्य-सैनिक आपणालो संवसार वाऱ्यार वडोवन गोंय मेकळें करपाखातीर नेटान वावुरताले. गोंयच्या भुंयेचेर रगत आनी घाम हांची शिंपण करताले. हें झुंज चालू आसतनाच दुसरे वटेन भारतापसून हजारांनी मैल अंतराचेर एक गोंयकार तरनाटो गोंय पोर्तुगेजांच्या शेकातळा आसा तें पळोवन कासावीस जातालो. उच्च शिक्षण घेवपाखातीर फ्रान्सातल्या सॉरबॉन विद्यापीटांत आयिल्ले मनोहरराय सरदेसाय गोंयच्या दिशेन दोळे लावन ह्या पवित्र भुंयेच्या मातयेचो मुक्त वास घेवपाक आंवडेताले. आपल्या काळजांत उदेल्ले आनी उचंबळून आयिल्ले उमाळे हो कवी उतरांच्या फास्केन बांदून दवरतालो. उतररुप लाबिल्ले हे उमाळे 'गोंयां तुज्या मोगाखातीर', ह्या कवितां-झेल्यांतल्या कितल्याश्याच कवितांनी दिसटी पडटात.

गोंयाचयलो— आपल्या मायभुंयेचयलो कवीचो मोग कितलो खरेपणाचो, हाची प्रचिती आमकां ह्या झेल्यांतल्या पयल्याच कवितेंतल्यान येता. गोंयच्या विरहाचें दुख्ख सोसप जायनाशिल्ल्यान कवीच्या तोंडांतल्यान उतरां येतात,

**मांडवीचे पांचवे देगेर**
**आंब्याचे सांवळे तळा**

चानयांचे खेळ पळेत
पिर्को घोटां मेजीन हांव
केन्ना गोंया, केन्ना गोंया !

कवीचो गोंयावयलो मोग, हो निव्वटो गोंयावयलो मोग न्हय, तर तो आमा गोंयच्या सोबित आनी मनभुलयण्या सैमावयलो मोग. 'याद येता' ह्या कवितेंत कवी म्हणटा,

आज म्हाका याद येता
माडयांच्या घोल्पाची
मळबाच्या दरयाचेर
दोंगराच्या ल्हारांची

'म्हाका जाय', 'हांव जंय वेतां थंय', 'कुम्केमाध्यार गांडेच गांडे,' 'सपनां म्हजीं हुलरतात' इत्यादि कवितांनय चंद्रिल्लो आंबो, सुकण्यांचे किलकिलाट, जुवारेचीं ल्हारां, वासाळ हांशें हांसपी चांफो, मस्तेल्लो वारो, अशा वेगळयावेगळया रुपांनी गोंयचो सैम जिवो-जागतो जाल्लो आमकां दिसता.

मनोहररायांच्या ह्या कवितां - झेल्यांत गोंय आनी सैम हांच्यावयलो मोग जितल्या खोलायेन आनी तीव्रतायेन परगट जाल्लो दिसता, तितल्याच खोलायेन आनी तीव्रतायेन, गोंय परकयांच्या शेकातळा चेपलां हेविशींची खंतय व्यक्त जाल्ली दिसता. गोंयची याद काडटा आसतना कवीक गोंयच्या स्वातंत्र्य—झुजाचो विसर पडना.

सोंपली रात, जागलो दिस
बंडाचो पेटलो सूर्य
पांचव्या तुज्या झुंजा— मळार
केन्प कसो सोबन हांव
केन्ना गोंया, केन्ना गोंया !

अशीं उतरां तांच्या लिखणेंतल्यान भायर पडटात. पुर्तुगेजांनी

लादिल्ल्या गुलामपणाकलागून गोंयची जी आवतीकाय जाल्ली ती पळोवन कवी दुख्खी- कश्टी जाता आनी म्हणटा,

म्हजें गोंय पिकाळ म्होंवाळ
खाजना भाटान चकचयाळ
एका तांदळा– गोटयाखातीर
म्हजें गोंय भीक मागता

ही खंत ह्याच कवितेतल्या दुसऱ्या एका कडव्यांत उक्ती जाता,

म्हजें गोंय तळमळटा
स्वास घेंवक कळवळटा
फिरंग्याच्या खुरसाचेर
रगताची हूम गाळटा.

चारशें वर्साच्या काळख्या आनी लांब रातींतल्यान स्वातंत्र्याचो सूर्य उदेवपाची कवी वाट पळयता,

येतलो केन्ना दिस रे आतां
रात केन्ना सोंपतली ?
सात लाख काळजांतल्यान
आस्त केन्ना फुलतली ?

गोंयच्या ह्या आवतीकायेक लागून कवी जरी कश्टी जालो, तरीय तो हातपांय गाळून वोगी बसना. ताच्या अंतस्करणांतल्या व्याकुळतायेची सुवात निर्धार आनी जिद्द ह्यो भावना घेतात आनी तो फिरंग्यांक खडसावन सांगता,

तुजे मुखार दुस्माना
नाच दिमी मोडचोंना
वठार दोळे, पेटय नाळी
हावेस म्हजो मरचोना

स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !
आमचो देस आमकां जाय

अशें आवेसान म्हणटा आसननाच कवी आपल्याकूच उद्देशून म्हणटा,

उठ रे पुता उबल पांय
जगार कित्याक मागता भीक
माय-भुंयचें काळीज फुट्टून
बंडाचें आयलें पीक

गोंय मेकळें जावन भारत-मातेच्या गोपांत येतकें, हो दिसटावो तांच्या काव्यांत उक्तो जाता. ते म्हणटात,

'हेच जिणेंत, ह्याच दोळ्यां
आमचें भाग्य फळटलें
आमचे माड आपलें मान
ताठ करुन धोल्तले

१९ देझेंब्र १९६१ ह्या मंगल दिसा हें भाग्य फळलें. ह्या ऐतिहासिक प्रसंगाचें मनोहरगायांल्या काव्याचेर पडबिंब पडनासतना कशें रावत ? कवीच्या काव्याक खोतयेच्यो झरी फुट्टात. कवितेक एक नवी धार येता. कवी संतोशभरीत जावन गावंक लागता,

आज आमचें राज आयलें
आयलें आमचें राज
परक्यांच्या जुल्मांचें
तुटलें जोत आज

'जायात जागे,' ह्या काव्य-झेल्यांत हो आनंद उबाट भरुन ओतिल्लो आमकां दिसता. कवी म्हणटा,

काळखि रात सोंपली आज
म्हजें, तुजें आयलें राज

भाव-भाव एक जाले
मांडविच्या सोबीत तिरार

स्वातंत्र्य मेळ्ळें म्हणटगेर गोंयचे सगळे प्रस्न सुटले आनी अन्याय नी शोशणविरयत समाज आपशींच निर्माण जातलो, ह्या भ्रमांत कवी रावना. तो म्हणटा,

अजून म्हज्या गोयांत पळे
कितले जाण खशींतात
पावसाचे पांवळे पोंदा
कांबळे बगर पिरगतात

दुसऱ्या एका कवितेंत तांची हीच खंत परगट जाता,

अजून आसात कितले हांगा
रगताचो घाम करपी
अजून आसात कितले हांगा
दुसऱ्यांचें काम चोरपी
कांय जाणांच्या दोळयांत अजून
भांगराचो उल्लो धुंवर

कांय जाणांच्या मस्तकाक
सत्तेचो चडलो सोरो

स्वतंत्र गोंयातलो हो अन्याय आनी निळणक पळोवन कवी बोगी बसना. तो भौसाक आपल्या उतरांनी खडबडायता,

तरणे तशे दांडगे तुमी
अजून कशे रावल्या बोगे ?
हडुयांतले इंगळे आज
धगधगून जावं दी जागे

जायात जागे! जायात जागे!

शेतकारांनो, मुंडकारांनो
जणकारांनो, गांवकारांनो,
जायात जागे, जायात जागे

सामाजिक उमाळे परगटावपी ह्यो कविता वाचतगीर मनोहर-रायांच्या काव्याची एक शक्त मनाक आकर्शीत करता, ती म्हण-ल्यार, ह्या कवितांतली ओजस्वीताय. अन्यायाच्या चिर्डीतल्यान ही ओजस्वीताय परगट जाल्या. तातूंत मनशाक जाग हाडपाचें सामर्थ्य आसा. मनीस जागो जालो म्हणटगीर सामाजिक न्यायाचेर आदारित नवो समाज गोंयांत निर्माण जातलो आनी तेन्नाच स्वातंत्र्याक पूर्णताय येतली, हें त्रिकालाबाधीत सत्य मनोहररायांच्या काव्यांत टट्टीत जावन परगटला. अशें जातगीर जें फायचें गोंय निर्माण जातलें, ताचें वर्णन कवीन मुखावयल्या उतरांनी करून दवरलां,

फायच्या गोंयांत सक्यार लेगीन
माड शेतान धोल्लतलो
घराघरांत दूद सागर
विजे – हांसो हांसतलो.

मनोहर सरदेसाय हांणी आपल्या काव्यांतल्यान कोंकणी अस्मि-ताय जागोवपाचो वावर केला, तो मोलादिक आसा. गोंयची जी मायभास कोंकणी तिका मुक्त गोंयांत तिचो हक्काचो पाट दिल्या-बगर गोंयचें स्वातंत्र्य अपूर्णच उरतलें, हें मनशाच्या मनाचेर बिंबवपाचें व्हड कार्य तांणीं आपल्या काव्यांतल्यान केलां. तांच्या काव्यांत परगटल्लें कोंकणी मायभाशेचें प्रेम तांच्या व्यापक राष्ट्र–मोगाचेंच एक आंग जावन आसा.

आमकां इतिहास आसा
आमकांय बी भास आसा

तुमचेवरी नखेत्रांचो
आमकां लेगीत ध्यास आसा

अशें ठणकावन सांगता आसतना कवीच्या तोंडानल्यान दिस्टा-
क्याचीं जिवें तट्टीत उतरां भायर सरतात,

फायच्या गोंयात कोंकणी उतर
लसलसून फुल्तलें .
तीनरंगी सपन म्हजें
संवसाराक धोल्तलें

मनोहररायांचें काव्य वाचप्याच्या काळजाक रोकडेंच भावता, ताचें कारण ताणीं आपल्या काव्यांतल्यान उक्तायल्ले उमाळे हे अडेचे न्हय. ते आसात निजाचे, अस्सल. मन्याच्या नितळ उद-काभशेन ते कवीच्या काळजांतल्यान व्हांवत आयल्यात. आनी म्हूण तांकां आपशींच कलात्मक रुप लाबलां. मनोहररायांच्या कवितेची भाशा चित्रमयी आनी नादमयी आशिल्ल्यान ह्या कलात्मतेंत अदीक भर पडल्या. थोड्याच उतरांनी वाठाराचें वो प्रसंगाचें वर्णन करून ताचें वाचप्यांच्या दोळयांमुखार यथार्थ चित्र उबें करपाची कुशळ-ताय तांच्या लिखणेक लाबल्या. तांच्या काव्याचो दोळयांत भरपा-सारको एक विशेश म्हंगल्यार ताणीं वापरिल्लीं नीज कोंकणीचीं थळावीं उतरां. संस्कृत उतरां वापरपाचो तांकां सोस ना. ते भौसाच्या भाशेंत उलयतात. आपले उमाळे परगट करता आसतना भौसाचीं सादीं, पुण सोबित उतरां ताणीं वापरल्यांत. हाकाच लागून समाजाच्या सगळ्या पांवड्यावयल्या लोकांक मनोहररायांचें काव्य भावलां. हो कवी तांकां आपलोसो दिसता, ताचें आनी एक कारण अशें कि, मनोहररायांनी आपणाल्या कवितेंत गोंयच्या सैमांतलीं प्रतिकां नी प्रतिमा हांचो बरेतरेन वापर केला. गोंयच्या मातयेंतल्यान तांच्या कवितेन शक्त आनी स्फूर्त घेतल्या. तांच्या काव्यांतलीं गोंयच्या सैमाचीं तरेतरेचीं रुपां वाचप्याक भूल घातल्याबगर रावनात. ह्या कवीचें काव्य आनी एका वैशिश्ट्यान

नदर घोंडून घेता, तें म्हळ्यार तांच्या काव्यांत उपाट भरून आशिल्लो आशावाद. तांचें काव्य निराशावादी मूर लायना. भविश्यकाळ हो तुमचो आसा, अशें सांगून हो कवी मनशाक जागयना.

फुडाराचो लावन तिबो
दीस रावला दारार उबो
सूर्य देवान कौल दिला :
जैत आतां पैस ना

अशें ते म्हणटात तेन्ना फुडारच तांच्या तोंडांतल्यान उलयता, अशें दिसलेबगर रावना.

मनोहररायांचो ' जायांजुयो ' हो कवितां-झेलो जाणीं वाचला, तांकां ह्या कवीचें एक वेगळें रूप ह्या झेल्यांत पळोवंक मेळटा. ताणीं ह्या झेल्यांत काव्याचो एक वेगळोच घाट निर्माण केला. उण्यांत उण्या उतरांनी जिणेंतलें सत्य आनी जिणेचें मर्म उक्तावपी मोटव्या कवितांचो हो घाट आसा. सुभाषितांसारक्यो पुण सुभाषितां न्हय, अश्यो ह्यो कविता आकारान ल्हान आसल्यो जाल्यारय आशयाच्या दृश्टीन सखोल मर्मास पावपी वेगळ्या प्रकाराचें सामर्थ्य तांच्या आंगांत आसा.

एक एक माड मेळून
भाट जाता
एक एक पावल जुळून
वाट जाता

* *

सुक्या सड्यार
उदक मेळ्ळें
मर्णा घडेर
जिवीत कळ्ळें

अश्या ह्या मोटव्या कवितांचो आशय कितलो व्हड आसा, हें थोडेंच ध्यानांत येता. बाकीबाब बोरकार हाणीं अश्या कवि-

तांक ' थीक ' म्हणचें, अशें सुचयलां. मनोहररायांच्या ' पिसोळीं ' ह्या कवितां – झेल्यांतय अश्याच तरेच्यो आशयान भरिल्ल्यो मोट्व्यो कविता आस्पावतात. मनीस–जिणेंतलीं सत्यां, विसंगती, धोंगां-धोंगां, हांचें ठसठशीत दर्शन, ह्या कवितांतल्यान आमकां जाता.

गिरेस्ताची मोटार मोडटा
तेन्ना ती
गरिबांक धुकलची पडटा

* *

गिरेस्तांक दुबळ्यांची
खूब काकुळट दिसता
पुण तांचे लागीं
मोड नासता

* *

खांद्यावेलो खूरीस
गळ्यांत घालो
तेन्नापसून जेजू
खऱ्यानीच मेलो

अश्यो ह्यो कविता वाचतगेर मनोहररायांभितल्या 'तत्वज्ञानी कवी'चें आमकां दर्शन घडटा. ह्या कवितांतल्यान कवीची जिणे-कडेन पळोवपाची मुळावी आनी खोलायेची नदर जशी दिश्टी पडटा तशेंच समाजांतलें सत्य सोदपावातीर जाय आशिल्ली बारीकसा-णय ठळकपणान दिसता. चिंतनाची जोड आशिल्ल्या ह्या कवितांक गद्याचें रूप आसलें, जाल्यारूय तांची अभिव्यक्ती काव्यात्म आसा, हें तांचें वैशिश्ट्य दोळ्यांत भरता.

मनोहररायांच्या कवितांतलो विनोद, हो तांच्या काव्याचें आनी एक म्हत्वाचें वैशिश्ट्य. तांणीं अशें निवळ विनोदी काव्य बरयलां, तशेंच आपणाल्या हेर कवितांतय मिस्कील विनोदाचीं शिशोलीं मारून वाचप्यांक हांसयल्यात. तांचो विनोद फकाणां करपी, चिमटे काडपी

आसलो, तरीय तो निर्मळपणान भरिल्लो आसा आनी वाचप्यांक हांसोवपाबरोबरूच तो विचार करपाकय लायता. 'ही लोकशाय' ही कविता वाचतगेर हाची गवाय मेळटा. 'पिसोळीं' ह्या कवितां-झेल्यांतल्या कितल्याश्याच कवितांनीय एकाचवेळार हांसंक आनी चिंतूंक लावपी असो विनोद आमकां दिश्टी पडटा.

मनोहररायांच्या भोवतेक कवितांनी उमाळ्यांची उत्कटता कलात्मकरितीन परगट जाल्या. पुण, कांय कवितांनी उमाळ्यांच्या उत्कटते-परस उतरांची बांदावळूच दिसता, हें तितलेंच खरें. पुण, अश्यो कविता साप् थोड्यो आसात. तांच्यो भोवतेक कविता तांकां श्रेष्ठ कवींच्या पांवड्यार पावोवपी अश्यो आसात. 'पिसोळीं' ह्या झेल्यांत मनोहररायांनी कविता म्हळ्यार कितें, हाचें सुंदर उतरांनी वर्णन केलां.

कविता !
काळजांतले गर्भ-कुडींतली
देवता
काळीज दिल्यारूच
पावता

मनोहररायांचें काव्य वाचतगेर ही देवता तांकां प्रसन्न जाल्या, हाचो रोकडोच प्रत्यय येता, आनी ती प्रसन्न जावपाफाटलें कारणय ध्यानांत येवपाक वेळ लागना.

- २ -

# र. वि. पंडितांल्या काव्यांतलें समाजदर्शन

१९६२ ची ही गजाल. ते तेंन्ना कोंकणी भाशा मंडळाचें ऑफीस मडगांवा आबादी फारीय रस्त्यार आतां कॉन्फीडन्सचें पुस्तक - दुकान जे इमारतींत आसा, ताज्या पयल्या मजल्यार आसलें. तेच वर्सा हांव कोंकणी – चळवळीकडेन आकर्शित जाल्लों. आनी म्हजें हे ऑफीसांत येवप - वचप चालू आशिल्लें. एक दिस सांजचो हांव ऑफीसांत भितर सल्लों, जाल्यार थंय दोग जाण बशिल्ले म्हाका दिसले. एक आशिल्ले डॉ. मनोहरराय सरदेसाय तर दुसऱ्याक हांव वळखनाशिल्लों. पुण हो मनीस कवी आसा हें म्हज्या रोकडेंच ध्यानांत आयलें. मनोहररायांक तो आपल्यो कविता वाचून दाखयतालो. आपल्यो कविता वाचून दाखयतना हो कवी रंगार आयिल्लो. मनोहरराय त्यो आयकुपांत गुल्ल जाल्ले. ते दिसांनीच हांवें मनोहररायांचो 'गोंया तुज्या मोगाखातीर' हो कवितां– झेलो आनी बा. भ. बोरकारांच्यो कांय मराठी नी कोंकणी कविता वाचून काडिल्ल्यो आनी हे दोनूय कवींच्या काव्यान हांव भारावन गेल्लों. हे काव्याच्या मानान, ते दिसा मंडळाच्या ऑफीसांत हांव आयकतालों तें काव्य म्हाका वेगळें दिसलें. हे कवितांची अभिव्यक्तीची तरा वेगळी आसली. ह्यो कविता गद्य काव्याभशेन दिसताल्यो. कांय कविता खूब व्हड, तर कांय कविता सामक्योच ल्हान आसल्यो.

पुण, परत्यो परत्यो आयकुंच्यो अशें दिसपडनाल्यो त्यो कानाक गोड लागताल्यो. हांतूतल्या कांय कवितांनी व्यक्त जाल्लें अमाळ आनी मिस्किल विनोद, हांकांलागून तातूंत आयकुप्याच्या वो वाचप्याच्या काळजाक स्पर्श करपाची जबरदस्त तांक आसा, हाची म्हाका जाणीव जाली. ते दिसा हांवें आयकल्ली एक कविता तातल्या मिस्कील विनोदाक लागून म्हाका खूब आवडली:

सगले एकेच माळेचे मणी
म्हज्या बायलेच्या गळ्यांतलो...
एक म्हुर्तमणी सोडल्यो जाल्यार !

कांय म्हयन्यांनी जेन्ना हांवें हे कवीचें उजवाडाक आयिल्लें काव्य वाचून काडलें आनी तातूंतलें वेगळेंपण जेन्ना म्हज्या ध्यानांत आयलें, तेन्ना वयल्या कवितेंत तांणी मांडिल्ली कल्पना तांच्या काव्याक पुराय लागू पडटा, हाची म्हाका जाणीव जाली. अभि-व्यक्तीच्या वेगळेपणाक लागून तांचें काव्य कोंकणी काव्याच्या संवसारांतलो म्हुर्तमणीच थल्लो.

कविता - वाचना उप्रान्त दोगूय कवी भायर सल्ले आनी हांवें मातूय उसरपत घेनासतना थंयच्या एका वळखीच्याक विचारलें: हो कवी कोण?... श्री. र. वि. पंडित हांचें नांव हांवें पयलेच फेर आय-कलें तें त्या दिसा. जांचें नांव आयकूचे पयलांच जांचें काव्य हांवें आयकलें-- तेंय तांच्याच तोंडान-- ते श्री. र. वि. पंडित हे कोंकणींतले एक श्रेश्ठ कवी म्हूण मुखार गाजतले, हाजी कल्पना मात् म्हाका ते दिसा येवंक नासली. हाजें कारण तांच्यो धा-बाराच कविता म्हज्या कानार पडिल्ल्यो आनी कांय कवितांतल्यान तांची वयल्या पांवड्याची प्रतिभा --शक्त जरी प्रतिबिंबित जाल्ली, तरी हेरांभशेन हो्यी एक कवी आम-तलो, असो ते वेळार म्हजो समज जाल्लो. म्हजो काव्याचो समजय ते तेंनार मर्यादित आशिल्लो. पुण कांय म्हयन्यांभितरच हे कवीन आपुण मनोहरराय आनी बाकीबाब हांच्या तोळामोलाचो एक श्रेश्ठ कवी

आसां म्हुण दाखोवन दिलें. ' आयलें तशें गायलें ' ' म्हजें उतर गावड्याचें, ' ' उरतलें तें रुप धरतलें, ' ' धर्तरेचें कवन ' आनी ' चंद्रावळ ' अशा एकाच वेळार उजवाडाक आयिल्ल्या पांच कवितां-झेल्यांच्या रुपान ताणी कोंकणी सरस्वतीचें दालन फकत गिरेस्तच केलें ना, तर तार्ने विविधतायय हाडली. हे उप्रान्तय ताणी बरेच कवितां झेले उजवाडाक हाडून कोंकणी काव्य संवसारांत अदिकादिक भर घातिल्ली आसा. तांचें काव्य वेगवेगळ्या भासांनी अणकारीत जावन आनी भारताच्यो शिमो हुंपून आंतरराष्ट्रीय मळार पाविल्लें आसा.

श्री. र. वि. पंडितांनी जेन्ना आपले पयले पांच कवितां–झेले अजवाडाक हाडले, तेन्ना तांच्या काव्याक सगळ्याच काव्य – रसि-कांनां धसवशीन येवकार दिलो. बाकीबावांक ' हो निर्मळ, मस्त आनी जिवस गावड्याचेर आयिल्लो भार ' दिसलो, तर मनोहररायांक तांचें काव्य ' कोंकणी काव्याच्या जीवसाणीची खूण ' दिसली. पं. महा-देवशास्त्री जोशी हांकां तांचो मुक्तछंद घोग्यांनां कोसळत मनाक तीर्थ-स्नान घालता अशें दिसलें, तर श्री. दामोदर अच्युत कारे हांकां तांच्या कवितेंतल्या उररोभाफाटलो विशाल सामाजिक आशय जाण-वलो. श्री. अ. ना. म्हांबरेंक हें काव्य वाचतगेर ' कोंकणी साहित्याच्या मळार म्हाकवीचीं पावलां आयकूंक ' येवंक लागलीं. पंडितांचें काव्य रसि-कांच्या मनाक आजूय भुरळ घालता, हाचें कारण कितें आसूये ? आदल्यांच्या कवींनी मळिल्ली वाट सोडून ताणी कोंकणी काव्याक वेगळो घाट दिलो म्हुणुन रसिकांक तें आवडलें ? पंडितांचें काव्य जाणां साहित्यिक अभ्यासाच्या नदरेन वाचलां तांकां एक गजाल सामकी पटली, ती म्हळ्यार तांच्या ह्या पांच कवितां–झेल्यांतलेंच न्हय, तर तांच्या प्रतिभाशाली लिखणेंतल्यान भायर पडिल्लें भोवतेंक काव्य आशय आनी अभिव्यक्तीच्या दृश्टीन जबरदस्त ताकदीचें आसा. ही जबरदस्त ताकद, वाचप्यांच्या काळजाक हात घालपाची ही शक्त हे काव्याक खंयच्या घटकांवयल्यान मेळ्ळया ? हे प्रश्नाची जाप दिवप, हें मातय कठिण न्हय. र. वि. पंडितांनी आपल्या काव्यांत फकत वैयक्तिक उमाळेच उक्तावनात, तर तांच्या कवितांतल्यान सामाजिक उमाळे खूप ओजस्वीपणान व्यक्त जाल्ले

आसात. ताच्या काव्याक लाविल्लें हें सामाजिक परिमाण, हेंच तांच्या काव्याच्या जबरदस्त ताकदीचें मुखेल कारण आसा. तांच्या काव्याचो केंद्रबिंदु आसा मानवता – धर्म. तांच्या आदींच्या कवींनी आपल्या काव्यांत सामाजिक अुमाळे उक्तावनाशिल्ले, असो हाचो अर्थ न्हंय. पुण, पंडितांच्या काव्यांत समाजांतल्या अुपेक्षित लोकांचीं दुख्खां, तांचेर येल्ले अन्याय, तांचे ह्यांवस, दुख्खांतल्यानय निगून रावपाचो तांचो निर्धार, ह्यो गजाली जितल्या उत्कटतायेन आनी जितल्या व्यापक प्रमाणांत व्यक्त जाल्यात, तितल्यो त्यो आदींच्या खंयच्याय कोंकणी कवीच्या काव्यांत दिश्टी पडनात, ही वस्तुस्थिती आसा.

माचयेर जशीं पात्रां येतात आनी वतात, तशीं पंडितांच्या काव्यांत तरेनतरेचीं मनशां येतात आनी वतात. पुण, तीं फकत वचपाखातीर येनात. मानवी समाजाचें दर्शन घडवपाखातीर तांचें हें येवप आसता. हे मनशांमार्फत पंडित समाजाचें जें सर्वस्पर्शी दर्शन घडयतात तें कोंकणी काव्यांत पयलेच खेपे आयलां, म्हूण पंडितांचें काव्य हें कोंकणी काव्यान घेतिल्लें क्रांतिकारी वळण आसा, अशें म्हाका दिसता. साहित्य आनी समाज हांचो खूब लागींचो संबंद आसा. ज्या समाजांत लेखक वो कवी वावुरता, दिसपट्टो जो अणभव घेता, ताचें दर्शन ताच्या साहित्यांतल्यान जाता. साहित्य हो एकाप्रकारान जिणेचो हारसो आसता. पंडितांलें काव्य वाचतना हाचें आमकां प्रत्यंतर आयल्याबगर रावना. आयचो मानवी समाज कसो आसा, तो खंय पावला, तांतूतल्या मनश्या–मनश्यां भितल्या संबंदांचे स्वरूप कशें आसा, हें जांकां पळोवपाक जाय, तांणी पंडितांलें काव्य वाचचें. तांच्या काव्यांत जो मानवी समाज पडबिंबित जाला तो सामाजिक आनी आर्थिक पिळणुकीन सामको पिडिल्लो असो आसा. ह्या समाजांत चिडडुपी आसात आनी चिडुल्ले आसात. पिडपी आसात आनी पिडिल्ले आसात. हे समाजांत कश्ट करपी मनीस अुपाशीं रावतात आनी दुसऱ्यांच्या कश्टांचेर जगपी मनीस सुखांत - चैनींत रावतात. पंडितांनी हे समाजाचें दर्शन आमकां वेगवेगळ्या कवितांनी घडयलां. 'अुरतलें तें रुप धरतलें' हे कवितां—झेल्यांतल्या 'झिगचे झिंगय' हे

कोंकणी लोकवेदाचें रूप घेवन आयिल्ल्या तांच्या कवितेन मानवी समाजांतलो मनश्यांनीच मनश्यांचेर केल्लो अन्याय टळकपणान उक्तो जाला. मीठ काडपी आगरी पांय सोलून घेवन वावर करतात, पुण तांच्या हातांत कितें पडटा ?

आमच्या वांट्याक
तळूकेचे
देंट
आनी
विकती फेणी

आगऱ्यांचीं बायलां मळो रोयतात, पुण तांच्या कश्टाचीं फळां खावपी वेगळेच आसतात.

आगरी
बायलांनी
मळो रोयला ?

भाटकाराक
पियाव मेळ्य
कणगां मेळ्य
वांयगीं मेळ्य
वेर्दुर मेळ्य
तुज्या आंगांतलें
फेणयेचें
रगत मेळ्य

'हांव गावडो' [म्हजें उतर गावड्याचें] हे कवितेंतय समाजांत चालू आशिल्ल्या कश्टकऱ्यांच्या पिळणुकेचें दर्शन आमकां टसटशीतपणान जाता :

आमी शेतां रोंवचीं
पिकोवंची
मळचीं
वोतांत करपूंचें
पावसांत मरचें
तुमी रेंदां घेवचीं
एकामेकांची
भर करची

हो चिड्डिल्लो आनी पिडिल्लो मनीस कवीच्या मुखांतल्यान जेन्ना समाजांतल्या आपल्या स्थितीची कर्म - काणी सांगता, तेन्ना वाचप्याक समाजाचें हें खंत-डिणें चित्र अंतर्मुख केल्याबगर रावना. ' पावसा यो पुता, म्हजे बगबर रडपाक ', हे कवितेंत भुंयचे पूत जे शेतकार तांची दुबळी स्थिती कवीन खर कुशळटायेन चितरायल्या आसा. घो घो करून पावस आयलो म्हणटकेर शेतकार खुशालभरीत जातात. पुण हो आनंद खिणभर तिगता. कणसांच्या रुपान तांच्या घरांत भांगर आयलें, तरीय शेतकार उपाशीं ते उपाशींच. हाचें कारण :

मुकदम दारांत
पावले ...
मागीर शेतकार
जेवतले !
शेतकार खंयचे
जेवतले !
हातची उंडी
तोंडाकडेन...
... दैवचार ओगी
रावतले !

हें जाणा जावनूय शेतकार पावसाक यो यो म्हुण साद घालता :

आनीक पावसा
यो यो...
म्हज्या शेतांत
घो घो...
एकूच खेप
यो यो
म्हज्या बराबर
रडपाक...
पोटभर [म्हजें उतर गावड्याचें]

कवितेच्या ह्या निमण्या वळींतल्यान र. वि. पंडितांनी फकत शेतकाऱ्यांचेंच न्हय, तर मानवी समाजांतल्या समस्त दुर्बलांचें, चिडुल्यांचें दुख्ख हळुवारपणान उतरबद्ध केल्लें आसा.

जांच्या हातांत आर्थिक सत्ता आसा, तेच हे समाजांत उडणां मारतात, धुमशेणा घालतात हें कडू सत्य पंडितांनी 'हांव राजा... वायंगणो' हे कवितेंत परगटायलां. हें सत्य भाटकाराच्या तळ्यांतल्या पिटकोळाच्या तोंडान वदवपांत ताणीं औचीतपणा सादला. भाटकार जसो गावड्यांचो राजा तसो आपुण नुस्त्यांचो राजा, अशें हो पिटकोळ गर्वान सांगता. भाटकार जसो 'मुणकाऱ्यांचां / सोण्णां काडटा / पिडापीड करता / तांका भोंच / धारेर धरता / दिसरात / किरमिता किरमिता' तसो आपुण

सांगटांचे
कांटे मोडटां
संगटांच्या नाकांत
दोरी सोडटां
खबांक
भेसडायतां

खर्चाण्यांक
कुशां तोपतां
खरोयतां. [ आयलें तशें गायलें ]

असो हो पिट्टोळ सांगनासतना आमच्या डोळ्यांमुखार उबें रावनात तीं दुर्बलांच्या घामाचेर आनी रगताचेर जळवांभशेन जगपी बलिश्टांचीं आडांगी कर्तुबां. मानवी समाजाचें वर्णन करतना आमी सदांच म्हणटात कि, हे समाजांत मोटे नुस्तें ल्हान नुस्त्याक खाता. पिट्टोळ हो बलिश्टांचें प्रतिक मानून पंडितांनी हे कवितेंत समाजांतलें हें सत्य आमच्या मनार ठसोवपाचो उचित आनी यशस्वी येत्न केला.

'म्हजें उतर गावड्याचें' हे कवितां—झेल्यांतल्या 'भाटकाराल्लो सत्यनारायण' हे कवितेंत पंडितांनी कश्टकन्याच्या स्थितीचें हृदयस्पर्शी वर्णन केलां. समाजात मरसर वावर करप कश्टकन्यान; पुण, ताज्या ह्या वावराचें म्हत्त्व मान कोणाक आसना. कश्टकन्याचो मान कुम्कुटासमान. ताजी याद जाता सगळ्यांत निमाणी. हे कवितेंत पंडितांनी हें सत्य खूप कुशळ्ताथेन चितारलां. नेमू हो मुंडकार भाटकाराच्या सत्यनारायणाखातीर दिसरात मरता. पुण भाटकाराक ताका दोणी दिवराची याद जाता ती ताणें पुजेउप्रान्त सगळें सामान दिस्नादिस्त दवरपाचें—पावोवपाचें काम नी हेर सगळीं कामां करतगेर आनी सगळे सोयरे आपापल्या घरा परततगेरच !

कश्टकन्यांचीं दुःखां, तांचेवयले अन्याय आनी अत्याचार हांचें चित्रण करतना पंडितांचें चिड्डुल्ल्यांच्या कळवळ्यान भरिल्लें मन अकतें जाता. सामाजिक विशमतेक लागून समाजांतल्या दुर्बलांक जीण जगप सामकें असह्य जालां, पुण तेच वेळार बलीश्ट वर्ग—धनी वर्ग चैनींत गुल्ल जाल्लो आसा, हाचें वर्णन ताणी साहित्य अकादमीचो पुरस्कार फावो जाल्ल्या 'दर्या गाजोता' हे कवितां—झेल्यांतल्या 'जड्डो कांसव' हे कवितेंत केलां.

गीम तापला रमा रमा
वचत थंय आंटल्यो बांयो

गाडगोभर अुदकापासत
सगळो गांव तळपेला
भाटकाराल्या व्हडल्या बांयत
एक मिणो जडडो कांसव
सात पुरुस नितळ पाणयां
कट्टें मांडून गोटेला !

सात पुरुस उदकांत गोटेल्लो जडडो कांसव, हो समाजांत चैनींत रावपी धनीक–वर्गाचें प्रतिक मानपांत र. वि. पंडितांनी वयल्या पांवड्याची कल्पनाशक्त दाखयल्या. हे प्रतिकामार्फत ते दोन गजाली सूचित करपाक सोदतात. एक म्हंजे, समाजांतल्या ह्या 'कांसवा 'क गरिबांच्या दुख्खाचें कांयच पडून वचूंना, ताचें मनच गोटेल्लें आसा, आनी दुसरें म्हंजे हो 'कांसव' जड्डो जाल्ला म्हळ्यार तो कालबाह्य जाला. हे 'कांसवा' चे दिस भरल्यात, हें सांगतना पंडितांनी 'जडडो' हे उतराचो जो उपेग केला तो प्रत्ययकारी आसा.

समाजांतली ही विशमता पळोवन, कश्टकऱ्यांची दैना पळोवन पंडित फकत कळवळेच उक्तायनात. ते ह्या अन्यायांआड आपलो आवाज काडटात. 'मनशांच्यो। दोनूच जाती...। बरो मनीस। वायट मनीस...। चिडुल्लो। आनी चिडडपी!' अशें म्हणटासतना तांकां ही सामाजिक विशमता, मनशांनीच निर्मिल्ल्या समाजरचनेचें एक आंग आसा, हाची जाणीव आसा. आनी म्हुणूनच तांकां दिसता कि, ही 'कुशिल्ली, गळिल्ली' समाजरचना बदलेबगर पिडिल्ल्यांचे, चिडिल्ल्यांचे दिस बदलचे नात. हेविशीं पंडितांचें मन आशावादान उपाट भरिल्लें आसा, हें तांच्या 'बदलतले दिस बदलतले,' हे कवितेंत (धर्तरेचें कवन) ठसठशीतपणान अुकतें जालां.

गिरेस्त ना पांवचे नागोवंक
गरिबांची भाकरी, तांची अन्न...
लडबडटलें ... लडबडटलें ...
पैशाचें आसन गडगडटलें
बदलतले दिस बदलतले

पंडितांच्या काव्यांत निराशेचे सूर उमटिल्ले दिसनात, हें तांच्या काव्याचें एक म्हत्त्वाचें वैशिष्ट्य आसा. तांच्या काव्यांत आमकां जे चिड्डुपी वो पिडपी दिसनात तांचें एक वैशिष्ट्य सामकें नदरेंत भरता तें म्हळ्यार हीं पिडपी मनशां मूळतः दुष्ट आसनात. समाजरचनेनच निर्मिल्लीं हीं मनशां आसात. आपूण कष्टकऱ्यांक पिडटां, हाची जाणीव–कांयबाबतींत स्वंत, तांच्या मनांत आसता. ‘ हांव भाटकार ? ’ हे कवितेंत [ धर्तरेचें कवन ] ही गजाल कवीन स्पष्ट केल्या :

किनल्लीं शेतकारांचीं कुटुंबां
हाय– हूय करतात म्हाका गाळी मारतात ...
तुमी जाणात ?
कितल्यो आनी कसल्यो कसल्यो
गाळी आनी ‘ श्यापर्मी ’ मारतात
तुमकां खबर आसा ?

हेबाबतींत आनी एक गजाल पंडितांच्या कवितांतल्यान उकती जाता, ती म्हळ्यार संवसारीदार मनीस जरी कष्टकऱ्यांची पिळणूक करता तरी तोय कितलेशेच प्रस्नांच्या गुंत्यांत सापडिल्लो आशिल्ल्यान तो दुर्बळ जायत वता. ‘ दर ना देखून अुल्लां ’ ( म्हजें उतर गावड्याचें ) हे कवितेंत जेन्ना भाटकार,

आतां
म्हजे म्हाकाच
हांव
विकपाचो आसां
दर ना
देखून अुल्लां

अशें म्हणटा तेन्ना ताज्या हे अुतरांतल्यान एक गजाल सूचित जाता, ती ही कि, चिड्डुपी–वर्गाचे दिस आतां सोंपूंक आयल्यात.

र. वि. पंडितांनी आपल्या काव्यांत मानवी समाजांतल्या विशमतेबरावरच आनी एका आंगाचेर आपल्या समर्थ लिखणेन अजवाड घातला. मनीस आपली मुळावी संस्कृती विसरून आनी पैसो हेंच ध्येय मानून भौतिक सुखांच्या फाटल्यान धांवंक लागला; हाका लागून मनशामदलो 'मनीस' ना जालो, ह्या मानवी समाजाच्या गंभीर दुखण्याचें प्रत्ययकारी दर्शन आमकां पंडितांच्या काव्यांत घडून येता. हें सगळें पळोवन कवीचो जीव आकूळपिकूळ जाता हातूंत नवल तें कितें ? मनशाची अशी आवतीकाय, अशी अधोगती जावपाक त्वासा मनीसूच कारण आसा, हें सत्य पंडितांनी उत्कट-तायेन मांडला. मनशान आकांताची भौतिक सुदरगत घडोवन हाडल्या, अणशक्तीचो सोद लायला, पुण मनशाचें मन मात ल्हान जालां, ही मानवी जीणेंतली दुख-दणी विसंगती तांच्या कितल्याश्याच कवि-तांतल्यान स्पश्ट जाता. 'जग इतलें ल्हान जालां !' (धर्तरेचें कवन) ह्या कवितेंत ते शेवटाक म्हणटात :

जग कितलें ल्हान जालां !  
मनशाक मनीस घाण जालो...  
जग अितलें ल्हान जालां !

सुख म्हणून मनीस पैशाच्या मृगजळाफाटल्यान कसो धांवता आनी ताकालागून तो आपल्या आपणाकूच कसो शेंगून बसला, हें तांणी 'कुडींत मात तें ना' आनी 'नवे तरेचें काळीज' (उगतलें तें रूप धरतलें) ह्या दोन कवितांतल्यान सुंदर रितीन मांडलां. मनशाचें काळीज भाटांत आसा, बेंसांत आसा, सगळेकडेन आसा पुण ताच्या कुडींत मात तें ना. मनीस काळजाच्या जाग्यार ब्रेंवन भोंवता तो चेडूक, अशें पंडित जेन्ना सांगतात, तेन्ना ते सुवा-र्थाच्या रेवडांत बुडिल्ल्या सध्याच्या मानवी समाजाचेंच वास्तव चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार अुबें करतात. मनीस कितलो सुवार्थी

जालां, हाचें वर्णन तांच्या 'भुंयेन म्हळें' [धर्तरेचें कवन] हे कवितेंत थोड्याच उतरांनी, पुण कितलें सुंदर जालां!

.........

भुंयेन म्हळें
'मनशादादा
भुकेक अिल्लें
शीत दिता!'
मनशान म्हळें
'फुकट दिना
पन्नास पटीन
व्याज घेतां!'

मनीस — कुळयेचीं मुळावीं मूल्यां पायांपोंदा वडोवन, आधुनिक मनीस पैशाबगावरच सत्ता मेळोवपाखातीर कितेंय करपाक फाटकुडें पळयना, ही खंत पंडितांच्या काव्यांत अुक्ती जाल्या. 'जग इतलें ल्हान जालां!' हे कवितेंत पंडितांची ही वेदना एक वेगळें परिमाण गांठता.

सत्य, अहिंसा
ताका खंय जाय?
शांततायेन जियेंवक
ताका खंय जाय?

ताका जाय ...
फक्त धुमशेण घालूंक
माकडावरी

पुण, मनीस माकडापरसय पाडट जाला, अशें पंडितांक दिसता. माकडां धुमशेण घालतात, पुण आपली नगरी विध्वंस करीनात. मनीस मात् आपल्यासैन जगाक उजो लावंक तयार जाला, अशें

ते म्हणटात. ' अणुयुगाचो हरी विठ्ठल ... ' [ आयलें तशें गायलें ] हे कवितेंन तार्णी मनशाच्या ह्या वृत्तीचेर अदीक उजवाड घातला. मनीस मायेमोगान, शांततायेन जियेंवचे बदला एकमेकांच्यो गोमटयो कापूंक लागला, निरपराधी मनशांची हत्या करपी झुजां लडपांत धन्यता मानूंक लागला. हिरोशिमाचीं चवनां आजून व्हांवतूच आसात, पुण एकमेकांक काबार करपी झुजांची तयारी मात मनीसजात थांबयना. ही सत्ता- नारायणाची पुजा, जगार सत्ता मेळोवपाखातीर चलिल्लो हो अट्टाहास थांबलो ना, जाल्यार मनीस - जात सुखी जावपाची ना, हो संदेश पंडितांनी हे कवितेंतल्यान दिला.

पंडितांच्या काव्याचो एक विशेश रोकडोच ध्यानांत येता, तो हो कि, तार्णी गोंय आनी गोंयचो समाज हांतूतलीं प्रतिकां तो प्रतिमा वापरून मानवी समाजाचें आमकां दर्शन घडयलां. पंडित जेन्ना आगरी, गावडो, शेतकार, मुंडकार हांचीं दुख्खां परगटायतनात, तेन्ना तांचो उद्देश गोंयांतल्या ह्या उपेक्षितांचीच स्थिती आमच्या दोळ्यांमुखार उबी करप, हो आसना. गोंयच्या भौशिक जिणेंतल्या ह्या प्रतिकांमार्फत ते अख्ख्या मनीस - कुळयेचें दुख्ख, जगांतल्या दुर्बलांवयले अन्याय उतरबद्ध करतात. पंडितांचो ' भाटकार ' हो फकत गोंयचोच भाटकार आमच्या दोळ्यांमुखार उबो करीना, तो उबो करता दुर्बलांची पिळणूक करपी, मानवी समाजांतलो बलिश्ट–वर्ग. गोंयच्या मिना खाणांचेर जेन्ना पंडित बरयतात तेन्ना तांचे दोळ्यांमुखार फकत गोंयच आसना, तर गोंयच्या मिना–खार्णांची पार्श्वभूंय दिवन ते मनीस-जातीन सादिल्ल्या भौतिक उदरगतीच्या वायट परिणामांचेर अत्तरांची बडी मारतात. पंडितांक गोंयची गांव - जीण आनी ताजीं जागर आनी धालो हांचेसारकीं सांस्कृतिक आंगां आवडटात. ताजो ते मनस्पुर्वक पुरस्कार करतात. पुण हाचो अर्थ, गांव सुदारचो न्हय, गांव - जीण आसा तशीच मागाशिल्ली उरची, अशें मत ते आपल्या काव्यांतल्यान मांडटात, असो कोणेंय घेवंचो न्हय. गांव - जिणेचो पुरस्कार तार्णी प्रतिक म्हुण केला. हेमार्फत ते पुरस्कार करतात तो मनीस कुळयेच्या चिरंतर मुल्यांचो, गांव -जिणेन सांबाळून दवरल्ल्या

उदात्त तत्वांचो, हें आमी विसरूंक फावना. गावड्याच्या तोंडांत दयान ते जेन्ना सुदारिल्ल्या लोकांक सुनायतात वा ते जेन्ना म्हणटात, 'आमचो कास्टी। आमच्या बायलांची कॅटली। जंयचे थयच आसा। आमचो जागर, धालो। गोमशें तुमशें। धुळवड, शिगमो। मराठें। जशाक तशें' तेन्ना ते मागाशिल्लेपणाचो पुरस्कार करतात अशें कोणेंय समजूंचें न्हय. हांगा तांणीं जो पुरस्कार केला, तो गांवजिणेंतल्या निर्मळपणाचो, गांव-जिणेंत सांबाळून दवरल्ल्या मनशाच्या मुळाव्या आनी थळाव्या संस्कृतीचो. मनशान आधुनिक जांवचो, पूण आपल्या मुळाव्या नी थळाव्या संस्कृतीचीं बरेलीं अंगां आनी उदात्त तत्वां सोडचीं न्हय, अशें तांकां दिसता.

गोंयचीं मनशां, गोंयची गांव-जीण, गोंयांतल्या तरेतरेच्या मनशांमदले संबंद, ह्या सगळ्यांचें चित्रण तांणीं विस्तारान आनी बारीक सालीन केल्यान गोंयच्या गांव-समाजाचें रसरशीत चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार उबें जाता आनी तें पळयतना र. वि. पंडितांभितल्लो फोटोग्राफर आमकां ठळकपणान दिसता. पंडित हे अखिल भारतीय नामना मेळयिल्ले फोटोग्राफर. साहित्यांतय तांणीं फोटोग्राफरच्या नदरेनूच आपल्या भोंवतणचो समाज आनी मनशां नियाळ्ळ्यांत. दोळ्यांच्या कॅमेऱ्यान आपल्या काळजाच्या फिल्माचेर तांणीं टिपेल्लीं मनशां उतरांच्या फास्कीन अशा कुशलकायेन तांणीं चितरायल्यांत कि, तीं सामकीं जिवंत दिसचीं. तांणीं काडिल्लीं गावडो, आगरी, भाट-कार, शेतकार, वेपारी हांचीं व्यक्तिचित्रणां, मनशाच्या मन-सागराच्या तळांत खोल उडी मारून काडिल्लीं मन-चित्रां आनी, तशींच, विशयाक उचित अशीं प्रसंग-चित्रां कोंकणी काव्यांत पयलेच खेपे आयल्यांत. र. वि. पंडितांभितर एक कादंबरीकार सुप्तपणान वावुरता, हाचें प्रत्यंतर दिवपी हीं चित्रणां आसात, हातूंन म्हाका इल्लोय दुबाव दिसना.

ह्या सगळ्या वैशिश्ट्यांक लागून तांच्या काव्यांतलें समाजदर्शन जिवन्त जालां, वास्तव जालां. उपरोध हो तांच्या काव्याचो एक उल्लेखनीय घटक आसा. हे उपरोधाक लागून, तांणीं उक्तायिल्ल्या सामाजिक उणाळ्यांक एक आगळी धार आयल्या आनी तांच्या काव्यांतलें

समाज - दर्शन उठावदार जालां. पंडितांच्या काव्यांतलो उतरांव, हो एक वेगळो लेख बरोवपासारको विशय. खरें सांगपाचें जाल्यार, पंडितांच्या काव्याच्या वेगवेगळया अंगांचेर वेगळेवेगळे लेख बरोवप शक्य आसा, इतली जबरदस्त तांक तांच्या काव्यांत आसा. तांच्या काव्यांतली चिंतनशीलता, अपरोक्ष, तांणी वापरल्ल्यो प्रतिमा, तांच्या काव्याक आशिल्लो लोकसंगीताचो ताल, इतलेंच न्हय, तर तांच्या काव्यांतलीं कांय दोश - थळां, हांचो साहित्यिक अभ्यासाच्या दिश्टीन विचार जावंक जाय, अशें म्हाका दिसता. तांच्या कांय कवितांचो विशय काळजाक भावपी आसूनय त्यो कलात्मक रूप घेनात, हें एक दोश - थळ म्हाका दिसलें. पुण अश्यो कविता साप थोड्यो, हेंय तितलेंच खरें.

पंडितांच्या काव्यांत जें समाज–दर्शन म्हाका घडलें तें वाचप्यांमेरेन, काव्य -रसिकांमेरेन पावोवपाचो प्रयत्न हांवें हांगा केला. पंडितांचें काव्य वाचतना म्हाका समाज— दर्शनाबराबरच आनी एका गजालीचें दर्शन घडलें, तें म्हळ्यार तांच्या काव्याच्या वळी—वळींत, अंतराउतरांत दिश्टी पडटा तें तांचें संवेदनाशील मन. पंडितांच्या ह्या संवेदनाशील मनाक लागूनच तांचे सामाजिक उमाळे वाचप्यांच्या काळजांत खोल रिगतात, वाचप्याक हे उमाळे आपलेचशे दिसतात. पंडित आपले एका कवितेंत म्हणटात तें तंतोतंत खरें :

उतरां म्हजीं
मनांतलीं
सुकणीं जावन
वाऱ्यार गेलीं
वाऱ्यादेल्यान
हुबतां हुबतां
कोणेय तरी
आपलीं केलीं

- ३ -

# ‘अच्छेव’ – गांव-जिणेचें उत्कट दर्शन

गोंयची गांव–जीण आनी गोंयांतले सामाजिक बदल, हांचें उत्कटतायेन आनी बारीकसाणेन दर्शन घडोवन हाडपी ‘ अच्छेव ’ ही नवलकाणी वाचतगेर श्री. पुंडलिक नायक हांच्या रूड प्रतिभा-शक्तीचो जसो साक्षात्कार जाता, तशीच आनी एक गजाल रोकडीच ध्यानांत येता, ती म्हळयार गोंयची गांव–जीण तिच्या सगळ्या वैशिश्टयांसयत चितारपी अशी ‘ अच्छेव ’ ही पयली नवल – काणी. एक तोलामोलाचो कवी आनी कथाकार म्हूण नामना जोडतगेर श्री. पुंडलिक नायक हाणीं नवल – काणयेक जेन्ना हात घातलो, तेन्ना तांच्या प्रतिभा – दर्शान साहित्याची ही तराय एका वेगळ्या तेजान लखलखून आयली. जे काळांत रोमी लिपयेंतली कोंकणी नवल–काणी ही डिटेक्टिव्ह कथा आनी मोग–कथा, हया सर्दाच्याच वर्तुळांत घुंवताली, तेन्ना हया तरनाटया लेखकान गोंयच्या भोंवताक साद घातलो आनी गोंयच्या मुळाव्या संस्कृतीचीं जिवीं – जागतीं अंगां कलात्मक रितीन उतरांच्या फास्केंत बसयलीं. गांवांत सैमाच्या कुशींत सुखा-समाधानान रावपी गोंयच्या मुळपुरुशाची जीण, ताचीं सुखदुखां, ताच्या जिणेंतले बरेवायट बदल, हें सगळें ‘ अच्छेव ’ हया नवल-काणयेंत इतल्या कुशळतायेन चितरायिल्लें आसा कि, वाचप्याक श्री. पुंडलीक नायक हांच्या प्रतिभा-शक्तीचोच न्हय, तर कोंकणी

भाशेच्या तांकीचोय प्रत्यय आयल्याबगर रावना.

आयजमेरेन खंयच्याय गोंयकार साहित्यिकाच्या लिखणेचो स्पर्श जालो ना, असो विशय घेवून श्री. नायक हाणीं गोंयच्या सामाजिक जिणेक संबंदित अश्या ज्या अणभव-विश्वांत वाचप्यांक व्हेल्यात, तें अणभव-विश्व इतलें अस्सल आसा कि, वाचपी नवल काणयेच्या शेवटामेरेन तातूंतल्या दरएक प्रसंगांत, पात्रांच्या सुखदुखांत आनी एकंदर कथानकांत पुराय भरसून वता, एकरूप जाता. गोंयांत मिनाचो धंदो सुरू जातगेर गांव-जिणेचेर जे मुळावे आनी खोलायेचे परिणाम घडून आयले, ताचें चित्रण श्री. नायक हाणीं ह्या नवल-काणयेंत केलें आसा. मिनाच्या धंद्याक लागून गोंयची आर्थिक जिणच बदलता अशें न्हय, तर गांवांतल्या लोकांचीं मूल्यांय पुराय बदलून वतात आनी गांवांत निर्मळ जीण जगपी मनीस नानातरेच्या संबंध सुवार्थाच्या, व्यसनांच्या आनी अनैतिकतेच्या रेबडांत मुंगरिल्लो विकृत मनीस निर्माण जाता, हो ‘ अच्छेव ’ ह्या नवलकाणयेचो विशय.

ह्या नवलकाणयेंतलें कथानक घडटा कोळंब ह्या गावांत. सैमान नटिल्ल्या गोंयांतल्या खंयच्याय गांवासारकोच हो एक गांव. गांवांत हिन्दु भौस रावता आनी शेतकाम हो मुखेल धंदो करून आपलें पोट भरता. नवलकाणयेची सुरवात जाता ती पंडरी हो शेतकामती आपल्या शेतांत वावर करता ह्या प्रसंगाच्या चित्रणान. पंडरी आनी शाण हांच्यामितल्ल्या संवादांतल्यान पंडरीच्या शेतांत रोवणी जावपाची आसा, हें आमकां कळटा.

पंडरीचें कुटुंब घरांत रोवणेचेर गजाली करता आसतनाच पलतडचो बाबुसो आनी घाटा फुल्ल मरुताकेंतलो गुजीर प्रसादबाब हे ताका मेळपाक येतात. गुजीर प्रसादबाब नांवाचे मीन काडपाचो धंदो करता. पंडरीन रोज शेतांत वडोवन स स म्हयने वाट गळोवचेपरस आपणाली बैलां-गाडी घेवन नांवलेसावन शेतोरेर मीन व्हरपाचें काम केल्यार शेतकामांतल्या उत्पन्नाच्याकूय चड दुडू ताका मेळटले, अशें बाबुसो ताका सुचयता. दर पावटीक

सत्तर रुपये, हें मोल आयकनाफुडें पंडरी भल्लसता आनी दुसऱ्या दिसाच्यान गाडी घेवन येतां, अशें मागता. ... आनी अशा तरेन वर्सानवर्स शेतकाम हें देवाधर्मासारकें करून आथिल्ल्या पंडरीच्या कुटुंबांत मिनाचो 'म्हारू' भितर सरता.

'अच्छेवा' तलें हें पयलें प्रकरण श्री. पुंडलीक नायक हाणीं खूब कलात्मक रितीन बरयलां. हांगा रचनेची कुशलताय जशी दिसता, तशेंच आशयाच्या दिश्टीनय तें संपन्न जालां. शेताची रोवणी करपाची तयारी हो प्रसंग चितारून श्री. नायक हाणी गांव-जिणेच्या एका म्हत्वाच्या तासाचें दर्शन आमकां घडयलां आनी ह्या प्रसंगाच्या पार्श्व-भूंयेचेर, बाबुसो आनी गुजीरबाबचें येवप चितारून निर्मळ गांव-जीण आनी ह्या गांव-जिणेचो निर्मळपणा हुबाडून वडवपी मिना-उद्योग हांच्या भितल्लो भविश्यांतलो संघर्श वाचप्यांच्या दोळ्यांमुखार उबो केला. हे पयले प्रकरणाउप्रांत, मिनाउद्देगाक लागून कोळंब गांव कसो बदलता, हाचें चित्रण लेखक करतलो, अशे अपेक्षेन वाचपी मुखावयलें प्रकरण वाचता. पुण श्री. नायक हाणीं एकदम ह्या विशयाक हात घालूंक ना. दुसऱ्या प्रकरणासावन पांचव्या प्रकरणामेरेन लेखकान गांव-जिणेचें ताच्या वेगळ्या वेगळ्या वैशिश्ट्यांसयत चित्रण केलां. पंडरी, ताची बायल रुक्मीण आनी भुरगीं नान नी कंसर, ह्या चार जाणांच्या कुटुंबाची मिना उद्योगाक लागून कशी आवस्ताकाय जाली, हें कथा-सुत्र घेवन जरी लेखक आमच्या मुखार उबो आसा, तरी लेखकान हे नवल-काणयेंत सगळो भर दिला तो गांव-जिणेचेर, गांवां-तल्या भौसाचेर.

गांवांत सैमाच्या कुशींत रावन घालो, भजन, शिगमो इत्यादि सांस्कृतिक आंगांतल्यान निर्मळ आनंद घेवपी आनी शेतकामाक देवा-समान मानपी असो शेतकामनी समाज, हें 'अच्छेवा'चें मुखेल पात्र आसा. म्हूणूनच, पयल्या प्रकरणाउप्रांत पंडरीची कथा प्रत्यक्ष निवेदन वो प्रसंग नी संवाद हांच्या रुपान सांगचे बदला लेखक आपल्या लिख-णेचो 'कॅमेरा' गांव-जिणेच्या वेगळ्यावेगळ्या आंगांचेर भोंवडायता आनी हेर वेगळींवेगळीं पात्रां आनी प्रसंग उबे करून गांव-जिणेचें,

गांवांतल्या उत्सवांचें आनी देवदेवस्कीचें, गांवांतल्या लोकांभितल्ल्या तरेतरेच्या बऱ्या-वायट संबंदांचें दर्शन आमकां घडयता. तिनसांजचे कातरीर शेतकाम सोंपोवन तळयार हात-पांय झंजळूंक येवपी शेतकारी, दोंगरावयल्यान तळयार देंवपी गोरवां, मस्तायकी उमळपाखातीर आनी उदक व्हरपाखातीर तळयार गर्दी करपी बायलां आनी तांचीं एकमेकांक घालून पाडपी उलोवणां, ह्या सगळ्या गजालींचीं चित्रां आमच्या दोळयां-मुखार उबीं जातात. एकामेकांकडेन गाळयांनीं उलोवपी गावांतलीं मनशां आनी भुरगीं आमकां दिश्टी पडटात. दर सोमारा गांवचे लोक भजनाचे कार्यावळीखातीर एकठांय येनात आनी भजनाच्या सुरांत पुराय बुडून वतात.

मार्गशिर्ष सोंपून उसो पौश लागता, तश्यो कोठंबार बऱ्याच जागांच्यो रोवण्यो जातात. आमल्ली, काज, पणस इत्यादि झाडां फुलून येतात. आनी जे उत्सवाची भुरगीं बायलां सगळीं व्हड उमेदीन वाट पळयतालीं, तो धालांचो उत्सव येता आनी तिठ्ठ चान्यांत मांडार चलयां-बायलांच्या वोंडार धालो घोळूंक लागतात आनी पांच दिसांच्या उत्साहाच्या आनी खोसयेच्या वातावरणांत धालांचो सुवाळो सोंपता. गांवांतल्या भौशिक जिणेचें चित्रण करतासतना लेखकान आरगाली लिखणी शेतकाम आनी सांस्कृतिक आंगां हांकां संबंदित आशिल्ल्या भोवतेक सगळ्याच घडणुकांचेर भोंवडायल्या. आनी म्हूणूनच आरल्या सगळ्या वैशिश्ट्यांसयत गांवची गाव-जीण हे नवल-कादंबरेंत जिवी-जागती अशी आमच्यामुखार उबी जाता.

सोंपल्या शिगम्यांत वायंगणाक चार म्हयने जातगीर जातात त्यो लुवण्यो आनी मळण्यो, मागीर येता तो शिगमो आनी शिगम्याचो खेळ, तालगडीचो नाच, संसार पाडव्याउप्रांतची सत्यनारायणाची पुजा आनी पावणेची कार्यावळ, मिर्ग लागीं पावसाच्या वेळार नडगे-काडपेक आयिल्लो भार, भाद्रपदांतल्या चवथीचो सुवाळो, चवथीच्या पयल्या दिसाची वसकी बारस, त्या निमतान तळयार जाता तें देवस्पण, पावस सोंपतगीर सर्द पिकून आयलेउप्रांत जातात त्यो लुवण्यो नी मळण्यो, हयो सगळ्यो घडणुको लेखकान नदरेंतल्यान चितिंत केल्यात. ह्या सगळ्या

घडणुकांच्यो बारकायो चितारता आसतना लेखकान फकत निवेदन वा वर्णनच करूंक ना. पात्रांच्या संवादांतल्यान हे प्रसंग, हे मुद्दाळें रस-रशीतपणान उबे केल्यात. श्री. पुंडलीक नायक हाणीं पयल्या प्रकरणा-उप्रांत लागींलागीं ७२ पानांत गांव–जिणेचें जें रोसाळ आनी वास्तव चित्रण केलां, तें तांच्या उच्च प्रतिभा–शक्तीचें अशें प्रत्यंतर हाडून दिता. तशेंच गांव–जिणेचो तांचो खोल अभ्यास आनी ह्या जिणेकडेन पळोवपाची तांची मुळावी आनी बारीक नदर, हांचीय हें चित्रण गवाय दिता.

गांवांतल्या ह्या निर्मळ भौतिक जिणेचें दर्शन घडयता आसतना लेखकाक मूळ कथासुत्राचो विसर पडूंक ना, हो ह्या नवलकाणयेचो एक म्हत्वाचो गुणविशेश आसा. लेखकान आपल्या कल्पनाशक्तीचो उपेग करून वेगळ्या वेगळ्या प्रसंगांच्या निर्मितींतल्यान, आनी पात्रांचें उलोवणें आनी वागणूक, हांतूंतल्यान गांवजिणेचेर आयिल्ल्या मिना धंद्याच्या संकष्टाचें सूत्र सांबाळून दवरलां. १] मास्तर गणितां घालता आसतना नानूक आदल्या पर्ती घराकडेन मिनाखातीर वैलांगाडी लाय, अशें सांगूंक आयिल्ल्या बाबुशाचो आनी धल्या कुळ्ळ मुस्ताकेंतल्या मनशाचो उगडास जावप, २] तळयार उदक भरता आस-तना पंडरीन मिनाखातीर रोवणी मुखार धुकल्ल्या अशें बायलांचें एका-मेकांकडेन उलोवप, ३] नानू, केसर, नरशिंव आनी शंकर ह्या भुरग्यांनी तळ्याकडेन मीन काडचेल्यानीं खेळप, ४] मिनाखातीर पंडरीचें पीक उणें आयलां अशें सांगून आबून मळणेर पंडरीची लज काडप, ३] लग्नीं बापायन (पंडरीन) फातर तकलेर घेवन गाडयेंत घालपाक लायिल्ल्यान नानूची मान कणप आनी ताका लागून दिवलेचो नाच चलता आसतना नानूच्या फाटीर जळटी दिवली पडप, ६] पंडरी आपल्या पुताक–नानूक शाळेंत धाडच्याजाग्यार मिनाच्या वावराक व्हरता तें कळटगेर मास्तरान पंडरीच्या घरा येवन नानूक शाळेंतलो घरा दवरनाकात, अशें काकुळटेक येवन सांगप, अशे वेगळेवेगळे प्रसंग चितारून लेखकान कथासूत्र मुखार व्हेलां. पुण पयले पांच प्रकरणांमेरेन लेखकान चड भर दिला तो गांव–जिणेच्या चित्रणाचेर. गांवजिणेचीं निर्मळ आंगां चितारतना लेखकान वयर दिल्ले प्रसंग अदीं मदीं उबे करून गांवांचेर भविश्यात येवपा

आशिल्ल्या अरिश्टाची वाचप्यांक जाणीव करून दिल्या. गांव-जिणेचें हें चित्रण करता आसतना लेखकाक मूळ कथा-सुत्राचो विसर पडूंक ना, ही गजाल खरी आसली, जाल्यारुय हांगा एक दोश ठळकपणान दिश्टी पडटा. गांव-जिणेच्या तपशीलवार चित्रणाक लागून कथानकाचो प्रवाह आडावन उरल्लयाभशेन जाला. कथानकाची गती ही चित्रणां वो वर्णनांक लागून मंद जावप, हें लेखकाचें अपेस मानूंक जाय. श्री. पुंडलिक नायक हांच्या लिखणेन गांव-जीण चितरायतना उंच पांवड्याची कुशलताय दाखयिल्ली आसली, जाल्यारुय तांच्या नवलकाणयेंतली वयली उणीव नदरेंत भरता हेंय तितलेंच खरें. हाका लागून नवलकाणयेची रचना विस्कळीत दिसता.

नवलकाणयेच्या सव्या प्रकरणासावन मिनाच्या धंद्याक लागून पुराय बदल्लेलो कोळंब गांव पळोवंक मेळटा. शेतकामावयलें लक्ष काडून कोळंबांतले शेतकार मिनाच्या खणीर वचूंक लागतात. भुरगीं-बाळां, जाण्टे नेण्टे हांकां सगळ्यांक मिनाचें पिशेंच लागता म्हळ्यार जाता. खणीर वावर करून सोपेपणान, वाट पळय नासतना, दुडू मेळटा म्हणटगेर वळवय, कोळंब आनी हेर वाटारांतले शेतकार आपल्या भुरग्यांकय वावराक व्हरतात. हाका लागून शेतां-भाटां जशीं पडंग पडटात, तशींच शाळांतलीं भुरगींय उणउणे जायत वतात. हे गजालीचें दुख्ख जाता तें गांवांतल्या दोनूच मनशांक. एक आबू आनी दुसरो मास्तर. आबू, हो गांवांतलो एक जाण्टो मनीस. एकलो एकसुरो रावपी. गांवचो दरएक जाण्टो-नेण्टो मनीस ताका वडिल्कीचो मान दिता, ताका भिवून आसता. गांवचें कल्याण जावंचें, भुरग्यांनीं आल्म-पेल्यार अनें भोंयचेवरस शाळेंत वचून ज्ञान मेळोवंचें म्हूण तो झटटा. कोळंबाच्या भुरग्यांनी आपणाले पिळगेभशेन रेंड उरचे न्हय, हें आबूचें ध्येय-सपन आसता. मास्तराची दृश्टी अशीच उदात्त आसता. मिनाक लागून आत्तय-बापूय आपणाल्या भुरग्यांक शाळेंतल्यान काडून वावराक व्हरतात, हे गजालीचें दुख्ख आबूक सोंसना. मिनाक लागून गांवांत भ्रश्टाचार जाला, अशें ताका दिसता आनी ह्याच धक्क्यान आबू

मरता.

श्री. पुंडलीक नायक हाणीं 'अच्छेवांत' जीं पात्रां रंगयल्यांत तातूंन वाचप्याचें मन सामकें ओडून घेवपी पात्र खंयचें आसत जाल्यार तें आबचें. हो मनीस गाळयांनीच उलयना, पुण भुग्यांनी गाळयांनी उलोवचें, ही गजाल ताका मानना. उलोवपांत हो मनीस ओबडधोबड आसता, पुण ताच्या काळजांत बरेपणाचो झरो व्हावता. ताचें अंतःस्करण कोमल आसता. आबच्या मरणाच्या पार्श्वभूंयेचेर, लेखकान कोळंबांतल्या लोकांचो मिनाच्या पैशांक लागून जाल्लो जो अधःपात रंगयला, तो मनाचो थाव घेतल्ले बगर रावना. जे आबक पयलीं गांवांतलो दर एकलो जाण्टो-नेण्टो मान दितालो, तें आबच्या मड्यार नदर घालपाक देकून एकलोय दादलो मनीस येना, मागीर खांदो मारपाक कोण आसतलो? धर्मप्रमाण आबूक लासपाचो, पुण गांवांतल्या लोकांचें मनीसपणच मेल्लें आसता, आनी मास्तराचेर आबूक पुरपाचो प्रसंग येता. निमाणें मास्तराचेरय गांव सोडून वचपाचो प्रसंग येता. अशातरेन गांवांतलो निमणो आदर्शय गांव सोडून वता आनी कोळंबावयलें अधःपाताचें सांवट अदीक गाड जाता.

मास्तरान गांव सोडून वचपाच्या प्रसंगाउपरांत लेखकान आपल्या लिखणेचो सगळो 'फोकस' पंडरीच्या कुटुंबाचेर घातला. पंडरीच्या कुटुंबाचो मिनाक लागून कसो अधःपात जाता, हें लेखकान वेगळ्या वेगळ्या प्रसंगांची निर्मिती करून रंगयलां. पंडरीचो पूत नानू हो मिना-खणीर ड्रायव्हराचें काम करता, तर धुव केंसर कामेरें म्हूण मिनाच्या प्लँटार वावराक वता. पंडरी चिचेदेवगार च्याचें दुकान उगडटा. आपुण शाळेंन वतां, वावराक वचना, अशें म्हूणून रडपी नानू आतां पिरायेन वाडिल्लो आसता आनी सोरो, बायल, ह्या व्यसनांत बुडून गेल्लो आसता. केंसराचोय अधःपात जाता. तें गुरवार जाता. पंडरीच्या कुटुंबाचें हें नैतिक पतन रंगयता आसतना लेखकान निवेदन, प्रसंग-निर्मिती, संवाद आनी मन-चित्रां, ह्या सगळ्या गजालींचो उपेग केला.

ही दुर्दशा फकत पंडरीच्या कुटुंबाचीच आसना, ती प्राति

निधीक आसा, अशे तरेन ती लेखकान चितरायल्या. सबंद गांवार आयिल्लें हें संकश्ट आसा, हाची वाचप्याक जाणीव जाता. केंसर आनी मानुयेल हांच्या भितल्लो ट्रकांतलो संवाद, पंडरी आनी शाण हांच्या भितल्लो तळ्यावयलो संवाद, संसार पाडव्याउप्रांत सत्यनारायणाच्या पुजेदिसाचो प्रसंग, मानुयेल आनी नानू मोऱ्या-दुकानाचेर सोरो पिवंक बसल्यात तेन्ना तांच्यामदीं जाता तें उलोवणें, अश्या कितल्याश्याच संवाद आनी प्रसंगांतल्यान कोळंब गांवातलो मनीस आनी एकंदर समाज कसो बदल्ता, ताची अधोगती कशी जाता, हाचें चित्रण लेखकान केलां. शिक्षणाखातीर गांव सोडून गेल्लो आनी चित्रकार जाल्लो शंकर जेन्ना गांवात परतो येता, तेन्ना आपणाल्या गांवाची जाल्ली दैना पळोवन तो दुखी-कश्टी जाता. व्यस-नांत बुडिल्ल्या नानूक जेन्ना आपली भयण केंसर गुरवार आसा, अशें कळटा तेन्ना तो साबदीर येता. ताच्या आंगावयली व्यसनाची धुंदी एकदम देंवता आनी आखरेक खणीर जाल्ल्या एका अपघातांत तो मरता.

मिना धंद्याक लागून पंडरीच्या कुटुंबाची जी दैना जाता, तिचें नवलकाणयेच्या सगळ्या प्रकरणासावन लेखकान जें चित्रण केलां, तें नितलें प्रत्ययकारी जावंक ना. बदल चितरावपाच्याबाबतींत तें अपूर्ण दिसना. नवलकाणयेंत सुर्वेच्या कांय प्रकरणांत गांव–जिणेंतल्या उदात्त-तेचें, ताच्या वेगळ्या–वेगळ्या वैशिश्ट्यांचें तपशीलान चित्रण करपी आनी गांवातल्या भौतिक जिणेच्या भाव- विश्वाचें टसटशीतपणान वर्णन करपी लेखकाची लिखणी मिना–उद्योगान घडोवन हाडिल्ल्या बदलांचें चित्रण करपाक उणी पडल्या, हाची जाणीव जाता. ह्या चित्रणांतले कांय प्रसंग मुद्दाम जुळोवन घेतिल्ल्यावरी दिसतात. पंडरीच्या कुटुंबाची पार्श्वभूंय घेवन सबंद समाज कसो बदल्ता, हाचें लेखक अदीक खोलायेन आनी बारीकसाणींन चित्रण करतलो, अशे अपेक्षेन वाचपी नवलकाणी वाचता, पूण ताची निराशा जाता. नवलकाणयेचो शेवट ज्या प्रसंगान जाला, तो प्रसंग परिणामकारक दिसना. हे आनी हाचे पयलीं हावें निर्देशिल्ले कांय दोश आसूनय, ' अच्छेव ' ही कोंक-

णीतलीच न्हंय, तर गोंयच्या एकंदर साहित्यांतली एक उत्कृश्ट नवल-काणी जावन आसा. गोंयांतल्या गांवजिणेचें इतलें वास्तववादी चित्रण हाचेवयलीं कोणेंच केन्ना काडिल्लें दिसना. नवल-काणयेंत पडबिंबित जाल्लो हो वास्तववाद, हो तिचो सगळ्यांत व्हडलो गुण. लेखकाच्या साहित्यिक कुशालकायेक लागून हें वास्तववादी चित्रण कलात्मक जालां आनी म्हणून वाचनीय जालां. खणी उद्योगाचो गांव-जिणेवयलो परिणाम, हो विशय घेवन हाचेआदीं एकूय नवल-काणयेकार मुखार सरूंक ना शिल्लो. हे नवल-काणयेचें व्हडपण ह्या वयल्या गुणांत आसा. पूण, ह्या बाराबरच 'अच्छेव' चें साहित्यिक व्हडपण दाखोवपी आनी कांय घटक ह्या नवल-काणयेंत दिश्टी पडटात. एक घटक आसा, लेखकान वापरिल्ली गोंयच्या मातयेचो वास आशिल्ली नीज गांव-भास. गांवातल्या मौसाची ही शुद्ध कोंकणी भास जेन्ना पात्रांच्या तोंडांतल्यान भायर पडटा तेन्ना हीं पात्रां जिवीं जावनच आमचेकडेन उलयतात कि कितें अशें दिसता. हाकालागून लेखकान चितरायिल्ली सबंद समाज-जीणच वास्तव जाल्या.

'अच्छेव' च्या साहित्यिक व्हडपणाचो, ताच्या कलात्मकतेचो आनी एक घटक आसा, तो म्हणल्यार लेखकान वातावरण-निर्मिती करपाखातीर काडिल्लीं सैम-चित्रां. चित्रकाराच्या कुशळतायेन काडिल्लीं हीं सैम-चित्रां कथानकाकडेन एकजीव जाल्ल्यान तीं अडेचीं दिसनात. लेखकान आपणाच्या भास शैलीन सैम जिवो केला, अशें म्हणल्यार अतिशय जावंची ना. गांव-जीण, गांव-जिणेचीं सांस्कृतिक नी धार्मिक आंगां, शेतकामाच्यो वेगळ्यो वेगळ्यो बारकायो, हांचीं तपशीलान केल्लीं कलात्मक वर्णनां वातावरण-निर्मिती अदीक उठावदार करतात.

'अच्छेव' ह्या नवलकाणयेचें साहित्यिक मोल आनी एका घटकान वाडयलां, वो घटक म्हणल्यार, लेखकान चित्तवेधक प्रसंगांची गुंथण करपाच्या बाबतींत दाखयिल्ली कुशालकाय. प्रसंगांतल्यान आनी संवादांतल्यान कथानक मुखार व्हरपाची कला लेखकाक बरी जमल्या. गांवांतल्या लोकांची उलोवपाची तरा संवादांत बार-

रिल्ल्यान नवलकाणयेक वास्तवपणा आयला. श्री. पुंडलिक नायक हांची प्रतिभा-शक्त आनी एका मळार ठसठशीतपणान उकती जाल्या, तें म्हळ्यार नवलकाणयेंतलें सभाव-रेखाटन. लेखकान वेगळ्यावेगळ्या पात्रांचें जें सभाव-दर्शन घडयलां तें कथानकाचो प्रवाह मुखार व्हर-पाक मदत करता. 'अच्छेवां' तच न्हय तर तांच्या हेर सगळ्या साहित्यांत, सभावचित्रणाची कला तांकां बरी जमल्या, हाची प्रचिती येता. हाकाच लागून तांच्या नाटकांतलीं आनी हेर साहित्यांतलीं पात्रां वास्तव दिसतात. 'अच्छेव' ह्या नवलकाणयेंतलें आबू हें पात्र वाचप्याच्या स्मरणांत सासणाचें रावतलें, अशे पद्धतीन ताचें चित्रण जालां. पंडी, मास्तर, नानू आनी बाबुसो हीं पात्रांय जितीं दिसतात. पात्रांची वागणूक आनी उलोवणें, हांच्यामार्फत सभावचित्रण करपाची लेखकाची कुशळटाय नदरेंत भरता. श्री. पुंडलिक नायक हांच्याकडेन आशिल्ली निरीक्षणाची बारीकसाण, भाशेवयलें तांचें प्रभुत्व, गांव जिणेचो तांचो व्यापक अनुभव आनी तांची आकांताची कल्पनाशक्त, ह्या गुणांक लागून तांच्यो नवलकाण्यो, कथा आनी नाटकां हातूंतलीं सभाव-चित्रणां वास्तव आनी रसरशीत जाल्यांत.

खंयचोय लेखक आपणाच्या साहित्य शिल्पांतल्यान जेन्ना एकाद्रें जिणे–चित्र रेखाटटा, तेन्ना तातूंतल्यान लेखकाचो जिणेविशींचो तात्विक नदरेकोण आपशींच प्रतित जाता. 'अच्छेव' ह्या नवलकाणयेंत कसलो तात्विक नदरेकोण पडबिंबित जाल्लो आमकां दिसता? मिना-उद्योग वो सगबार उद्योगिकरण मनीस-कुळयेक नाचपाट करतलें, हो लेखकाचो तात्विक नदरेकोण आसा, अशें अनुमान काडूं येता? नवलकाणी बारीकसाणीन वाचल्यार ह्या प्रश्नाची जाप 'ना' अशीच मेळटा. श्री. पुन्डलिक नायक हे उद्योगिकरणाच्या आड नात. उद्योगिकरणाक लागून मनीस कुळयेचो नैतिक अधःपात जावंचो न्हय, हो नदरेकोण तांच्या नवलकाणयेंतल्यान प्रतित जाला. गांव-जिणेची उदात्तता, ताचीं निर्मळ वैशिश्टयां आनी नैतिक मुल्यां कायम उरचीं, ही तांची विशाल दृश्टी 'अच्छेवा'च्या पानापानार उकती जाल्ली दिसता.

आयज श्री. पुंडलिक नायक हे एक प्रतिभावान नाटककार म्हूण गाजतात. कथा, कविता, नवलकाणी आनी नाटक ह्या साहित्याच्यां म्हत्त्वाच्या मळांनी जांची लिखणी सारक्याच समर्थ-पणान भोंवल्या असो एकमेव कोंकणी लेखक म्हळयार श्री. पुन्ड-लिक नारायण नायक. कोंकणी साहित्य संवसारांतलो तो एक चम-त्कार आसा, अशें म्हणप मानय अतिनायेचें जावंचें ना. 'अच्छेवा'न तर हें दाखोवन दिलांच.

- ४ -

# कार्मेलीनाचें व्यक्तिचित्रण

कोंकणी सरस्पतीच्या संवसारांत भर घालपी ज्यो थोड्योच तोलामोलाच्यो नवल - काणयो आसात, तातूंत 'कार्मेलीन' हे नवल- काणयेचें नांव घेवपाक जाय. 'कार्मेलीन' ही नवलकाणी 'नवें गोंय' ह्या दिसाळ्यांत खिरस्तांनी परगट जावंक लागतगेर तिजेर कांय गोंयकार भावांनीं ती किरिस्तांव बायलेचें विकृत चितारप करता म्हुण टिका करपाक सुरवात केली. सबंद नवल- काणी वाचचे पयलींच हे लोकांनी तिचेआड आरगाले आवाज काडिल्लो. नाय जाल्यार, आमकां गोंयकारांक शितापुडें मीठ खावपाची संवय आसा. 'कार्मेलीन' ही नवल - काणी जाणें बारकायेन वाचल्या, ताका एक गजाल घणघणीत स्पश्ट जाता, ती म्हळ्यार ही नवल-काणी किरिस्तांव बायलेचें विकृत चित्रण करना आनी किरिस्तांव समाजाचेंय विकृत दर्शन आमकां तातूंत घडना. वयल्यान, किरिस्तांव समाजाचें आनी ह्या समाजांतल्या बायलेचें चित्रण श्री. दामोदर मावजो हाणीं इतल्या सहानुभूतीन केल्लें आमकां दिसता कि नवल - काणी वाचून सोंपयतगेर आमच्या मन - पडद्यार उबें जाता तें दुर्दैवाच्या भोंवऱ्यांत सांपडिल्ल्या एका कोमल मनाच्या बायलेचें चित्र. कार्मेलीनाच्या सुख-दुखांच्या 'कॅनव्हासा' चेर लेखकान किरिस्तांव समाजाचीं सुख-दुखां ज्या उत्कटतायेन मांडल्यांत ती उत्कटताय पळयल्यार लेख-काचो किरिस्तांव समाजावयलो मोग पुराय उकतो जाता.

भुरगेपणासावन जिका दुर्दैवाच्या दशावतारांक तोंड दिवंचें पडलें, त्या कार्मेलीन ह्या बायलेची ही कथा आसा. कार्मेलीन ह्या मुखेल पात्राभोंवतणीच ह्या नवल-काणयेचें कथानक गुंतिल्लें आसा. म्हणटकेर ही नवल-काणी यशस्वी नवलकाणी आसा काय किते, हें थरयतलो जाल्यार कार्मेलीनाचें व्यक्तिरेखाटन यशस्वी जालां काय किते, हें पयलीं थरवचें पडटलें.

नवलकाणी सुरू जाता ती कार्मेलीनाच्या कुवेतांतल्या वास्तव्याच्या चित्रणान. कार्मेलीन निसार आनी नोरिया ह्या अरब घोव बायलेच्या कुटुंबांत आया म्हूण वावरत आसता. आपलो घोव दोंव जुझे आनी चली वेलिंदा हांकां गांयांत दवरून कार्मेलीन आपले चलयेच्या परजळीत फुडाराखातीर पैशे जोडूंक कुवेताक आयिल्लें आसता. नवल काणयेच्या सुर्वातेकच लेखक आमकां कार्मेलिनाचें मन-विश्व उकतें करून दाखयता आनी तातूंतल्यान वाचप्यांमुखार कार्मेलिनाची व्यक्तिरेखा साकार जाता. तो दीस कार्मेलिनाच्या आडतिसाव्या जल्मदिसाचो आसता. आदल्याच दिसा ताका गांयच्यान ग्रिटींग कार्ड आनी चीट मेळिल्ली. फर्नांडिसांची साडेपांच वरां जाल्लीं आनी कार्मेलीन येवजणेंत बुडून गेल्लें. पूण ताका सगळ्यांत पयलीं याद येता ती आपल्या चलयेची— वेलिंदाची. ताका अठरा वर्सां जाल्यांत, हाची ताका सगळ्यांत पयलीं याद जाता. तो दीस जुम्मा म्हळ्यार शुक्रार आशिल्ल्यान कार्मेलीनाक वावर उणो आसता आनी म्हूण तें हांतुणार लोळटच आपल्या जिणेंतल्या फाटल्या घडणुकांचो विचार करता. मागीर ताका याद जाता ती निसाराची — ताच्या पात्रांवाची. आपल्या पात्रांवपणाचो लाब घेवन निसारान कार्मेलिनाची कूड भश्टायिल्ली आसता. दर शुक्राराक तो कार्मेलिनाकडल्यान आपली कुडी-भूक भागयता आनी आपूण करतां ती आपली अधोगती, हें जाणा जावनूय कार्मेलीन आपल्या धुवेखातीर सगळें सोंसता. निसाराची याद जायनाफुडें ताचें आंग शिरशिरता. निसार म्हळ्यार आपली अधोगती ... कळंक! बायलेक कुळारा पावोवन तो दर शुक्राराप्रमाण आजय येना

जाल्यार पुरो, अशें ताका दिसता. हातुगाचेर आसतनाच कार्मेलीन उशापोंदचें ग्रिटींग कार्ड परतें हातांत घेता आनी ताचेवयल्या चलये-भुग्याचें चित्र पळयनाफुडें ताका परतीय बेर्लांदाची याद येता. बेलांदा अशेंच दिसता काय ?

सकाळची फुटी च्या घेवन निसार– नोरियाच्या कुडींत वता आसतना ताका याद जाता, ती एके राती निसारान ताचेर लादिल्ल्या कुडी– संबंदांची. तो उगडास काडून कार्मेलीनाचें आंग शिर-शिरता. ब्रेकफास्टाच्या वेळार निसाराक ताच्या जल्मदिसाची याद जाता, तसो तो ताका परबां दिता. आनी कार्मेलिन संतोशभरीत जावन परतें येवजूंक पट्टा. निसार कितलो बरो. जुझेक खबर तरी आसा काय आपणाल्या जल्मदिसाची ? नोरिशान जल्मदिसा निमतान दिल्लें मिठायेचें फोलीग हातांत घेनताय ताका बेलांदाचीच याद येता. ही अळशिकावणी जीग आनीकूय घाणांत पडल्यार कमायता. पुण बलिंदाची जीग परमळीत करपाक जाय. इतल्यांत ताका जुझेचो उगडास जाता, तशें तें आंग काडटा. कसल्या मनशाबराबर आपणें साकामेंत जोडलो ! आपल्या संवसाराची वाट लागली ती आपल्या घेवाकूच लागून, हें येवजिता आसतना बेर्लांदाक कुवेत हाडपाचो विचार ताच्या मनांत जोगलावन वता. तशें ताचें आंग शिरशिरता. ताका कुवेतांतले हे अळशिकेंत हाडूंक जायना. हो वास लेगीत ताका लागूंक जायना, हें तें आपल्या मनाक निर्धारान सांगता...

अशे तरेन श्री. दामोदर मावजो हाणीं नवल– कागयेच्या प्रास्ताविक प्रकरणाच्या पयल्या आठ पानांतच जल्मदिसाचो प्रसंग उबो करून आनी ह्या प्रसंगाच्या पार्श्वभूंयेचेर कार्मेलिनाची मनस्थिती आनी आपणाल्या जिणेंतल्या फाटल्या घडणुकांविशीं ताच्या मनांत उचंबळून आयिल्ले विचार आनी उगडास हांचें चित्रण करून कार्मेलिनाची व्यक्तिरेखा वाचप्यांमेरेन पावोवपाचो यशस्वी प्रयत्न केला. कार्मेलिनाच्या मनांतल्यो येवजणी आनी उगडास हांच्या माध्यमांतल्यान कार्मेलिनाची जी व्यक्तिरेखा आमच्या दोळ्यांमुखार येता, ती आसा एका संवेदनाशील, कोमल काळजाच्या बायलेची. निसाराकडेन जें कितें आपुण

करतां तें अळशिगावर्गे, हें जाणा आसूनय बेर्लिंदाचें बरें जावपाखातीर कार्मेलीन तें सगळें सोंसता. पैशे नर मेळोंक जाय, एक फावट कूड भश्टल्लीच आसा आनी आपुण आयलां तें बेर्लिंदाची जीण सुखी करपाखातीर पैशे जोडूंक, म्हणटगेर कुवेत आसामेरेन हें मोसपाकच जाय, हे विचारान तें आपली कूड निसाराच्या सुवादीन करता. पुण दुसरे वटेन ताच्या मनांत होयीय विचार आसा कि, निसागापासून आपणांक सुख मेळटा, जें सुख जुझे—आपलो घोव दिवंक शकलो ना. आपणाकडच्यान निसार स्वताची कुडी-भूक भागयता, ही गजाल सोडल्यार निसार हो एक बरो मनीस, मायेस्त मनीस, हाचीय ताका जाणीव आसा. अश्यो परस्पर-विरोधी भावना ताच्या मनांत आसात. पुण, ताचें मन पुराय व्यापून वडोवपी गजाल जर खंयची आसत नर ताचो बेर्लिंदावयलो मोग. ताच्या मनाच्या तळाक घांस घेवन राविल्ली आनी एक गजाल आसा, ती म्हळ्यार जाग्गें आपल्या संवसाराची पुराय वाट लायल्या त्या आपल्या घोवाविशींची तिडक.

अश्या वेगळयावेगळया भावनांचें मिश्रण जाच्या मनांत आसा त्या कार्मेलिनाची व्यक्तिरेखा अदीक स्पश्ट करपी, अदीक गाड करपी एक प्रसंग लेखकान ह्या प्रास्ताविक प्रकरणांतच घातला. तो असो. तो शुकार आशिल्ल्यान निसार बायलेक मावड्या पावोवन परतो घरा येता. येतना ताणें कार्मेलिनाक जल्मदिस-भेट हाडिल्ली आसता. पुण ही भेट आसता बेर्लिंदाखातीर हाडिल्लो सुंदर फ्रेम. तो बेर्लिंदाखातीर आसा, हें कळनाफुडें कार्मेलीनाचें मुखकमळ फुलता. आपुण जावन तें निसाराक वेंग मारता. आनी मागीर आपल्या कुडीचो निसार स्वताक जाय जाय तसो भोग घेता आसतना ताका जरी लज दिसता तरी त्या सुखांत तेंय सहभागी जाता. हें सगळें घडून वता म्हणसगर फोन वाजता. जुझे भायर पडलो, अशी गोंयच्यान तार आयल्या, अशें कळोवपी हो फोन आसता. ही खबर आयकनाफुडें कार्मेलीनाची जी स्थिती जाता, ती लेखकान अशा तरेन चितरायल्या कि हे चित्रणाक लागून कार्मेलिनाची व्यक्तिरेखा वाचप्यांच्या मनांत अदीक सुस्पश्ट आकार घेता. कार्मेलीनाक हो धक्को सोंसूं जायना. तें रडूं लागता. पुण, हे रडयांतय

बैलींदाविशींचोच हुस्को चड आसता. आपल्या भुवेचें किनें जालां आसतलें, होच ताका चड हुस्को आसता. आनी मागीर ताच्या मन - दर्यांत जुझेविशींच्या बऱ्या-वायट उगडासाचीं ल्हारां व्हांवपाक लाग-तात. काझार जायत सावन जुझेकडच्यान ताका घुस्मटनारच मेळिल्लो. त्यो सगळ्यो यादी ताच्या तकलेंत जमूंक लागतात...

हे प्रास्ताविक प्रकरणांत लेखकान कार्मेलिनाचें जें सभाव-दर्शन घडयलां तें ताच्या साहित्यिक कुशळतायेचो प्रत्यय हाडून दिता. हे प्रकरणांत कार्मेलिनाच्या सभाव - दर्शनाबराबरच नवल-काणयेचें कथान-कय उकतें जाता. कार्मेलिनाचें सभाव-दर्शन आनी कथानक, ह्यो दोनय गजाली एकामेकांकडेन पुराय भरसल्यात. श्री. मावजो हांच्या प्रतिभेचो प्रत्यय येता तो हांगाच. हे प्रास्ताविक प्रकरणांत निसार, नोरिया, जुझे हांचेंय सभाव-दर्शन प्रसंग-निर्मितींतल्यान आनी कार्मे-लीनाच्या मनोविश्वाचेर उजवाड घालून लेखकान घडोवन हाडलां. हेंय ह्या प्रकरणाचो (आनी नवलकाणयेचो) एक नांव घेवपासारको गुण आसा.

प्रास्ताविक प्रकरणाउप्रांत लेखक कार्मेलिनाच्या भुरगेपणासावनच्या जिणेचें निवेदन करता आनी कार्मेलीन कशें घडत गेलें, ताच्या जिणेंत बऱ्योवायट अश्यो कसल्यो घडणुको घडल्यो, हाचो क्रमान काडिल्लो आलेख वाचप्यांमुखार उबो रावता. कार्मेलिनाची भुरगेपणासावनची कथा लेखक जसो सांगत वता, तशी ताची व्यक्तिरेखा आमच्या दोळ्यांमुखार आकाराक येता. प्रास्ताविक प्रकरणांतल्या चित्रणान कार्मेलिनाचें जें चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार उबें जाता तें मुखावयल्या प्रकरणांतल्यान अदीक गाड जाता.

कार्मेलीन हें मूळचें सुरावलेचें. ह्या गांवांर एक दिस जोरीची-तिफोयतची, अवकळा येता. दर दिसा कोणना कोण मरता आनी निमणें कार्मेलिनाचो पाय, मांय आनी भाव हांचोय ही जोरी बळी घेवन कार्मे-लीनाक उबंन वडयता. पुण कार्मेलीन वाऱ्यार पडना. ताच्या आकाचो घोव जुआंव फिलीप हो ताका आपल्या घरा - कोलव्यां घेवन वता. ताच्या आकाक फेर्नांदाक हें मानवना, पुण जुआंव फिलीप कार्मेलीनाक

आपली धुवकशी मानून ताका पोसता, ताची अपुर्बाय करता, ताका शाळेंत घालता आनी अशे तरेन कार्मेलीन हें जुआंव फिलिपाच्या घरां-तलेंच एक कशें जाता. जुआंव फिलीपाचो चलो आग्नेल हाका तर कार्मे-लीक आयिल्ल्याचो खूब आनंद जाता. लेखकान भुरगेपणांतल्या कार्मे-लिनाचें जें सभाव-दर्शन घडयलां, ताचेवयल्यान कार्मेलीन हें कितलें कोमल काळजाचें आनी कितलें साध्या-सरळ वृत्तीचें, ही गजाल स्पश्ट जाता. वेगवेगळ्या प्रसंगांतल्यान हें उक्तें जाता. धुवावले मांय आनी पाय जोरयेन हांतुणार पडिल्लीं आसतान, आनी भूक सोसूं जायना आशिल्ल्यान कार्मेलिनाचे दोळे भरून आयिल्ले आसतान; पुण अशे आवनीकायेंतय तें मायक, 'ना मांय! म्हाका च्याव नाक. म्हाका भूक लागल्या ना,' अशें सांगता. भुरगेपणासावन अशी समजीकाय आशिल्लें हें चली जेन्ना कोलच्यां रावंक येता, तेन्ना ताची समजीकाय वाडटा. आवय–बापूय नाशिल्लें, अशें आपूण चली. घरांतल्या सगळ्यांबराबर बरें भशेन वागूंक जाय, हाची ताका जाणीव जाता आनी तें आपलें आसा फेर्नांदा हाच्याकडेनय सामके आपलेपणान वागून ताचें मन जिकपाचो येत्न करता.

कार्मेलिनाची भुरगी-जीण ताच्या आकाच्या घरा आग्नेलाच्या संवकळींत पुल्ता. शाळेंतले भुरगे हेडायतात म्हूण आग्नेल कार्मेलीना-बराबर भोंवपाक लजेता. पुण, तो मुंबयसावन कॉलेजच्या सुटयेंत जेन्ना घरा येता, तेन्ना ताका कार्मेलीनाची संवकळ जायजायशी दिसता. कार्मे-लिनाच्या मनांत भुरगेपणासावन आग्नेलाविशीं मोगाची जी कीट आशिल्ली, तिका आग्नेलाकडच्यान पडसाद मेळटा आनी कार्मेलिनाचें भाव-विश्व फुलून येता. आग्नेलाबराबर वेळेर भोंवप, ताच्याबराबर हांसप-खिटखिटप हातूंत कशे दिस गेले तेंच ताका कळना. आग्नेल मुंबयसावन परतो सुटयेंत येता, तेन्ना हो मोग वाडत वता आनी एक दिस सांजवेळा वेळेर दोगांय जाणां पासयेक वतात तेन्ना कार्मेलीन आपली कूड आग्नेलाच्या सुवादीन करता. खरें म्हळ्यार, आग्नेल आपणाकडेन काजार जातलो काय कितें, मांयपायक हे मानतलें काय कितें, हो दुभाव ताच्या मनांत आसता. पुण, आग्नेलान जिवेर खुरीस करून उपर दिनाकुडें तो आपलेकडेन

काजार जातलो, हाची ताका एराय खात्री जाता. नवल-काणयेंचो हो भाग, तांतले प्रसंग आनी पात्रांचे संवाद, हें सगळें कार्मेलीनाच्या सभाव-चित्रणाक पूरक थल्ल्यां. कार्मेलीनाचें निश्पाप आनी सादें-सरळ मन जशें ह्या प्रसंगांतल्यान उकतें जाता, तशेंच आग्नेलाचें सभाव-चित्रणय हे प्रसंग करतात.

कार्मेलीन आनी आग्नेल हांची वाडटी संवकळ मायच्या ध्यानांत येना. मायच्या सांगण्यावयल्यान पाय कार्मेलीनाक, 'आग्नेलाकडेन सुत्रेज उलोवपाचें पारार कर,' अशें सांगता. 'ह्या संवसारांत जो सोंसता तोच बरे भशेन जियेता...तूंय सोंस,' अशें पाय ताका सांगता. मांय आग्नेलाची सोयरीक दुसऱ्या एका चलयेकडेन थरयता, तेन्ना तें सैरभैर जाता. जीव दिवपाचोय विचार ताच्या तकलेंत येता. आग्नेलान आपणाक फटयलो, हें दुख्ख ताची फाट सोडिना. आनी एक दिस पाय ताका जुझेची सोयरीक हाडटा. कार्मेलीन अनमनावस्थेंत सांपडटा. पुण, निमाणें ते काजाराक तयार जाता. हे सगळे प्रसंग श्री. मावजो हाणीं खूप कलात्मकतेन बरयल्यात.

जुझेकडेन काजार जातगेर कार्मेलीनाच्या वैदावासाचो दुसरो टप्पो सुरू जाता. जुझे हो सुवार्थी आनी बेबदो आसता. सास-माय आनी नणंद हांचोय त्रास कार्मेलीनाक सोंसचो पडटा. नणेच्या त्रासांतल्यान ताका मेकळीक मेळटा. पुण, जुझेकडच्यान ताका कसलेंच सुख मेळना. सोन्याकलागून जुझेची नोकरी वता. आनी कार्मेलीन नी ताच्या चलयेच्या जिणेंत उपाशीं रावपाचे दिस येतात. हो वैदावास चालू आसतना ताका आपलेपणान मदत करपाक मुखार येना, नी ताची जाव इझाबेल. आव्वरेक, पोटाचो प्रश्न सोडोवपाखातीर कार्मेलीनाचेर शेतांत वावर करपाचो प्रसंग येता. आनी मागीर एक दिस बेलींदा ह्या आरत्या भुवेचो कुडार घडोवपाखातीर कार्मेलीन कुवेताक वता. ह्या आरवानी देशांत कार्मेलीनाक भरपूर पगार मेळटा. पुण, ह्या लेखाकाशा मुखेंत उल्लेख केला त्याप्रमाण, ताच्या कुडीच्या मोबदल्यांत मेळिल्लो हो पैसो आसता. बेलींदाखातीर हो अधःपात तें मानोवन घेता. पुण, ताच्या दुर्दैवाचे दशावतार सोंपनात.

भायल्या मनशाकडेन संबंद दवल्लो, म्हुण ताची धर्नीण फटींगपणाचो आरोप करून ताका पोलिसांच्या मुवादीन करता. आनी पोलिस इन्स्पेक्टर ताच्या कुडीचो उपभोग घेवनच ताची सुटका करता. हें सगळें सोसप:-भायलें आसता. पुण, कार्मेलीन हें सोसता तें वेळिंदा सुखी जावंचे म्हुण. आपणाल्या फाटल्यान लागिल्लें दुर्देव तान्या वांट्याक मात देकून येवचें न्हय, हो ताचो निर्धार आसता. आनी म्हूणनच नवल-काणयेच्या शेवटाक, जेन्ना वेळिंदा ताका आवगाकृय कुत्रनाक व्हर, अशी विनवणी करता, तेन्ना तें तिडकीन तांबडेंगुंज जाता आनी रागाभरशीं वेळिंदाचे पोल्यार थापट फुलयता.

श्री. दामोदर मावजो हांची ही नवल्काणी वाचतगेर एक गजाल ध्यानांत येता ती अशी कि, लेखकान कार्मेलीनाचें चित्रण असामान्य कर्तृत्वाची बायल अशें करूंक ना. जिणेंनली आव्हानां पेलपी, अशी ही बायल न्हय. दुर्देवाच्या दशावतारांत सांपडिल्ल्या एका बायलेन आपल्या वांट्याक आयिल्लें दुख्ख सोसत आपल्या जिणेची वाट कशी मुखार व्हेली, एका विशिष्ट ध्येयाच्यार्नार, दुख्ख सोसप, हेंच कशें तिणें आपल्या जिणेचें मुखल आंग मानलें, हाचो उतरांनी काडिल्लो आलेख म्हळ्यारच 'कार्मेलीन' ही नवलकाणी. अन्यायाआड झगडपाची जिच्या आंगांत मातदेकून तांक दिश्टी पडना, अशा बायलेची ही काणी आसा. म्हूणनच, हे नवल्काणयेचें कथानक वाचप्याच्या मनाची तितली पकड घेना. पुण, हे गजालीच्या आदाराचेर ह्या नवल-काणयेचें साहित्य-मोल उणें लेखपाचो कोणेंय येत्न केलो जाल्यार, तो लेखकाचेर अन्याय केल्लेवरी जातलो, हेंय तितलेंच खरें. सादें-सरळ, कोमल मनाचें आनी मोगाळ वृत्तीचें एक चली जिणेंत वांट्याक आयिल्लें दुख्ख सोसत रावता, काजाराउपरान्त आपणालें चली वेळींदा हाच्या सुखाच्यार्नार दुख्ख, अन्याय मोन्यानी सहन करीत रावता, हो कथा-विशय घेवन लेखक आमच्या मुखार आयला. म्हणटगेर, ह्या कथा - विशयाची अभिव्यक्ती लेखकान कलात्मकतेन केल्या काय किते, कार्मेलीनाचें व्यक्ति-रेखाटन उठावदार जाला काय किते इत्यादि निकश लावनूच ह्या नवल-काणयेचें साहित्य-मोल थरवप, हें समीक्षकाचें कर्तव्य थरता.

लेखकान केल्ली पात्र-योजना, निर्माण केल्ले प्रसंग, वातावरण-निर्मिती, व घेतिल्ली निवेदन–पद्धत आनी संवादांची योजना, ह्यो सगळ्या गजाली कार्मेलीनाचें व्यक्ति-चित्रण घसघशीत करपाक हातभार लायतात काय किनें, हें पळोवनच 'कार्मेलीन' ह्या नवल–काणयेचें यश जोखचें पडटलें. हे सगळे निकश लायल्यार 'कार्मेलीन' ह्या नवल-काणयेचें साहित्य-मोल व्हड आसा, हाचो प्रत्यय येता. कार्मेलीनाचें सभाव–दर्शन घडोवपाबराबरच कथानकाचो प्रवाह मुखार व्हरपी प्रसंग आनी संवाद, कार्मेलिनाबराबरच हेर पात्रांचेंय सभाव–दर्शन घडोवपी प्रसंग, कार्मेलीनाच्या मनांतले उमाळे आनी विचार उकतावपी अशीं, लेखकान काडिल्लीं मन–चित्रां आनी कथानकाक फावो अशें वातावरण नी पात्र-योजना, हे सगळे गुण ह्या नवल-काणयेची कलात्मकता वाडयतात.

कार्मेलीनाची वागणूक आनी ताचें उलोवणें, तशेंच हेर पात्रांची वागणूक नी उलोवणें, हांचे मार्फत कार्मेलीनाचें व्यक्ती दर्शन ठळकपणान घडोवपांत लेखक यशस्वी जाला.

कार्मेलीनाच्या मनाचो घुस्मटमार आनी अनमनावस्था लेखकान बरेंबरेन चितरायल्या. वेलिंदाच्या पोन्यार थापट फुलोवपाच्या प्रसंगान नवल-काणी सोंपता. हो प्रसंग निमणो परिणामकारक दिसना, जाल्यारूय कार्मेलिनाच्या मनांतल्या घुस्मटमाराचें दर्शन तातूंतल्यान घडटा.

कार्मेलीनाच्या सभाव- दर्शनाक पूरक थरपी आनी ह्या नवलकाणयेचें कला-मोल वाडोवपी एक म्हत्वाचो घटक 'कार्मेलीना'त ठळकपणान दिश्टी पडटा, तो म्हणल्यार लेखकाची ओघवती आनी किरिस्तांव समाजाच्या चित्रणाक फावो अशी भाशा. पात्रांच्या तोंडांत किरिस्तांव समाजाची बोलीभाशा वापरिल्ल्यान नवलकाणयेंत किरिस्तांव वातावरण पळोवंक मेळटा. किरिस्तांवांचे सण, कार्मेलीन आनी जुझे हांच्या काजाराचो किरिस्तांव पद्धतीचो विधी इत्यादींचें लेखकान जें तपशीलान वर्णन केलां तें वातावरण निर्मपाक पूरक थल्लां. अरबी उतरांचो वापर कुवेतांतलें अरबी वातावरण दोळ्यांमुखार उबें करता. ही नवलकाणी बरोवपाखातीर श्री. दामोदर मावजो हाणीं किरिस्तांव समाजांतल्यो चाली-

-रिती, किरिस्तांव लोकांच्या वागणुकेंतल्यो बारकायो आनी आफ्रिकांतल्या देशांतल्या गोंयकारांची परिस्थिती हांचो खोलायेन अभ्यास केला, हाचें जशें प्रत्यंतर येना, तशीच तांच्या निरिक्षणाची बारीकसाणय दोळ्यांक दिसायना. कार्मेलीनाचो मानिल्लो बापूय जुआंव फिलीप, इझाबेल, जुझे आनी निसार हीं पात्रां सामकीं वास्तवांतलीं दिसतलीं, अशा तरेन ताचें व्यक्तिचित्रण जालां. तें कार्मेलीनाच्या सभावदर्शनाक पूरकय जालां.

कार्मेलीनाच्या व्यक्तिचित्रणाचेर बरयतना ह्या नवलकाणयेंतल्या दोश-थळांचेर बोट दवरप योग्य थरतलें अशें म्हाका दिसता. हीं दोशथळां व्यक्तिचित्रण आनी कथानकाचो ओघ, हांकां बाधा हाडटात, म्हूणूनच हो प्रपंच.

ह्या नवलकाणयेंत दोळ्यांत दिश्टी पडटा तें दोश-थळ रचनेच्या संदर्भांतलें आसा. नवलकाणयेच्या पयल्या प्रकरणांतच कथानकाक संबंदीत आशिल्ल्यो सगळ्यो घडणुको कार्मेलीनाच्या यादींच्या रुपांत सारांशान सांगिल्ल्यान. वाचप्यांक मुखावयल्या प्रकरणांनी मांडिल्ल्या कथानका विशीं स्वारस्य उरना. मुखावयल्या प्रकरणांनी वाचप्यांक जें किते वाचूंक मेळटा, तो पयल्या प्रकरणांत सारांशाल्यान सांगिल्ल्या कथानकाचो तपशील. म्हूणून म्हाका अशें दिसता कि, पयल्या प्रकरणांत यादींच्या रुपांत सारांशान सगळें कथानक सांगपाचो मोह लेखकान टाळपाक जाय आशिल्लो. पयल्या [ म्हळ्यार फ्लॅश बॅकच्या ] प्रकरणांत निसार आनी कार्मेलीन हांच्या कुडी-संबंदांचें वर्णन आयलां. मुखावयल्या प्रकरणांतय ह्या प्रसंगांचें वर्णन आयलां. हीं वर्णनां अश्लील जावं नात, पुण पयल्या प्रकरणांतय तीं दिल्ल्यान तो पुनरुक्तीचो प्रकार दिसता. ह्या नवलकाणयेंत आनी एक दोश दिसता. तो म्हळ्यार लेखकान निर्माण केल्ले कांय अनावश्यक प्रसंग. हे प्रसंग कथानकाकडेन मुद्दाम जुळयिल्ल्यावरी दिसतात.

हे कांय दोश आसूनय 'कार्मेलीन' ही कोंकणींतली एक बऱ्यांतली बरी नवलकाणी आसा, हे विशीं दुभाव ना. आफ्रिकांतीं देशांत वचपी गोंयकारांक, विशेशकरून थंय घरांत नोकरी करपाखातीर वचपी बायलांक कसल्या परिस्थितींतल्यान वचचें पडटा, हाचें ह्या नवलकाणयेंत आयिल्लें चित्रण गोंयच्या साहित्य-संवसारांतलें असल्या तरेचें पयलेंच चित्रण

आसा. श्री. दामोदर मावजो हाणीं आमकां एका नव्या अणभव-विश्वांत व्हेल्यान. एका नव्या अणभव-विश्वांतल्या वास्तव जिणेचें चित्रण 'कार्मेलीन' ह्या नवलकाणयेंत जालां. म्हूणूनच, वास्तववादी नवलकाणी म्हूण तिचें मोल व्हड आसा.



# 'बनवड' – विश्वात्मक वृत्तीचो काव्यविलास

गोंयच्या मुक्तीउप्रांत कोंकणी साहित्य वेगळ्यावेगळ्या आंगांनी फुल्लं. कथा आनी काव्य, ह्यो दोन साहित्य-नरा जाल्यार आशय आनी अभिव्यक्ती ह्या दोनूय आंगांनी फळल्यात. १९६१ उप्रांत नवे कवी आनी कथाकार जशे मुखार आयले, तशे मुक्ती पयलेंचे लेखकूय नवे नेटान बरोवंक लागले. पुण, मुक्तीपयलीं जांचे विशीं खूप अपेक्षा निर्माण जाल्यो, अशा कांय साहित्यिकांची लिखणी खूब सवका चलूंक लागली. अश्या कोंकणी साहित्यिकांभितर कवी श्री गजानन रायकार हांचें नांव घेवचें पडटलें. 'म्हजे कोंकणी बोल गा अमृताची लायता पैज जशी व्हवी ज्ञानेशाची म्हज्या कोंकणी बोलामखार हार जातली ज्ञानेशाची...' अशीं तेजस्वी उतरां जाच्या लिखणेन बरयलीं तो हो कवी मुक्तीउप्रांत वोगी पडल्याभशेन दिसलो. पुण, कवी वोगी पडलो वो ताची लिखणी मात्शी सवका चलूंक लागली, म्हुण ताचो भितल्लो आवाज केन्नाच बंद पडना. हो भितल्लो आवाज गातच आसता आनी कवीचो मूड लागलो म्हणटगेर हो आवाज लिखणेच्यामार्फत उलोंवक लागता. श्री. रायकार हांचेविशीं अशेंच घडलें. थोडेच काळाभितर तांची काव्य-शक्ती मोराच्या पिसाऱ्याभशेन फुलून आयली आनी कितलींशींच वयल्या पांवड्याचीं भाव-गितां आनी कविता तांच्या प्रतिभेंतल्यान भायर पडल्यो. 'सुवारी' ह्या गीतां-झेल्याउप्रांत 'बनवड' हो कवितां-झेलो ताणीं उजवाडायलो. ह्या

झेल्यांत एकंदर ४२ कविता आसात. तातूंतल्यो कांय कविता आकाशवाणीचेर आनी 'राष्ट्रमत' दिसाळ्याचेर उजवाडाक आयिल्यो, हाचो निर्देश कवीन केल्लो आसा.

खंयचोय कवी जेन्ना कविता बरयता, तेन्ना तो वाचप्यांकडेन काळजांतल्यान उलयता. आपले उमाळे जेन्ना तो कागदार उतरायता, तेन्ना तो आपली जीवनदृश्टी वाचप्यांमेरेन पावयता. कवीच्या काव्यांतल्यान ताचें व्यक्तिमत्व आमच्या दोळ्यांमुखार उबें रावता. कवीन आपल्या बरपांतल्यान आपले वैयक्तीक उमाळे परगटांव, वो आपल्या भोंवतणच्या समाजाच्या उमाळ्यांक वाट करून दिवं, ताच्या काव्याचें हडपण मोजपाचीं दोन मापां आसात, तीं म्हळ्यार ताच्या भावानुभवाचो अस्सलपण आनी हो अनुभव साकार करपांतली कलात्मकता. हे दोन गुण आसल्यार कवीचें काव्य वाचप्यांच्या काळजाक भावूंक शकना. जी जीवनदृश्टी घेवन कवी वाचप्यांच्या मुखार आयिल्लो आसता ती जीवन दृश्टी रसिक वाचप्यांच्या मनार ठसवपांत तो यशस्वी जाता. श्री. गजानन रायकार हांचो काव्य झेलो वाचता आसतना एक गजाल ध्यानांत येता कि, तांचो भावानुभव अस्सल आसा आनी तो साकार करतना कितल्याश्याच कवितांनी (सगळ्याच न्हय) -तांणीं कलात्मकता सादल्या. 'बनवडी' तल्यो कांय कविता तर वाचप्याक उदात्त अणभवाचो प्रत्यय दितात.

सैम, परमात्मा, आपली भुंय—गोंय, मनशाचीं दुख्खां, ताचें पतन, वैयक्तिक जिणेंतलो मोग, नवो मनीस-समाज निर्माण करपाचो हांवेस, अशे वेगवेगळे विशय आशिल्ल्यो कविता ह्या झेल्यांत आसात, पुण, विशय कसलेय आसूं. कवी सैमाच्या मोगांत पडूं वो आपल्या भुंयेतल्या लोकगीतां आनी लोकसंगीताकडेन एकरूप जावं. ताच्या काव्याक मानवतावाद, विश्वात्मकता, हांची बसका आसा, हें रोकडेंच ध्यानांत येता. गोंयची लोक-जीण, गोंयचो सैम, इत्यादी गजालीक संबंदीत अशे उमाळे जेन्ना कवी उक्तायता, तेन्ना त्याच्या उतरांत फकत गोंयांविशींचोच मोग आमकां दिसना. हे उमाळ्यांतल्यान उबो जाता तो कवीचो मनीसपणावयलो मोग. श्री. गजानन

रायकार हांच्या ह्या विश्वात्मक दृश्टीक लागनच तांच्या भावानुभवाक अस्सलपणा आयला. हाचो प्रत्यय हाडून दिवपी एक उत्कृश्ट कविता म्हुणून ' उषामुक्त ' हे कवितेचें नांव घेवंक जाय. ही कविता हांवें एक फावट – कविता– झेलो उजवाडा येवचेपयलीं, कवीच्याच तोंडां-तल्यान आयकली, तेन्ना तातंतल्यान पडबिंबित जाल्ली अणभव -आविश्कारांतली कलात्मकता पळोवन हांव सामको भारावन गेलों. 'उदे उदे म्हणत यो गे माये मळबांतल्यान, ' अशी उषेची आराधना करतना कवीन सूर, ताल आनी लय हांचो जो संयोग साधला, तो वयल्या पांवड्याचो आसा. वेगवेगळ्या प्रतिमांनी उषेचें जें वर्णन कवीन केलां तें वाचता आसतना फांतोडेच्या वेळचें चित्ररुपी दर्शन आमकां घडटा. फांतोडेच्या वेळार उषा सवका सवका आपलें दर्शन दिवंक लागता, तेन्ना सगळो वाटार आनंदान, मांगल्यान भरून वोतता, ह्या अण-भवाचो वाचप्याक पुनर्प्रत्यय दिवपी ही कविता कवीच्या विश्वात्मक दृश्टीचो प्रत्यय दिता. पुण फकत सैमाचें वर्णन करपी, अशी ही कविता न्हय. सैमाच्या रुपांतल्या परमेश्वराची ही आळवणी आसा. देवावयली भक्ती–भाव हे कवितेंत उप्पाट भरून वोतता, हें हागा स्पश्ट दिसता. ही विश्वात्मक दृश्टी आमकां 'ऋचा' ह्या कवितेंतय भावता. कवी देवळांत वचपाच्या वाटेर आसतना ताका फुलां - कुरपणो घेवन आशिल्ली एक तन्नी फुलकान्न दिसता. ती ताका फुलां झेलो विकतो घे म्हुण विनंती करता. दरवस्यांत उबी आशिल्ली ही चली पळयता पळयतांच दरवटोच मळबाएदो जाल्लो कवीक दिसता. ती चली देवता जाता आनी तिच्या हातांतल्या फुलां-झेल्यांत पुराणां -वेदांगां झळकूं लागतात. ती ताका जीवन–सुत्रां सांगूंक लागता, तशीं कवीचीं उतरांय सुत्रां जातात. इतलेंच न्हय तर कवीचे हुंकार सूर जावन म्हणूं लागतात, अहं ब्रह्माऽस्मि ! अहं ब्रह्माऽस्मि ! देव-ळांत वचचे पयलींच कवीक आपुण धरून सगळ्या विश्वांत परमेश्वर भरल्लो आसा, असो आत्म-साक्षात्कार जाता, हो हे कवितेचो विशय. फुलकान्नीचें प्रतिक घेवन कवीन हांगा जें वैश्विक सत्य मांडपाचो येत्न केला, तें ताच्या काव्याक आशिल्ली आध्यात्मिक

असका दाखयता.

परमेश्वराकडेन तादात्म्य पावपाची आध्यात्मिक वृत्ती दाखो-वपी एक अशीच कविता कवीक बरी जमल्या, ती म्हंणल्यार, 'आसापण'. कवी परमेश्वराकडेन लीन जावन म्हणटा,

रे कशें म्हणं ना, तुजें आसापण जाणा आसतना हांव
रे कशें म्हणं ना, तुजें परेपण कळटा आसतना हांव !

कवीक धर्तरेवयल्या दरएक वस्तूंत, सैमाच्या दरएक रूपांत परमेश्वर दिसना आनी तार्चीं अनंत रूपां पळोवन तो बागवना. देवाच्या पुराय भक्तीन भरिल्ल्या ह्या कवितेंत कवीन आपले उमाळे इतल्या कामलपणान उक्तायल्यात कि वाचप्याच्या काळजांतली भक्तीची तार झंकाल्याबगर रावना. सैमांतल्यो प्रतिमा आनी प्रतिकां हांचो कवीन अनरूप असो उपेग केल्ल्यान हे कवितेंतलो भावानुभव अदीक समर्थपणान उक्तो जाला. भक्ती हे विशयाक फावो असो ताल आनी सूर हे कवितेंन निर्माण जाला.

श्री. गजानन रायकार हांच्या काव्याचें नदरेंत भरपासारकें एक वैशिश्ट्य म्हळ्यार तांच्या भोवतेक सगळ्या कवितांत दिश्टी पडटा तो सैम आनी तार्चीं वेगळीं वेगळीं रूपां. सैम हो विशय आशिल्ल्या कवितांत तर्शीं आमकां सैमार्चीं वेगळीं वेगळीं रूपां दिसतात, तर्शींच तीं मोग, देवाची भक्ती, गोंय आनी गोंयच्या गांव जिणेचो मोग, ह्या विशयां-वयल्या कवितांतय आमकां दिसतात. कवी सैमाकडेन इतलो एकरूप जाल्लो आसा कि, कवितेचो विशय खंयचोय आसूं, प्रतिमा आनी प्रतिकां वापरतना सैमाच्या वेगळ्या वेगळ्या रूपांचोच तो उपेग करता. 'म्हजें मन,' हे कवितेंत कवी आपल्या मनाची तुलना कोणाकडेन करता ती पळयात,

अमुरपिकें मन म्हजें
फात्तोडिच्या मळबाभशें
अमुरपिकें मन म्हजें
चवथीच्या चान्याभशेन
मन म्हजें एयल्या-वयल्या
आंब्याच्या चंवराभशेन

'एक शब्द गावलो' ह्या मनशां–मनशांमदल्या झुजांचेर, मन–शावयल्या अत्याचारांचेर बरयल्ल्या कवितेंतय आमकां 'गुळ्यांचो पावस', 'हाडां दोंगर', 'चान्नी रात' अश्यो सैमांतल्यो प्रतिमाच दिसतात. 'भार' ह्या आयच्या समाजांतल्या असमानतेचेर, कश्टकन्यांवयल्या अन्यायाचेर बरयल्ल्या कवितेंतय आमकां सैमांतल्योच प्रतिमा दिश्टी पडटात, हें मुळावयल्या कडव्यांतल्यान स्पश्ट जाता.

पिंपळावरी पान पान  
म्हवें खळखळटा  
भुजां–बावळ्यांत कसलीं तरी  
मोडां खुबळटात

श्री. रायकार हांच्यो सैमावयल्यो कविता वाचप हो एक आगळो अणभव. सैमाचीं रुपां आनी मृहस तांणीं उतरांच्या फास्केंत अश्या पिशालकायेन बांदल्यात कि, वाचप्याक सैमाचें रंग रुपासयत दर्शन घडचें.

'पावस भिजी चान्नी रात' हे कवितेंत,

चान्ने भिजयत आयल्यो धारो  
लोकांगीत गायत  
आतळ पातळ पावल्यो मारीत  
देवपरयां नाच !  
पानांतल्या अयंम्यांक  
आयल आगळी झांक  
कालवर्ली व्हांवत्या उदकांत  
दुदनी दुदुली रात  
.................

अशें जेन्ना कवी म्हणटा, तेन्ना चान्न्यांतल्या पावसाचें चित्र आमच्या दोळ्यांमुखार उबें रावता. 'तिळसान' ह्या कवितेंत सैमाच्या एका वेगळ्याच रुपाचें आमकां दर्शन घडटा. तिळसानच्या वेळार उजवाडाची सुवात काळोख कसो घेता, हें समर्पक आनी थोड्याच उतरांनी कवीन सांगलां. 'पिशें', 'पारजत,' 'एक रंजण' आनी 'रास'

ह्यो कवितांय अश्योच सैमाचीं वेगळींविगळीं रूपां समर्थपणान उतरबद्ध करतात.

तणा तोंकार
थेम्या थिकां
................ (पिशें)
धरीफुल्ल कशी मोतयांची रास
................
जिनसा–जिनसाच्यो
किरां–मोरांच्यो
आंगोळी बऱ्यो सोबित आंगणांत !
(पारजत)

आयज वारो भंवर आला
वयल्या रानांत आवरो उठला
(एक रंजण)

वावटळीन
धुळवड केली
मेंदरायान
शिंपल्यो सरी
राधेवरी
धरतरेर
रंग माल्लो !
रंग माल्लो !
(रास)

वयलीं हीं कडवीं दोळ्यांवाला घातल्यार सैमाचीं रूपां भिन्न-भिन्न्या पिंगोलान रंगयता आसतना कवीन कशीं मोजकींच उतरां वापरल्यांत ताचो प्रत्यय येता. मोजक्याच उतरांनी सैम रंगवप, हें जशें कवीचें एक वैशिश्ट्य, तशेंच सैमाचें व्यक्तीकरण करप हेंय एक म्हत्वाचें वैशिश्ट्य आमकां दिसता. अशें व्यक्तीकरण केल्ल्यानच कवीक सैमाचें वर्णन मोजक्याच उतरांनी करप शक्य जालां.

'दोंगर पिसो जालो' 'झरी उदका सवन पडलां,' 'दर्या ल्हारां खेळटी घालो,' 'वृद्ध न्हंयो नाचूं लागल्यो' 'विज बायेन घातलो दोळो' 'खिन्न काळोख रडटना' 'चान्नें लजता' 'काळखाचो पालव' 'मुमुक्षूंनी बाये पारजत कळेता,' अशीं सैमाच्या वेगळया वेगळया रुपांचें व्यक्तीकरण करपी उतरां तांच्या कवितांनी दिश्टी पडटात.

श्री. गजानन रायकार ह्यांच्या काव्याचो आनी एक विशेश रोकडोच नदरेंत भरता, तो म्हंणल्यार लोकजिणेकडेन, लोकगितां, लोकसंगीत हांचेकडेन पुराय एकरुप जाल्लें तांचें मन. तांच्या कवितांत आमकां लोकसंगीत, लोकगितां आनी लोकजीण हाचेवयलो तांचो मोग पावलाकगणी मेळटा. कवीनच एके कवितेंत म्हंणलां तेप्रमाण

आमच्या आंगा-पांगांत मेळ
आमच्या बडी-बडयेंत खेळ
आमच्या रगता-मासांत शिगमो
आमच्या स्वासांभितर शबय

लोकजिणेच्या ह्या वेगळया वेगळया आंगांचो तांच्या काव्याचेर आशयाचे दृश्टीन जसो प्रभाव पडला, तसोच तांच्या कवितेच्या 'फॉर्मा' चेरय हो प्रभाव पडिल्लो आमकां दिसता. लोकगितांचे सूर आनी ताल आपल्या कवितेंत निर्माण करपांत ते यशस्वी जाल्यात.

श्री. रायकार हे लोक-जिणेकडेन इतले समरस जाल्ले आसात कि, तांच्या कवितेंत ल्हारां घालो खेळटात, वादळ कालो करता, घन शिगमो तर वावटळ धुळवड करता. इतलेंच न्हय, तर तांच्या एके कवितेंत पाऊस लोकांगीत गायत येता. गोंयच्या लोक-जिणेंत 'बनवड' हो एक लोकगिताचो प्रकार आसा. पुनवेच्या रातीं गांवांतल्या लोकांमुखार घुमटांच्या नादांत, गावपी काणी गावन सांगता. ही कार्यावळ रातभर चल्ता. श्री. रायकार हाणीं 'बनवड' ह्या कवितेंत हाचें इतलें टसटशीत वर्णन केलां कि सूर आनी ताल हांची ही कार्यावळ ह्या कवितेंतल्यान सूर आनी तालासयत आमच्या दोळयांमुखार उबी जाता. 'बनवड' ही तांच्या 'उपासुक्त' इतलीच एक श्रेश्ट कविता आसा. गोंयावयलो कवीचो मोग सामको अस्सल. निरपेक्ष. कवी आनी ताची भूंय एकामेकांपासून

वेगळी काइंकच नज, इतलें दोगांयभितरलें लागशिल्लें नातें. ‘ वारसाण ’ ह्या कवितेंत हाचें प्रत्यंतर येता.

म्हज्या रगता वारसाण रे
ह्या दर्या उदकाची
म्हज्या रगता तांबसाण रे
हे तांबडे मातयेची !

‘ व्हडवीक ’ हे कवितेंतय कवीचो गोंयावयलो मोग प्रतीत जाता. कवी म्हणटा,

आमकां येतात आंवडे हांगा
आमच्या गोंदच्या घोटांचे
कातले बांगडा जाय आमकां
दोन कुडके साटांचे !

पूण कवी घोटां आनी साटां हांचेपरस गोंयच्या गांव-जिणेंतच चड रमलो आमकां दिसता. शिगमो, जागर, धालो, मेळ, खेळ हांचेंच ताका चड अप्रूप. म्हणूनच गोंयावयल्यो ताच्यो कविता वाचतना आसतना आमच्या कानार घुमटां, समेळ, कासाळीं हांचो गाज गुंजता. नाशें, धोल, शिंगां हांचो नाद आमचें आंग शिरशिरायता. गोंयचेवयलो कवीचो मोग हो कुडो न्हय, हेंय तितलेंच खरें. हाचें प्रत्यंतर दिवपी कविता म्हळ्यार ‘ आमी गोंयकार ’.

स्वंयच्याय कवीक जेन्ना संसारीक जिणेंत दुख्ख सहन करचें पडटा, तेन्ना तें ताच्या लिखणेच्या तोंकांतल्यान थेम्या-थेम्यांनी गळटत रावता आनी तातूंतल्यान निर्माण जातात विशिश्ट तरेच्या उमाळ्यांनी भरिल्ल्यो कविता. अश्या कवितांनी वैयक्तिक उमाळेच परगट जातात, अशें न्हय तर सामाजिक उमाळेय तातूंतल्यान पडबिंबित जातात. ह्या कवितां झेल्यातल्यो कांय कविता कवीक संसारीक जिणेंत कितलें दुख्ख सहन करचें पडलां हाची कल्पना दितात. हें दुख्ख कवीन अगस्ती रुशीन दर्या जसो पिवन वडयलो, तशें पिवन वडयलां, ही गजाल ह्या कवितांतल्यान उक्तो जाता. श्री. रायकार हांचें हे विशीचें वैशिश्ट्य अशें कि, ह्या दुख्खान तांच्या काव्याक निर्शणेचो सूर दिवना. वयल्यान,

हें दुख्ख तांकां देवान दिल्ली व्हड देणगी, अशें दिसता. दुख्खाचो अणभव आशिल्ल्यानूच आपुण कोणाचेर अन्याय करूंक वचना, अशें कवी 'दुख्ख' हे कवितेंत म्हणटा. दुख्खाबरावर कवीक काळोखय जाय जाय सो दिसता, ताचें कारण ताणां मुखावयल्या उतरांनी स्पश्ट केलां

काळोख आसा म्हणून म्हाका
उजळ मनीस वळखूं येता
काळोख आसा म्हणून म्हाका
दुख्ख म्हजें लिपोवं येता

[ काळोख ]

कवीक वैयक्तिक दुख्खाची पर्वा दिसना, पुण समाजांतलीं दुख्खां पळोवन मात तो कळवळटा. समाजांत दुर्बलांचेर जातात ते 'अन्यायाचे दोंगर' पळोवन, 'हूम काडटा कोण आनी गादयेर लोळटा कोण, कश्ट करता कोण आनी लोणी गिळटा कोण', हें पळोवन कवीच्या काळजाक घाये जातात. मनीस–जात आजूनय अस्त्रां–शस्त्रांचीच भाशा उलयता, ही गजाल कवीक वेदना दिता. पुण मनीस–समाजांतलीं हीं दुख्खां, दुर्बलांवयले हे अत्याचार पळोवन कवी फकत निर्शेतच रावना, अशो-गतीक पावल्लो हो समाज बदलपाचो निर्धार ताच्या उतरांतल्यान व्यक्त जाता.

गीत म्हजें जल्मा आयलां
शेतकामत्या स्वासांतल्यान
म्हज्या गितान अर्थ घेतला
हुमेच्या थेंब्यांतल्यान, (धर्म म्हजो)

अशें म्हणपी कवी नवो समाज निर्माण करपाचो हावेस बाळगिता आनी म्हणटा,

येवंची तांक हजार पोटांक
वेळार दिवंक घास
दुर्बळांचो वावराड्यांचो
हांव मरे फुडार! (भार)[1]

कवीचें मन आत्मविश्वासान पुराय भरिल्लें आसा म्हणूनच तो

अशा परिस्थितींतय,

म्हज्या हड्डयांत जियेवपाची
मळबाएदी ओड आसा– (म्हज्या माथ्यार
गगन आसा)

अशें नेटान जगाक सांगता आनी मनीस–जातीक दुख्खांत वडोवपाक मुखार सरिल्ल्या दुस्टांक म्हणटा,

तुमी पियात रगत आमचें
चिवात गात्रां–गात्रां
आमची बेर्णी कोमेतर्लीं
धरतरेर आंकरान! (दुस्टांनो)

नवो समाज निर्मुपाचो कवीचो हो निर्धार टसटशीतपणान उक्तो जाता तो 'गाराणें' हे कवितेंत. कवी हे कवितेंत, पुरसाक जशें गाराणें घालतात, तशें भारताच्या आत्म्याक गाराणें घालता,

आरे ऊठ
आरे ऊठ
राव उबो
.........
आनी दाखय
कुळावो तुजो
मेळावो तुजो
थळावो तुजो!

भारताचो पुरुशार्थ जागोवपाखातीर भारताच्या आत्म्याक हें गाराणें घालता आसतना कवी जी आव्हानपूर्ण भाशा उलयता ती कवीच्या बंडखोर वृत्तीचो प्रत्यय दिता,

तुका परसन करपाक
म्हजें शीर
उतरंवचोना!
आयज
तुज्याच मस्तकार

## गुणो घालपाचे
## तयारेंत हांव आसां !

'गाराणें' हीय एक श्री. रायकार हांची उत्कृश्ट कविता आसा. सामाजिक आशयाच्यो ह्यो कविता कवीच्या मानवतावादी वृत्तीचें दर्शन घडयतात, हें खरें आसलें, जाल्यारूय 'गाराणें' ही कविता सोडल्यार ह्या प्रकारांतल्यो भोवतेक सगळ्यो कविता कलात्मकतेच्या कसाक उतरिल्लयो दिसनात. हाचें कारण, कवीचे उमाळे ज्या उतरांच्या रचणुकांतल्यान परगट जाल्यात ती रचणूक कलात्मक रूप घेतिल्ली दिसना. कवितेंतली उतरांची रचणूक उमाळ्यांची खोलाय परगट करपांत अपेसी थल्ल्या. कविता म्हळ्यार निवळ उमाळो न्हय, कविता म्हळ्यार उमाळ्यांनी घेतिल्लें उतर-रूप. हें उतर-रूप कलात्मक जावंक जाय. उमाळो उत्कट आसलो वो विशय बरो आसलो म्हूण कविता बरी उतरनाच अशें ना. श्री. रायकार हांच्या सामाजिक आशयाच्या कवितांचें अशेंच जालां. विशय बरो आसुनय तांच्यो ह्या प्रकारांतल्यो कविता वाचप्यांच्या काळजाक स्पर्श करिनात. तांच्या प्रतिभेचो कलात्मक आविश्कार जाल्लो दिसता, तो तांच्या मैम, लोक-जीण, परमात्म्याची आळवणी, मोग ह्या विशयांवयल्या कवितांनी. सूर, लय आनी ताल हांचो सोबित संगम आमकां ह्या कवितांनी पळोवंक मेळटा. हे तीन तासांक लागून तांचें वयल्या विशयांवयलें काव्य परत परत वाचीनशें दिसता. 'उर्मिला' ही संवादरूपी कविताय ह्याच गुणांक लागून कलात्मक जाल्या. श्री. रायकार हांचें काव्य जायतीं बारकायेन वाचलां, तांकां एक गजाल दिसून येता ती अशी कि, ताणीं कांय कवितांनी वापरिल्लीं उतरां तांच्या कवितेची कलात्मकता कांय प्रमाणांत इबाडून वडयतात. देखीक, टाऽ टा (तिळसान), झेलाद राती (पावस भिजी चान्नी रात). तांच्या कांय कवितांनी आनी एक दोश दिश्टी पडटा. कविता एका विशिश्ट लयींत सुरू जाता, पुण आठ-धा वळींउपरांत कविता वेगळीच लय घेतिल्ली दिसता. 'पावस भिजी चान्नी रात' ही कविता देखीक वेवं येना. हे

न्हारीक दोश सोडल्यार ह्या कवितां - झेल्यांतलें काव्य वयल्या पांव-ड्याचें आसा हेविशीं दुभाव ना. नामनेचे कोंकणी लेखक श्री. उदय भेंब्रो हाणीं म्हणलां त्याप्रमाण, "कवीत आनी गीत हांचो असो सोबीत संदर मेळ घालपाचे कलेक 'रवीन्द्र - प्रतिभा' म्हणूं येत. ही 'रवीन्द्र प्रतिभा,' ज्या थोड्याच कोंकणी कवींक प्रसन्न जाल्या तांतले एक श्री. गजानन रायकार." श्री. रायकार हांचें काळीज सौदर्यवादी कवीचें. सैम, मोग, लोक- जीण, आपली भुंय हातूंतलें सौदर्य चाखून मनाक खोस येंव्या दर्यांत बुडोवपी, असो हो कवी. ताच्या ह्या सौदर्यवादाक मानवतावादाची सांगात आशिल्ल्यान ताच्या काव्याक एक वेगळेंच परिमाण लाबलां. बाकीबाब बोरकार, मनोहर सरदेसाय आनी र. वि. पंडित हांच्याय काव्याक सौदर्यवाद आनी मानवतावादाची बसका आसा. श्री. बाकीबाब बोरकार हांच्या काव्यांत, ह्याबाराबरच, आध्यात्मिक वृत्तीचे पडबिंबय आमकां स्पश्ट दिसता. हेबाबतींत श्री. रायकार हांचें बाकीबाबांकडेन नातें सांगूं येता. 'बनवड' ह्या झेल्यांतल्यो परमात्म्यावयल्या मोगान उपाट भरिल्ल्यो कविता वाचतगेर श्री. रायकार हांच्या काव्याचेर आशिल्लो मिराबाई, महादेवी वर्मा आनी अमृता प्रितम हांचो चड–उणो प्रभावय स्पश्ट जाता. थोडक्यांत सांगपाचें जाल्यार सौदर्यवाद, मानवतावाद आनी परमेश्वरावयलो उपाट मोग, हीं श्री. गजानन रायकार हांच्या काव्याचीं तीन लक्षणां आसात, हाची स्पश्ट गवाय 'बनवड' कवितां–झेलो दिता. ह्या कवितांक रस, लय आनी ताल हांचें परिमाण आशिल्ल्यान त्यो म्होंवाळ आनी रसाळ जाल्यात.

ह्या गुणाक लागून तांचें काव्य वाचप्याक एका उदात्त अणभवाचो प्रत्यय हाडून दिता. श्री. रायकार हे कोंकणी साहित्य–संवसारांतले एक उपेक्षित कवी. पुण, प्रतिभावान कवी चडु तेंप उपेक्षित उरना. वर्तमानकाळान अन्याय केलो जाल्यारूय भविश्यकाळ ताका न्याय दिता. श्री. रायकार हांचें काव्य जाणीं वाचलां तांकां हाची प्रचिती आयल्याबगर रावचिना.

# कोंकणींतलें समीक्षा-साहित्य

साहित्य हो जिणेचो हारसो आसा, अशें जर आमी म्हणलें, तर समीक्षा - साहित्य हो ललित साहित्याचो— सर्जनशील साहित्याचो हारसो आसा अशें आमी म्हूणूंक जाय. ललित साहित्य, हो समीक्षा –साहित्याचो विशय आशिल्ल्यान समीक्षा साहित्याची उदरगत ही ललित साहित्याचेर अवलंबून आसता. एकाद्रया भाशें-तल्या ललित साहित्याचो पांवडो संख्येन आनी गुणांनी उंच नासलो, जाल्यार त्या भाशेंत समीक्षा–साहित्य फावो त्या प्रमाणांत निर्माण जायना. तेंच बराबर हेंय खरें कि, समीक्षा साहित्याचें प्रमाण उणें आसलें वा ताचो पांवडो सकल आसला, जाल्यार ललित साहित्याच्या उदरगतीचेर मर्यादा पडटा. दोनूय तरेचें साहित्य एकामेकांक पूरक आसा, असो हाचो अर्थ. म्हूणूनच कोंकणींतल्या समीक्षा–साहित्याची स्थिती पळयतना कोंकणींतल्या ललित साहित्याची स्थिती कितें आसा, हाचेर नदर मारप, खूब गरजेचें आसा. कोंकणींतल्या ललित साहित्याच्या सध्याच्या स्थितीचेर, ताच्या विकासाचेर नदर भोंव-डायल्यार, कोंकणींतलें समीक्षा- साहित्य फाटीं कित्याक, हें रोकडेंच ध्यानांत येता.

रोमन लिपयेंतलें फकत मनरंजन करपी साहित्य आनी कन्नड लिप-

येतलें साहित्य, हांचो कांय बाबतींत आडवाद केल्यार, भारतांत स्वातंत्र्याआदीं कोंकणींत खूब उणें ललित साहित्य निर्माण जालें. १९५० उप्रांत हें चित्र बदलें आनी काव्य, कथा, निबंद, हे रूपांत देवनागरींत कोंकणी साहित्याच्या रूखाक पाल्वी फुटूंक लागली. गोंयच्या सुटके उप्रांत ललित साहित्याक उत्तेजन आनी अनुकूल वातावरण लाबलें. हे काळांत कोंकणींत निर्माण जाल्लें काव्य, कथा, निबंद, नाटकां, नवल--काणयो आनी भुरग्यां – साहित्य संख्येन उणें आसूनय तें हेर भाशां-तल्या वयल्या पांवड्याच्या बरपाकडेन सर्त करपाच्या तांकीचें आसा. साहित्याच्या ह्या सगल्या तरांत आशयाच्या दिश्टीन उमाळे नी अणभव उकतावणेचो रसरशीतपणा, विशयाचो अभिजातपणा, घाटाच्या दिश्टीन उकतावणेचे नवे - नवे प्रयोग इत्यादि विशेश घणघणीत उकते जातात. पुण, संख्येच्या दिश्टीन हें साहित्य खूप उणें आसा. फाटल्या पंचवीस वर्सांत ललित साहित्याचीं जीं पुस्तकां कोंकणींत उजवाडाक आयल्यांत वो नेमाळ्यांतल्यान जें साहित्य आमचे मुखार आयलां, तांची संख्या पळयल्यार कोंकणी साहित्याचो संवसार आजूनय बालपणांतच आसा, हाची जाणीव जाता. कोंकणी-तल्या ललित साहित्याची ही मर्यादित संख्या, हें कोंकणीतल्या समीक्षात्मक साहित्याच्या विकासाचेर मर्यादा पडपाचें एक सभाविक कारण आसा. संख्येच्या नदरेन पळयल्यार आमगेल्या भाशेंतलें समीक्षा – साहित्य सामकेंच उणें आसा. खरें म्हूणल्यार, खंयच्याय भाशेंतल्या साहित्याच्या उदरगतीच्या सुर्वेक अशेंच घडटा. जेन्ना ललित साहित्य बालपणांत आसता, तेन्ना समीक्षात्मक साहित्याक ताच्या वाडीखातीर पिकाळ जमीन लाबना. ललित साहित्याचो विकास जावंक लागतगेर बऱ्याच तेंपान समीक्षा–साहित्य बळगें घेवंक लागता. भारतांतल्या सगल्या भाशांच्याबाबतींत अशेंच घडलां.

कोंकणीतल्या समीक्षात्मक साहित्याचें प्रमाण उणें आसा, ह्या गजालीचें वयर सांगला, तें एकूच कारण न्हंय. हे मर्यादेंतय समी-

खर्चीं अदीक पुस्तकां आनी लेख उजवाडाक येवप व्हडलेंशें कठीण नाशिल्लें. कोंकणी जाणा आशिल्ल्या आनी कोंकणी साहित्यांत रस आशिल्ल्या अशा इंग्लेज, मराठी आनी हिन्दी साहित्याच्या जाणकारांनी कोंकणींत समीक्षात्मक साहित्य निर्मणाच्या गरजेचो सहानुभूतीन विचार केल्लो, जाल्यार परिस्थिती थोडी तरी सुदारतली आशिल्ली. भारतांतल्या भोवतेक भाशांतलें समीक्षा- साहित्य हें ब्रिटिश भारतांत येतगेरच आनी विश्वविद्यालयां स्थापन जातगेरूच निर्माण जालां. साहित्याची ही तरा कॉलेजां आनी विद्यापिठांतले अध्यापक आनी साहित्याचो खोल अभ्यास केल्ले हेर जाणकार हाताळटात. कोंकणी भाशा हायस्कूल, हायरसेकंडरी स्कूल आनी कॉलेज अशा नीतृय शिक्षणिक मळांनी पावल्या. आतां गोवा विद्यापीठांतय तिने मानान प्रवेश केला. पुण, गोयांत कोंकणीचें पुराय ज्ञान आशिल्लें शिक्षक आनी कॉलिज–अध्यापक हांची संख्या बरीच उणें आसा. कोंकणी भाशा आनी साहित्य, हांचो मोग नाशिल्ले अशे कितलेशेच शिक्षक कोंकणी शिकयतना दिश्टी पडटात. ही परिस्थिती बदलूंक जाय. शिक्षक आनी कॉलेज- अध्यापक हाणीं कोंकणी साहित्यांत रस घेवन ह्या साहित्याचो अभ्यास केल्ले बगर आनी आपले अभ्यास–लेख उजवाडाक हाडलेबगर समीक्षा–साहित्याची वाड जावंची ना. कोंकणीतलें समीक्षा–साहित्य वाडटलें जाल्यार आनी एक उपाय सामको म्हत्वाचो आसा. तो म्हळ्यार कोंकणी भाशा आनी कोंकणी साहित्य हे विशय पदवी आनी पदवीउप्रांत शिक्षणाच्यापांवड्यार मुखेल विशय आनी दुसरो [ Subsidary ] विशय म्हूण शिकोवपाक सुरवात करप. गोवा विद्यापीठाकडच्यान तशे प्रयत्न जावपाचे आसात, अशें आयकूंक येता. वयलो उपाय प्रत्यक्षांत आयलो जाल्यार कोंकणी साहित्याचो शास्त्रीय दिश्टीन अदीक नेटान अभ्यास जावंक पावतलो, आनी विद्यार्थ्यांच्यो गरजो भागवपाखातीर समीक्षा-साहित्य निर्माण करचें पडटलें. हे उपायाक लागून समीक्षा–साहित्याचो वाचपी–वर्गय वाडटलो. भोवतेक सगळ्या भाशांतल्या समीक्षा-साहित्यामुखार सदांच एक गंभीर प्रश्न उबो आसता, तो म्हणल्यार

अशा साहित्याक आशिल्लो सामको उणो वाचपी–वर्ग. सामान्य वाचपी--वर्ग अशा साहित्याकडेन आकर्शित जायना. हे वर्गाक समीक्षा–साहित्यापरस मूळ ललित साहित्य, तातूंतल्या तातूंत मनरंजन करपी साहित्य वाचप आवडटा. साहित्याचे अभ्यासक आनी खरे रसिक वाचपीच समीक्षा – साहित्य वाचतात. म्हुण म्हाका अशें दिसता कि, पदवी आनी पदवीउप्रांत पांवड्याचेर कोंकणी साहित्य हो विशय सुरू करतगेर, समीक्षा–साहित्यामुखावेलो उणें वाचपी–वर्गाचो प्रश्न सुटलो. विद्यार्थ्यांची गरज भागोवपाखातीर जें समीक्षा–साहित्य उजवाडाक येतलें ताका विद्यार्थ्यांच्या रुपानच वाचपी–वर्ग मेळटलो.

वाचप्यांच्या मनांत समीक्षा–साहित्याविशीं अनास्था आसा, हें जितलें खरें तितलीच कोंकणी बरोवप्यांकय समीक्षा–साहित्याचें म्हत्व कळूंक ना, ही गजाल खरी आसा. कोंकणी बरोवप्यांनीं ललित साहित्यांत चड लक्ष घातलां. कोंकणी साहित्य गिरेस्त करपाच्या दिशेन फावो अशें हें पावल आसा, जाल्यारुय आमी एक विसरूंक जायना कि, खंयच्याय भाशेच्या साहित्यांत समीक्षेकडेन दुर्लक्ष जावप, हें ते भाशेंतल्या साबार साहित्याच्या उदरगतीक लसकान करपी आसा. ग्रह जसो सुर्याभोंवतणी फेरे मारता, तशें समीक्षा--साहित्य ललित साहित्याभोंवतणी आपणालें लक्ष केंद्रीत करता. पुण, ह्याबाराबरच, ललित साहित्यय समीक्षा–साहित्यापासुन शक्त घेता. समीक्षा–साहित्य हें ललित साहित्याची पोसवण करपाच्या वावरांत म्हत्वाची मदत करता. आपल्या बरपांत बरोवपी जें कितें सांगूंक सोदता, तातूंत तो यशस्वी जाला काय कितें, बरोवप्याच्या बरपाचें अंतिम मोल कितें, हाचें सहानुभूतीन विवेचन करप, हें समीक्षेचें मुखेल कार्य आसा. वाचप्यांच्या आवडीक बरें वळण लावप, हो समीक्षा-साहित्याचो उद्देश आसता. म्हुणूनच, कोंकणींत बरें ललित साहित्य निर्माण जातलें जाल्यार कोंकणी बरोवप्यांनी समीक्षा-साहित्याचोय वावर हातांत घेवप चड गरजेचें.

कोंकणीतल्या ललित साहित्याचो पांवडो उंच आसूनय आमचें समीक्षा-साहित्य आजून फाटींच उल्लां, हाचीं कारणां हांवें वयर दिल्यांत. पुण जें किते थोडें-भोव समीक्षा साहित्य कोंकणींत आसा, तें उणे पांवड्याचें ना, हेंय तितलेंच खरें. समीक्षा-साहित्य वाडो-वपाची तांक कोंकणी बरोवप्यांमदीं आसा, हाची गवाय तानूंनल्यान मेळटा. हें समीक्षा-साहित्य चडशें, दिसाळीं आनी हेर नेमाळ्यांनीं उजवाडाक आयिल्ले परिक्षणात्मक लेख, पुस्तकांक बरयिल्ल्यो परिक्षणात्मक प्रस्तावना, साहित्य मेळ्यांत वो साहित्य परिशदांनीं केल्लीं भाशणां [अध्यक्ष वो हेर जाणकारांनीं केल्लीं हीं भाशणां चडशीं छापल्लीं आसनात.] आनी रेडियोचेर केल्लीं (आनी मागीर छापिल्लीं) परिक्षणां, हे स्वरुपांत आसा. सर्वश्री रवीन्द्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, लक्ष्मणराव सरदेसाय, बा. भ. बोरकार, रा. ना. नायक, र. वि. पंडित, चंद्र-कांत केणी, अ. ना. म्हांबरो, नागेश करमली, यशवंत पाल्येकार इत्या-दींच्या लिखणेंनल्यान अशें साहित्य भायर पडिल्लें आसा. संख्येन तें सामकें उणें आसा. श्री. गोविंद मुद्रस हांचेय साहित्य-परिक्ष-णाचे कांय लेख उजवाडाक आयिल्ले आसात. कोंकणींत देवनागरी लिपयेंत समीक्षात्मक साहित्याचें एकूच पुस्तक आसा. कोंकणी आनी मराठी भाशेंतले एक व्हड बरोवपी श्री. लक्ष्मणराव सरदेसाय हाणीं बरयिल्लें ‘कथाशिल्प’ हें तें पुस्तक. कोंकणींतले कथाकार पुंडलिक नायक, शीला नायक [आतां शांतालक्ष्मी कोळंबकार], मीना काकोड-कार आनी दामोदर मावजो हांच्या कथा-साहित्याची समीक्षा हे पुस्तकांत आसा. लक्ष्मणराव हे एक व्हड कथाकार जावन गेले. मराठी कथा-साहित्याच्या इतिहासांत तर तांची सुवात खूब म्हत्त्वाची आनी मानाची आसा. कथा हे साहित्य-तरेचो तांचो अणभव आनी साधना केदी, हें कोणाक सांगपाची गरज ना. आपल्या ह्या अणभ-वाचो नी ज्ञानाचो उपेग करून ताणीं चारूय बरोवप्यांच्या कथा-झेर्यांतलीं सुंदरतेचीं थळां आस्वादकाच्या भूमिकेंतल्यान विस्कटावन दाखयल्यांत आनी दोश-थळांचोय उल्लेख केला. हे पुस्तकांत कथेचो आशय आनी घाट, हांचेविशींय मार्गदर्शन आसा.

कोंकणी समीक्षा-साहित्यांत कांय समान गुण आमकां दिश्टी पडटात. ललित साहित्यांत जशें उकतावणेंचें स्वातंत्र्य आयलें, तशें समीक्षेचेंय रूप बदल्लें. साहित्याचें मूल्यमोजप करतना साहित्या-भायले नेम ताका लागू करप ना. बरोवपी जें साहित्य - शिल्प वाचप्यां-मुखार उबें करता, आनी तातूंतल्यान जें किनें सांगूंक सोदता, तें सोदक बुद्धीन पळोवप आनी आपल्या कार्यांत बरोवप्याक येश मेळ्ळां काय किनें, हें साहित्यविशयक नेम लावन थारावप, हें नवे समीक्षेचें कार्य आसा. नव्या समीक्षेच्या ह्या विशेशाचें पडबिंब कोंकणी समीक्षेंत पुराय नासलें, जाल्यारय कांय प्रमाणांत दिसून येता. लक्ष्मणरावांच्या ‘ कथा शिल्पां ’त हो गुण बऱ्याच प्रमाणांत उकतो जाल्लो आसा. पुण, कांय कोंकणी बरोवप्यांच्या समीक्षा-बरपांत साहित्या-भायले नेम लावन ललित साहित्याचें मूल्य - मोजप जालां, हें स्पश्टपणान दिसता.

कोंकणी समीक्षेचो दुसरो एक विशेश म्हळ्यार, हें साहित्य चडशें ललित साहित्य बरोवपी साहित्यिकांच्या लिखणेंतल्यान प्रसवलां. बेन जॉन्सन हाणां एके सुवातेर बरोवन दवरलां कि, To Judge of poets is only the faculty of poets. हें विधान पूर्ण सत्य नासलें, तरीय तातूंत कांय प्रमाणांत तथ्य आसा. जो बरोवपी ललित साहित्याचो लेखक आनी समीक्षक, हीं दोनय कामां करता, तो समीक्षा-साहित्याचो वावर बरे तरेन करूंक शकता. ललित साहित्याची कला ताका बरे तरेन खबर आशिल्ल्यान, जे साहित्याची तो समीक्षा करता, तें बरेतरेन समजून घेवप आनी ताचें मूल्यमोजप करून बरोवप्याक न्याय दिवप ताका शक्य जाता. ललित साहित्याच्या बरोवप्यान समीक्षा-बरपय करूंक जाय, हें नांवाजतें मराठी समीक्षक श्री. वा. ल. कुळकर्णी हांचें म्हणणें हे दृश्टीन म्हत्वाचें मानूंक जाय. जो बरोवपी ललित साहित्यांत अपेशी थरता, तो टिकाकार जाता, अशें कोणेय तरी म्हणलां. हें विधान कोंकणीक लागू जायना. कोंकणीतल्या साहित्यिकांनीं जें थोडें-भोव समीक्षा-साहित्य

बरयलां, तें आपल्या ललित साहित्याचो वावर यशस्वीपणान चालू दवरूनच. तें संख्येन उणें आसलें जाल्यारूय ताचो पांवडो उणो ना.

कोंकणी समीक्षेचें आनी एक वैशिश्ट्य, खरें म्हणल्यार ताची मर्यादा, हांगा स्पश्ट करूंक जाय. कोंकणींतलें समीक्षा - बरप चडशें वर्णनात्मक आसा. तातूंत विवेचनाचेर फावो तो भर दिल्लो दिसना. स्वयंच्याय बरपाची समीक्षा करतना ताच्या वेगळ्या वेगळ्या आंगांची विस्कटावणी जावंक जाय. कोंकणी समीक्षेंत हें खूप उणे प्रमाणांत दिश्टी पडटा. बरोवपी आनी ताचें पुस्तक हांची तोखणायच चड जाल्या, अशें खूप खेपे दिसता. स्वयंच्याय भाशेंतल्या साहित्य - निर्मणाच्या सुर्वेच्या काळांत अशें घडप, ही सभाविकच गजाल. साहित्य - विकासाच्या सुरवातीच्या काळांत, लेखकाक उत्तेजन दिवंचें - जाग्यार ताका नाउमेद करपाचो टिकाकारान येत्न केलो, जाल्यार ललित साहित्याची वाड खुंटटा. पुण, उत्तेजन दिवप म्हळ्यार फकत तोखणायच करप न्हय. बरपांतले दोश दाखोवन टिकाकारान लेख-काक मार्गदर्शन करपाक जाय. हें करता आसतना समीक्षकान वस्तु-निश्ठ बुद्धी आनी बरपाकडेन सहानुभूतीन पळोवपाची द्रश्टी सोडूंक फावना. कोंकणींतल्या समीक्षा—बरपांत हें आतां सवका - सवका दिसूं लागलां, ही बरी गजाल आसा.

कोंकणी समीक्षेचें एक म्हत्त्वाचें दोश - थळ ठळकपणान नद-रेंत भरता, तें अशें कि, ही समीक्षा चडशी पुस्तकांच्या परिक्षणांपुर-तीच मर्यादित आसा. कथा, काव्य, नवलकाणी, नाटक ह्यां-सारक्या एकाद्रया साहित्य - तरेच्या विकासाचो टिकात्मक अभ्यास, एकाद्रया बरोवप्याच्या सगळ्या साहित्य - कृतींच्या सगळ्या आंगांचो वा एकाद्रयाच आंगाचो केल्लो खोल अभ्यास, हे विशय कोंकणी समीक्षेन उपेक्षिल्ले आसात. स्वयंच्याय भाशेंतल्या समीक्षा—साहित्यांत जेन्ना वेगळ्यावेगळ्या विशयांचो विचार जाता, तेन्ना ललित साहित्याक बरेतरेन मार्गदर्शन जावंक पावता. कोंकणी साहित्याचो

एकंदर नियाळ करपी पुस्तकां वो लेख कोंकणींत चडशे दिश्टीच पडना म्हणल्यार जाता. क्वचित केन्नाय एकाद्रो – दुसरो लेख नेमाळ्यांनी दिसता. असलें साहित्य जें थोडें-भोव दिश्टी पडटा, तें साहित्य परिशदांनी वो लेखक संमेलनांनी केल्ल्या छापील भाशणांच्या रुपांत. पुण, सभाविकपणान, अशा भाशणांत विवेचनात्मक नियाळापरस वर्णनात्मक नियाळच चड आसता. प्रो. शांताराम हेदो हाणीं काग-कोणांत जाल्ल्या कोंकणी लेखक संमेलनांत केल्लें भाशण कोंकणी साहि-त्याच्या विकासाचो वर्णनात्मक नियाळ करपी आसलें, जाल्यारूय तांच्या ह्या भाशणांत कोंकणी साहित्याचें वस्तुनिश्ठ मूल्यमोजप जाला, हातूंत दुभाव ना.

कोंकणींतल्या समीक्षात्मक साहित्याच्या ह्या नियाळांतल्यान दोन महत्वाचीं अनुमानां भायर आयल्यांत. पयलें अशें कि, कोंकणी समीक्षात्मक साहित्याची संख्या सामकी उणी आसा. दुसरें अशें कि, जें थोडेंभोव समीक्षा - साहित्य आसा, तें चडशें विशिश्ट पुस्तकांचो परिक्षणात्मक अभ्यास हेंच स्वरुपांतलें आसा. हें साहित्याचें मळ कशें गिरेस्त करचें, हेविशीं हांवें वयर कांय उपाय सुचयल्यात. दिसा-ळ्यांनी आनी हेर नेमाळ्यांनी बरोवप्यांक समीक्षा साहित्य बरोवपाक उत्तेजन दिवचें हो आनी एक उपाय हांव हांगा सुचोवंक सोदतां. हे प्रयत्न योजनाबद्ध जावंक जाय.

जानेवारी १९८२ त साहित्य अकादमीन औरंगाबादेंत मरा-ठवाडा विद्यापीठांत गुजराती, मराठी, सिंधी आनी कोंकणी हे भाशां-तल्या बरोवप्यांखातीर 'समीक्षा - साहित्य' ह्या विशयाचेर पांच दिसांचें एक कृति - सत्र घडोवन हाडिल्लें. कोंकणी बरोवप्यांपैकीं श्री. तानाजी हळर्णकार, श्री. तेनसिंग रोद्रीगीश, सौ हेमा नायक आनी हांव, अश्या चार जाणांक साहित्य अकादमीन हे कृतिसत्रांत वांटो घेवपाखातीर आपयिल्लें. मराठी, गुजराती आनी सिंधी ह्या भाशां-तल्या बरोवप्यांसांगाताल ह्या कृतिसत्रांत वांटो घेतना आमकां

कोंकणी बरोवप्यांक कोंकणी साहित्य हें समीक्षात्मक बरपाच्या मळार कितें फाटां आसा, हाची जाणीव जाली. 'कोंकणीतल्या समीक्षा-साहित्याची सध्याची स्थिती' ह्या विशयाचेर पेपर बरोवन तो कृति-सत्रांत वाचपाची जापसालदारकी साहित्य अकादमीन म्हजेर सोंप-यिल्ली. हो पेपर तयार करपाखातीर कोंकणी समीक्षा - साहित्याचो अभ्यास करतना, ह्या मळावयली आमची आस्थन फकत एक पुस्तक, प्रस्तावनांच्या रुपांतलो कांय पुस्तकांचो परिक्षणात्मक अभ्यास. लेख नी भाशणां, इतलींच आसा, हाची म्हाका जाणीव जाली. सुदैवान कोंकणी समीक्षेची दुर्दशा सोंपपाचे दिस लागीं पावल्यात अशीं चिन्हां फाटल्या चार - पांच वर्सांत दिसूंक लागल्यांत. वेगळ्या-वेगळ्या नेमाळ्यांनी आतां समीक्षात्मक साहित्य येवंक लागलां. कांय नाणकार बरोवपी ह्या विशयाकडेन आकर्शीत जाल्यात आनी नवे लेखक ह्या मळार पावलां मारुंक लागल्यात.

फाटल्या चार —पांच वर्सांत कोंकणी नेमाळ्यांनी जांचे समीक्षा— लेख दिश्टी पडात, असो लेखक म्हळ्यार प्रा. प्रकाश थळी, श्री. अ. ना. म्हांबरो, श्री. नागेश करमली, श्री. यशवंत पालेकार, श्री. हरिश्चंद्र नागवेंकार आनी श्री. तानाजी हळर्णकार. श्री. नंदकु-मार कामत, श्री. रवीन्द्र म्हाडुंळकार, प्रा. सोमनाथ कोमरपंत, प्रा. ओमप्रकाश परब हांचेय समीक्षा- लेख नेमाळ्यांनी उजवाडाक आय-ल्यात. श्री. पुंडलिक नायक हांचो कोंकणी नाटक आनी नाट्य—माची, हे, विशयावयलो एक परिक्षणात्मक लेख 'कोंकणी' वर्सुकी अंकांत (१९८३) वाचूंक मेळ्ळो. जांचें समीक्षा - बरप हालीं उजवाडाक आयलां, असो कांय लेखक म्हज्या नदरेंतल्यान सुटल्यात जावंये. समीक्षा— साहित्याच्या दिश्टीन एक बरी गजाल घडल्या नी असो कि, कोंकणीतल्या भोवतेक सगळ्या नेमाळ्यांक आतां समीक्षा - बर-पाचें म्हत्त्व कळूंक लागलां. ललित साहित्य आनी वैचारिक साहित्या-बराबरच समीक्षा - लेखय नेमाळयांचीं पानां सजवंक लागल्यात. लेखकाच्या एकाद्रया साहित्य - कृतीचो वो तिच्या विशिश्ट आंगांचो

लेखकाकूच नियाळ करपाक लायलो जाल्यार, त्या आंगांचेर बरे-तरेन उजवाड पडूंक पावता. अशे तरेचे नियाळ - लेख कोंकणी नेमाळयांनीं दिसूंक लागल्यात. आपली आवडटी कथा वो कविता वो आपल्या पुस्तकांतलें पात्र, हांचेर लेखकांनीच उक्तायिल्ले विचार नेमाळयांनी उजवाडाक आयल्यात. हो आप - नियाळाचो प्रकार कोंकणी ललित साहित्याच्या वाडीक लाबदिणो थरनलो, हातूंन दुभाव ना. असो एक वाचनीय लेख आसा श्री. रमेश वेळुस्कार हांचो. 'शिर शिर नाम्रुबे' ह्या आपल्या कवितेची साहित्यिक विस्कटावणी ताणी ह्या लेखांत ('कोंकणी' वसुकी अंक १९८३) केल्या.

फाटल्या चार-पांच वर्सांत जें समीक्षा-साहित्य उजवाडाक आयलां ताचेर एक नदर भोंवडायल्यार एक गजाल उकती जाता ती ही कि, आतां कोंकणी समीक्षा-बरपांत मातशी विविधताय येवपाक लागल्या. काव्यांतलें समाज-दर्शन, काव्यांतल्यो प्रतिमा, एकाद्र्या कवीच्या काव्याची आशयादारीत समीक्षा, कथेचो सावार नियाळ, कोंकणीतल्या सावार नाटकांचो नियाळ, एकाद्र्या कवीची सावार कविता, कोंकणी साहित्यांतलो विनोद, साहित्य-कृतींतल्या एकाद्र्या पात्राचें सभाव - चित्रण इत्यादि विविध विशयांचेर समीक्षा-बरप जावंक लागलां. हें समीक्षा-बरप उंच पांवडयाचें आसा, हें दुभावविरयत आसलें, तरी कोंकणी साहित्याच्या वेगळया वेगळया आंगांचो अदीक खोलायेन अभ्यास करपी समीक्षा-बरप आजून फावो ते प्रमाणांत निर्माण जायना, हेंय तितलेंच खरें. कोंकणी कवितेंतले छंद, नाद, रुपकां, विशय इत्यादि मुद्यांचो अभ्यास करपी समीक्षा निर्माण जावंक जाय. कोंकणी नवलकाणी, नाटक, निबंद, वैचारिक बरप इत्यादींची अदीक खोलायेन समीक्षा जावपाची आनी तांच्यांतले प्रवाह सोदपाची खूब गरज आसा. कोंकणी कथेंतलीं वैशिश्टयां, वेगळे-वेगळे कथा-लेखक, नवलकाणयेकार आनी हेर लेखक हांच्या साहित्य - शिल्पांतले गुण-दोश आनी भुरग्यांखातीर आशिल्ल्या साहित्याचीं वैशिश्टयां, हांचेर सोदक बुद्धीन उजवाड घालपाची आव-

ज्यकता आसा. रोमी आनी कन्नड लिपयेंतल्या साहित्याचो वेगळ्या वेगळ्या आंगांनीं अभ्यास करपी, कोंकणींतल्या अप्रकाशित साहित्याचे गुण-दोश दाखोवपी इत्यादि समीक्षा-बरप उजवाडाक येवपाक जाय. रोमी आनी कन्नड लिपयेंतल्या कोंकणी साहित्यावेले समीक्षा-लेख देवनागरी कोंकणींत उजवाडाक आयल्यार रोमी आनी कन्नड लिपयेंतल्या कोंकणी साहित्याची आमकां अदीक लागशिल्ली वळख जातली आनी कोंकणी साहित्यिक जे वेगळ्या वेगळ्या लिपयांक लागून विभागल्यात ते एकठांय येवपाची प्रक्रिया सुरू जातली.

ललित साहित्य हें उत्स्फूर्त अभिव्यक्तीचें फळ आशिल्ल्यान, एकाद्र्या बरोवप्याक तूं दरवर्सा अमक्योच कथा, कविता वो नवलकाणयो बरय अशें सांगलें म्हूण तो त्यो बरोवंक शकतलोच अशें सांगूंक जायना. ललित साहित्याच्या लेखकाची प्रतिभा-शक्त नियोजनाच्या फास्कें बसवप, हें खूप कठिण, लागींलागीं अशक्य काम आसा. मागणेप्रमाण पुरवठो करपी लेखक नात, अशें न्हंय. वेगळ्या-वेगळ्या भाशांतल्या साहित्यांत ते ठळकपणान दिश्टी पडटात. पुण, अशे तरेन निर्माण जाल्लें ललित साहित्य चडशें सकयल्या पांवड्याचें आसता. उत्कृश्ट ललित साहित्य, हें उत्स्फूर्तपणानच निर्माण जाल्लें आसता. समीक्षा-साहित्याची गजाल वेगळी. बरें समीक्षा-साहित्य हेतूपूर्वक आनी योजनापूर्वक तयार करप शक्य जाता. कोंकणी साहित्यिकांनीं तशें तें तयार करूंक जाय. ह्या खातीर समीक्षेक ओंपिल्ल्या एका नेमाळ्याची सामकी गरज आसा. मराठींत 'आलोचना' हे नांवाचें एक म्हयनाळें हो वावर करता. कोंकणींत, कांय वर्सां पयलीं, समीक्षेक ओंपिल्लें 'साहित्य विचार' हे नांवाचें एक नेमाळें सुरू जाल्लें. तें आतां दिश्टी पडना.

समीक्षा-साहित्य योजनापूर्वक निर्माण करप शक्य आसलें, तरीय एक गजाल आमी विसरूंक फावना, ती म्हळ्यार ललित साहित्याचो वांगड आसल्यो, तरच समीक्षा-साहित्याचो विकास जावंक पावता.

ललित साहित्याचें झाड रसरशीतरणान फुलें, तरच समीक्षा - साहित्य नेटान पावलां मारूंक पावतलें, हाचो विसर पडूंक जायना. कोंकणीत ललित साहित्यच जर अपंगुळ उलें तर समीक्षा - साहित्याची वाड कशी जातली? समीक्षा - साहित्याच्या उदरगतीचो विचार करतना ह्या प्रश्नाकडेन दुर्लक्ष जावंचें ना, हाची आमी जतनाय घेवंक जाय.

- ७ -

# कोंकणी कथेचो प्रवास

कोंकणी सरस्वतीच्या आंगणांत कथा, ह्या साहित्य-प्रकाराचो विकास कसो आनी कितलो जालो, हें पळोवपाचो जेन्ना एकाद्रो साहित्य-अभ्यासक येत्न करता, तेन्ना एक गजाल ताच्या ध्यानांत येता कि, कोंकणी कथेचो विकास, ही पुराय नासली, तरीय व्हड प्रमाणांत गोंय-मुक्तीउप्रांतची प्रक्रिया आसा. कोंकणी कथा, विशेश-करून देवनागरी लिपयेंतली कोंकणी कथा, ही मुक्तीपयलीं क्वचितच दिश्टी पडटाली. साहित्याचो हो प्रकार आंगा-पांगान आनी पांवडथान वाडलो, तो गोंयकार मनीस वसाहतवादाच्या चेरगांतल्यान मेकळो जालो तेन्नासावनच. गोंयच्या मुक्तीउप्रांत, कथेचे मळार कोंकणी बरोवपी फाटल्या काळाच्या मानान चड प्रमाणांत दिसूंक लागले. म्हूणूनच, देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी कथेच्या वाटचालीचो आढावो घेवपाचो आसल्यार, गोंय-मुक्ती उप्रांतल्या १५-२० वर्सांत कोंकणी कथेचीं पावलां कशीं पडलीं, ह्या काळांत कथेचे विकासाचें रूप कशें आशिल्लें आनी आयची कोंकणी कथा कशी आसा, तिचो सद्याचो पांवडो कितें आसा, हाचेर बारकायेन नदर भोंवडावप खूब गरजेचें आसा.

देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी कथेची सुरवात जाली, ती शणै गोंयबाबांच्या कथा-साहित्यान. ताच्या 'गोमन्तोपनिषद' ह्या पुस्त-

काच्या दोन खंडांत ज्यो कथा आसात, त्यो ' म्हजी बा खैं गेली ? ' ह्या एका कथेचो आडवाद केल्यार, आर्विल्ल्या कथांच्या तंत्रांत बसनात. ह्या कथांक तत्त्वज्ञानी बसका आशिल्ल्यान तांचें रूप वेगळेंच आसा. शणै गोंयबाबांच्या कथा-बरपाउप्रांत कोंकणीत ज्यो कथा उजवाडाक आयल्यो, त्यो संख्येन भूव उणें आसल्यो. कोंकणी कथा-साहित्याच्या मळावयली एक बरी घडणूक दिसून आयली ती १९३५ हे वर्सा. ' ओंत्रळां ' हो प्रातिनिधीक कथां-झेलो त्या वर्सा उजवाडाक आयलो. १९५० उप्रांत आर्विल्ले कथेचें रूप आशिल्ल्यो कथा कोंकणीच्या मळार अदीक प्रमाणांत दिसूंक लागल्यो. ' भुंयचाफां ' [ १९५६ ] हो प्रातिनिधीक कथां-झेलो कोंकणी कथा सवकासवका पावलां मारूंक लागल्या, हाची गवाय दिवपी आशिल्लो. अशे तरेन, १९६१ मेरेनचो काल ध्यानांत घेतल्यार, कोंकणी कथेच्या खूप सवकसायेन जाल्ल्या वाटचालीची कल्पना येता. गोंयच्या मुक्तीउप्रांत हें चित्र बदल्लें. कोंकणी साहित्याचें मळ सगल्या दृश्टीन फुलूंक लागलें. नवे-नवे कथा-लेखक कथेचो वाठार समृद्ध करपाखातीर मुखार येवंक लागले. कथा-विश्वाचो आवांठ वाडलो. तंत्राच्या दृश्टीन कथा सुदारली. तंत्राच्या नदरेन जिका कथा म्हूण येत, अशी कथा कोंकणींत फळली, ती मुक्तीउप्रांतच. कोंकणी कथेच्या ह्या नव्या रुपाची बुनयाद घालपी वरोवप्यांभितर श्री. चंद्रकांत केणी हांचो वावर ठळकपणान नदरेंत भरता. (रोमी लिपयेंतल्या कोंकणी कथेक नवें रुप दिवपाचो वावर श्री. फेलीसियु कार्दोज हाणीं केलो.) ' धर्तरी अजून जियेताली ' हो श्री. चंद्रकांत केणी हांच्या कथांचो झेलो ह्या काळांत उजवाडाक आयलो आनी ताणें कोंकणी (देवनागरी) साहित्याच्या मळार इतिहास घडयलो. तंत्राच्या नदरेन जांकां कथा म्हूण येता, अशा कथांचो कोंकणीतलो हो पयलो-वयलो कथां-झेलो आसा.

मुक्तीउप्रांतच्या पंद्रा वर्सांत ज्या कथाकारांनी कोंकणी कथेचें रोपटें वाडयलें, तातूंभितर श्री. चंद्रकांत केणी हांच्यावेरीज श्री. दामोदर मावजो, सौ. शीला कोळंबकार [ शीला नायक ], श्री. पुंडलिक

नायक आनी सौ. मीना काकोडकार हांचो वावर सगल्या दर्शटीन उठून दिसलो. ह्या कथाकारांनी कोंकणी कथेची बरे तरेन पोसवण करून तिका एक दिशा दिली. श्री. दत्ता नायक, श्री. गजानन जोग, श्री. ओलिव्हींन गोमीश, श्री. एन. शिवदास, श्री. गुरुदास बांबोळकार, श्री. अच्युत तोटेकार, सौ. जयमाला दणायत इत्यादि बरोवप्यांनीय कथा बरवपांत सातत्य दाखोवन ही साहित्य-नगरी लोकप्रिय केली. विनोदी कथेच्या मळार हो वावर श्री. अ. ना. म्हांब्रो हाणीं मोटया नेटान फुडें व्हेलो.

हे कथाकारांबरावरच आनीकय कितल्याशाच कथा--बरोवप्यांनी कथा--साहित्यांत आप-आपल्या तरेन भर घातली. तांच्येय कांय कथा उंच पांवड्याच्यो आशिल्ल्यो, पुण हे बरोवप्यांनी कथा--बरवपांत सातत्य दाखयलें ना. श्री. गोविन्द मुद्रस, श्री. उदय भेंब्रो, श्री. सुरेश काकोडकार, श्री. अनिल बोरकार इत्यार्दीचो अशया बरोवप्यांमदीं आस्पाव जाता.

ह्या सगल्या कथाकारांक लागून कोंकणी कथा फकत संख्येनच वाडलीना, तर ती गुणवत्तेनय वयल्या पांवड्या गांटपाक लागली. विशय आनी आशय हांच्या दर्शटीन ती जशी मनभुलोवणी जाली, तशीच ती विविधतायेनय नटली. ही विविधताय कथेच्या घाटांतय पडबिंबित जाल्ली आमकां दिसता. कथानक, वातावरण आनी सभावरेखाटन, हांची एकरुपता, हो बऱ्या कथेचो एक म्हत्वाचो विशेश. हो विशेश आमकां मुक्ती उप्रांतच्या कथांनी दिश्टी पडटा. हेबाबतींत श्री. चंद्रकांत केणी हांच्या कथा-साहित्याचो खास उल्लेख करप योग्य थरतलें. तंत्र-शुद्ध कथा कशी बरोवंची, हें श्री. चंद्रकांत केणी हांचेकडच्यान शिकचें. मोजकींच पात्रां आनी मोजकेच प्रसंग घेवन सादया-सरळ भाशेच्या प्रसन्न आविश्कारावल्यान ताणीं कथानकां फुलयल्यांत. तांच्या लिखणेन उक्तायिल्ली पात्रांची भाव-जीण वाचप्यांचें मन ओडून घेता. प्रतिकांचो वापर करून कथेक आशय दिवपाचो गुण जसो तांच्या कथेंत दिश्टी पडटा, तशेंच सूचकता आनी नेमकेपण, हे गुणय वाचप्यांचें मन आकर्शित करतात.

मुक्तीउप्रांतच्या कोंकणी कथेंत फकत तंत्राच्याबाबतींतच सुदारणा घडून आयली ना, तर कथा-विश्वाच्याबाबतींतय मुळावो बदल घडून आयलो. श्री. दामोदर मावजो, श्री. पुंडलिक नायक, सौ. शीला कोळंबकार, सौ. मीना काकोडकार, श्री. गजानन जोग, श्री. ओलिव्हीन गोमीश, श्री. दत्ता नायक, श्री. एन. शिवदास, सौ. जयमाला दणायत, श्री. गुरुदास बांबोळकार, श्री. अच्युत तोटेकार इत्यादि कथाकारांचें साहित्य नदरेखाला घातल्यार कोंकणी कथेचें एक वैशिश्ट्य रोकडेंच ध्यानांत येता, तें म्हळ्यार ह्या कथाकारांच्या लिखणेन गोंयच्या मातयेंतल्यान शक्त घेतल्या. गोंयच्या भुंयेतल्यान स्फूर्त घेवन ह्या कथाकारांनी गोंयची जीण आपणाल्या कथा-साहित्यांत ठसठशीतपणान चितरायल्या. हे बरोवप्यांनीं गोंयच्या जिणेंतले विशय निवडले आनी गोंयकार मनश्याच्या - कोंकणी मनश्याच्या जिणेचीं वेगळीं वेगळीं तासां उक्तायलीं. गोंयची गांव-जीण, हे जिणें-तल्या मनश्या-मनश्यांभितल्ले संबंद आनी संघर्श, गोयांतलीं सामान्य मनशां, तांचीं सुखदुख्खां आनी हावेस, सैमाचीं बरीं--वायट रुपां इत्यादि सगळें, कोंकणी कथेच्या माध्यमांतल्यान, प्रत्ययकारीरितीन पयलेंच खेपे परगट जालें. कथेच्या घाटासंबंदीं कोंकणी बरोवपी वेग-वेगळे प्रयोग करतात तें दिसूंक लागलें. मुक्तीउप्रांतच्या कोंकणी कथेंत उमाळ्यांचें इतलें खोलायेन परगटण जालां कि हाका लागून ह्या पिळगेची कथा काव्यात्म जाल्ली आमकां दिसता. ही कथा फकत घडण-कांचेंच चित्र परगटायना, तर तातूंत पात्रांच्या मन-दर्यांत खोल उडकी मारून तांच्या वागणुकीचो अर्थ सोदून काडपाचो कथा-कारांचो यत्नय आमकां दिसता. ह्या काळांतल्या कथेंत आमच्या कांय कथाकारांनीं जीं मनचित्रां काडल्यांत, तीं कोंकणी कथेक अजरंवर करपी आसात. घड-णुको चितारूनच न्हय, तर सभाव-रेखाटनांतल्यान कथानकाचो प्रवाह मुखार व्हरप आनी कथानकाच्या प्रवाहांतल्यान आपसूकच वातावरण-निर्मिती करप, हीं बऱ्या कथेचीं लक्षणां आसात. हेविशीं मुक्तीउप्रांतच्या वीस वर्सांतली कथा मातय फाटीं ना. कोंकणी कथेंतलीं सभाव-चित्रणां आनी वातावरण-निर्मिती रसरशीत आसा, हाची गवाय दिवपी

क्रिनल्यांच्योच कथा ह्या काळांत निर्माण जाल्यात. कोंकणी कथा, ह्या काळांत रचनेच्या दृश्टीन प्रमाणशीर जाल्याचेंय आमकां दिश्टी पडटा. पाल्हाळाच्या मर्यादेंतल्यान कोंकणी कथा खुबू प्रमाणांत मेकळी जाल्या, हाची प्रचिती हाडून दिवपी ही कथा आसा. प्रतिकांचो वापर करून कथा आशय-संपन्न करपाची कथाकारांची कुशलताय तातूं-तल्यान प्रतित जाल्ली आमकां दिसता. सूचकता आनी संयम हे बऱ्या कथेचे गुण-विशेश ह्या कथेंत दिश्टी पडटात. निवळ घडणुकांचे चित्रण जावं, व्यक्ति-चित्रण जावं वो मन-चित्रण जावं, कोंकणी कथा मुक्ति-उप्रांत खऱ्या अर्थान लघुकथा जाल्या हाची जाणीव जाता. मुक्ती-उप्रांतच्या सुर्वेच्या काळात ही कथा चडशी नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयली. श्री. गुरुनाथ केळेकारांचें त्या वेळावयलें 'नवें गोंय', 'परमळ' 'पुनव', 'कोंकण भारती,' 'राष्ट्रमत', 'सोमार' इत्यादि नेमा-ळ्यांनी ती केळयली. भोवतेक कथा-झेले उजवाडाक आयले ते कांय वर्सांनी. ह्या काळांतल्या पयल्या धा वर्साच्या कोंकणी कथेची कल्पना 'प्रसादाफूल' ह्या वेंचिक कथाकारांच्या कथां-झेल्यांतल्यान येता.

मुक्ती उप्रांतच्या २० वर्सांत कोंकणींतल्या कथा-साहित्याचेर जांचो मोलादिक प्रभाव पडिल्लो आमकां दिसता, त्या कथाकारांचें कथा-बरप तांच्या खाशेल्या गुणवैशिश्ट्यांनी उठून दिसता. कोंकणी कथेची बुनयाद घालपी श्री. चंद्रकांत केणी हांच्या कथेचीं कांय वैशिश्ट्यां वयर नमूद केल्लीं आसात. तांचें उठकरणान नदरेंत भरता, अशें आनी एक वैशिश्ट्य आसा, तें म्हंगल्यार तांच्या कथांतलें कथा-सूत्र विशिश्ट वाठा-राकडेन बांदिल्लें ना. तांचे कथा-विशय विशिश्ट प्रदेशांकडेन संबंदित नात. तांच्या कथानकांक विश्वात्मक स्वरूप आशिल्लें दिसता. कोंकणी कथेचें मळ समृद्ध करपी असो ह्या काळांतलो दुसरो कथालेखक आसा श्री. दामोदर मावजो. गोंयच्या भुंयेंतल्यान स्फूर्त घेवपी असो हो कथा-कार. गोंयच्या वाठारांतलीं वेगळीं वेगळीं मनशां ( आनी प्राणीयबी ) तांच्या कथांनी येवन वतात. ह्या मनशांचे उमाळे, तांचीं सुखदुखल्यां उलगा दाखोवपी अशो तांच्यो कथा वाचतगेर आमच्या मुखार उबें जाता तें लेखकाचें संवेदनाशील मन. पात्रांच्या काळजांत रिगून तांच्या

भाव-भावनांक नाजूकपणान स्पर्श करपाचें सामर्थ्य तांच्या लिखणेक लाबलां. खिरस्ती जिणेचें दर्शन तांच्यो कथा घडयतात. पुण, हेर विशयय तांणीं हातायळयात. प्रतिकांतल्यान आशय घडोवप, सभाव-चित्रणांतल्यान आनी वातावरण-निर्मितींतल्यान कथानकाचो प्रवाह मुखार व्हरप आनी निवेदनांत नी चित्रणांत नेमकेपण संयम नी अलिप्तपणा दाखोवप, हीं गुणवैशिश्ट्यां तांच्या कथेंत दिश्टी पडटात. श्री. मावजो हे तपशीलाचेर भर दितात, हें खरें आसलें, जाल्यारूय तांच्या कथेंत पाल्हाळ हो चडसो दिश्टी पडना. तांच्या कथेंतलें मनशा--मनशांमदल्या भावसंबंदांचें चित्रण तांच्या सादया-सरळ आनी धांवत्या शैलीक लागून उठावदार जालां. तांच्या कथेंनलीं कांय व्यक्ति-चित्रणां तांच्या कथेक खूब उंचाय हाडटात.

जांच्या कथांत जबरदस्त कथा-बिजां दिसतात, असो ह्या काळां-तलो कथाकार जावन आसा, श्री. पुंडलिक नायक. आपल्या कथा-साहित्यांत आनी हेर साहित्य-प्रकारांत गोंयची गांव-जीण जाणीं अक्षरांनी करून दवल्या, त्या ह्या प्रतिभावान लेखकान कोंकणी कथेंनल्यान गोंयच्या भौसाचीं सुखदुख्खां मोट्या आवेशान पुण संयमान मांडल्यांत. भौसाच्या जिणेंतले प्रश्न, तांच्यावयले अन्याय आनी अत्याचार, तांच्या मनांतले संघर्श, गांवांतल्या मनशांभितल्ले भावनिक संबंद, तशेंच अन्यायी समाजरचनेन प्रस्थापित केल्ले संबंद, ह्यो सगल्यो गजाली श्री. नायक हांच्या कथा-- साहित्यांत (आनी हेर साहित्यांतय) जित्यो-जागत्यो जावन आमच्या मुखार उब्यो जातात. प्रतिकांचो वापर करून कथेक आशय दिवपाची तांची हातोटी, गांव-जिणेक फावो अशें वातावरण निर्माण करपाची तांच्या लिखणेक आशिल्ली तांक, तांच्या कथेंतली सूचकता, भाशेवयलें, विशेश करून गांव-- भाशेवयलें तांचें पारंगतपण, तांच्या कथेंत प्रतित जाल्लीं उदात्त मानवतावादी मुल्यां आनी तितलेंच म्हत्वाचें अशें तांच्या कथेंतलें वास्तववादी चित्रण, हीं सगळीं वैशिश्ट्यां कोंकणी कथेक सामान्याभायली शक्त दितात. गांव-जिणेविशींचें तांचें अणभव-विश्व समृद्ध आशिल्ल्यान तांच्यो कथा ह्यो विशय आनी आशय हांच्या दृश्टीन संपन्न जाल्यात. श्री.

पुंडलिक नायक हांचो निजाचो बंडखोरपणा तांच्या कथेंत पडबिंबित जाला आनी तो घसघशीतपणान उकतो जाता, तांच्या भाशेच्या ओजस्वीपणांतल्यान.

ह्या काळांतली सौ. शीला कोळंबकार हांची कथा वाचतगेर वेगळोच अणभव येता. तांच्या कथेंत उमाळ्यांचें इतलें खोल परगटण जालां कि, तांची कथा काव्यात्म जाल्या. तांचें भावूक आनी सरनाळ मन तांच्या प्रत्येक कथेंत उकतें जाता. तांची निवेदनाची रीतय तांची भावुकता दाखयता. थोड्याच उतरांभितर प्रसंग–चित्रां आनी तातंतल्यान व्यक्ति—चित्रां उबीं करपाची तांची कुशळताय मनभुलोवणी आसा. आपणाल्या पात्रांच्या मन—दर्यांत खोल उडकी मारून तांचे उमाळे अचूकपणान हातांत धरपाचें सामर्थ्य तांच्या लिखणेंत आसा. भुरग्यांली भाव—जीण चितरावची ती सौ. शीला कोळंबकार हाणींच. इतली कुशळताय आशिल्लो दुसरो कथाकार कोंकणी साहित्यांत आजून येवंचो आसा, अशें म्हणप हें मातय अतिनायेचें थरचें ना. कोंकणी कथा अशीच काव्यात्म जाल्ली दिसता, ती सौ. मीना काकोडकार हांच्या कथांत. पात्रांचे उमाळे, तांच्यो व्यथा, तांचे हांवस हांचें बारीकसाणीन आनी खोलायेन चित्रण करतासतना ताणीं उतरां मोजून–मापून वापल्ल्यांत. ह्या वैशिश्टयाक लागून आनी तांच्या सादया—सरळ शैलीक लागून तांचीं व्यक्तिचित्रणां उठावदार जाल्यांत. कथानकाचो प्रवाह मुखार व्हरपी आनी कथेच्या गाभ्याक अनुकूल थरपी अशें वातावरण निर्माण करपाच्या बाबतींत ताणीं सामान्याभायली कुशळताय दाखयल्या. वातावरणाची निर्मिती करपाखातीर ताणीं कथेंत सैमाचीं जीं मनभुलोवणी चित्रां रेखाटल्यांत तीं, आनी तांच्या कथांतलो मार्मिक विनोद तांच्या कथेची कलात्मकता वाडयतात. सादया घडणुकींतल्यान कथा—बीजां घेवन कथानकां फुलोवपाचें तंत्र सौ. मीना काकोडकार हांकां बरें जमलां. सौ. शीला कोळंबकार हांच्या भशेनच सौ. मीना काकोडकार हाणींय बायलांची भाव–जीण कोंकणी कथेंत नाजुकपणान मांडल्या.

कोंकणी कथेक घटसाण हाडपाचो वावर करपी आनी एक

कथाकार आमचें लक्ष अशेंच ओडून घेता. कथा, ह्या साहित्य प्रकाराची जरी जाग आशिल्लो आनी जबरदस्त ताकदीचीं कथा--बीजां जाच्या साहित्यांत ठळकपणान दिश्टी पडटात, असो हो लेखक आसा श्री. गजानन जोग. तांच्या कथांत गांवजिणेबराबरच शारी जिणेंतल्या मनश्यांच्यो व्यथा, तांच्या मनांतले आनी एकमेकांभितल्ले संघर्श, तांचे उत्कुर्के इत्यादींचें ठसठशीत चित्रण पळोवंक मेळटा. प्रतिमा-प्रतिकांचो फावो असो उपेग करून आनी कथा-विशयाक योग्य अशें वातावरण उबें करून मोजक्याच उतरांनी कथा—बीज फुलोवपाचें तांचें कसब पळयतगेर होय एक प्रतिभा—संपन्न कथाकार आसा, हाची जाणीव जाता. तांच्या कथा--विश्वांत सामान्यवर्गांतलीं तरेतरेचीं मनश्यां आपणाल्या खाशेल्या सभावासयत परगट जातात. ह्या मनश्यांचें सभाव रेखाटन श्री. जोग हाणीं प्रत्ययकारीरितीन केलां. पात्रांच्या मनांतले व्यवहार बारीकसाणीन आनी खोलायेन चितरावन ताणीं सभाव-रेखाटनांत रंग भल्ला आनी कथानकाचो ओघ मुखार व्हेला. प्रसंग वो व्यक्ती हांचें चित्रण करतना तातूंत मिस्कील विनोदाचे रंग भरसुपाचें कसब तांच्या लिखणेंत आसा.

श्री. ओलिव्हीन गोमीश हाणीं आपणाल्या कथेंत गोंयच्या क्रिस्ती समाजाच्या जिणेचीं तासां दाखयल्यांत. कथा सादया भाशेंत सरळ निवेदन-पद्धतीन सांगपाची तांची धाटणी कथानकाक प्रवाहीपण दिता. नेमकेपण, हो तांच्या कथेचो गुणविशेश. तातूंत पाल्हाळ क्वचितच दिसता. क्रिस्ती समाजाची थळावी भाशा तांच्या कथेच्या क्रिस्ती वातावरणाक वास्तववादी बसका दिता. पात्रांची सुखदुख्खां ताणीं खूब सहानुभूतीन चितरायल्यांत.

कोंकणी कथेंत गांव-जिणेचें प्रत्ययकारी चित्रण करपी आनी गोंयातल्या भौसाच्या सुखदुख्खांचें वास्तववादी दर्शन घडोवपी असो ह्या काळांतलो एक कथाकार म्हळ्यार श्री. एन. शिवदास. गोंयच्या गांव-जिणेंतलीं तरेतरेचीं मनशां, तांचे भावनिक आनी सामाजिक संबंद, भौसामदल्यो बऱ्यो वायट चाली-रिती आनी प्रवृत्यो हांचें चित्रण श्री. एन. शिवदास हांच्या कथांत ठळकपणान जालां. गोंयचो गांव—

वाठार ताच्या वैशिष्ट्यांसयत उक्तो करपाचें सामर्थ्य तांच्या लिखर्णेत आसा, हें तांची कथा सिद्ध करता. गांव-जिणेचो जो खाशा अणभव ताकां आसा तानतल्यान कथा-बीजां घेवन तीं प्रसंग-चित्रांतल्यान फुलोवपाचें कसब ह्या लेखकाकडेन आसा. ह्या काळांतलो आनी एक नांवाजतो कथाकार आसा श्री. दत्ता नायक. श्री. दत्ता नायक हांच्यो कथा वाचतगेर तांच्या खाशेल्या निवेदन-शैलीकडेन वाचप्यांचें लक्ष वता. काणी सांगतात, तशा सरळ पद्धतीन निवेदन करप, हो तांच्या कथेचो एक विशेश. कथा सांगता-सांगतां तांतल्या पात्रांचें सभाव-दर्शन सुरबूस तरेन घडोवपाची तांची कुशलताय नदरेन भरपासारकी आसा. गोंयांतल्या वाठारांतलीं मनशां तांच्या कथांत येतात.

बायलांचीं सुखदुखां, तांच्या मनांतले उमाळे, समाजांत आनी कुटुंबांत तांच्यामुखार निर्माण जाल्ले प्रश्न आनी हे प्रश्नांक तीं कशीं तोंड दितात, हें सगळें बारीकसाणेन आनी खूप सहानुभूतीन चितरा-यिल्लें पळोंवक मेळटा, तें सौ. जयमाला दणायत हांच्या कथांत. हे प्रश्न घटना आनी प्रसंगांतल्यान मांडटा आसतना सौ. जयमाला दणायत आपल्या पात्रांच्या मनाचेर बरो उजवाड घालतात. आनी तानतल्यान सुरबूस अशीं व्यक्ति-चित्रांय घडयतात. हुंडो, नोकरी करपी बायलांचे प्रश्न, आंतर-जातीय लग्नां, इत्यादि सामाजिक विशय तांच्या कथांतल्यान यतात. वातावरणनिर्मिती करपाचो तांचो गुण तांच्या कथांत बरेतरेन परगट जाला. ह्या काळांतल्या सौ. दणायत हांच्या कथांत हेर कांय लेखकांभशेन सामाजिक जाणिव बरेतरेन पडबिंबित जाल्या.

ह्या काळांतल्या श्री. गुरूदास बांबोळकर हांच्या कथांत प्रसंग-निर्मितीतल्यान कथा फुलोवप आनी सुरबूस व्यक्तिचित्रणां घडोवपाची लेखकाची तांक स्पश्ट जाता. मुक्ती-उप्रांतच्या वीस वर्सांत कोंकणी कथा आनी एका आंगान वाडली. मनश्याचीं धोंगां-पोंगां आनी मनीस-समाजांतल्यो विसंगती आनी प्रवृत्त्यो, हांचेर हांसत-हांसत चडी मारपी अशी विनोदी कथा ह्या काळांत सवका-सवका विकसित जावंक लागली. कथेच्या ह्या मळार जाल्लें साहित्य वाचप्यांचें मन

ओढून घेता, असो कथाकार आसा श्री. अ. ना. म्हांबरो. तांच्या कथेंत गोंयचो समाज आनी गोयांतलीं वेगळीं वेगळीं मनशां हांचें एक वेगळें दर्शन घडटा. ल्हान-ल्हान वाक्यां, मोजकींच उतरां, सादी-सरळ आनी धांवती निवेदन-शैली आनी वतां-वतां सहजतायेन 'चिमटे' काडपाचें तांचें कसब, हाकालागून तांचो विनोद काळजाक भावता. उपरोध आनी विडंबन, हीं धारदार हत्यारां वापरून तांणीं आपल्यो कथा आशय-संपन्न केल्यात. सभावांतल्यो आनी जिणेंतल्यो विसंगती चितरायतना तांच्या लिखणेक एके तरेची धार येता, हें वाचप्याक जाणवता. तांचो विनोद वाचप्यांक केन्ना केन्नाय फकत हांसयता, तर केन्ना केन्नाय हांसवपाबराबर विचारय करपाक लायता. श्री. अ. ना. म्हांबरो हाणीं आपल्या कथांनी मनश्यांचे तरेतरेचे नमुने सादर केल्यात. तांणीं सुरबूसपणान काडिल्लीं व्यक्ती-चित्रां, हें तांच्या कथेचें एक खास वैशिश्ट्य म्हणपाक जाय. विनोदी कथेच्या मळार वावर करपी आनी एक कथाकार ह्या काळांत दिश्टी पडटा, तो म्हळ्यार श्री. अरुण सिंगबाल.

मुक्ती उपरांतच्या वीस वर्सांत जांच्या कथा-बरपान कोंकणी कथेचेर मोलादीक असो परिणाम घडून हाडलो, तातूंतल्या मुखेल कथाकारांच्या कथा—साहित्याचो हो विस्तृत आढावो आसा. ह्या काळांत कोंकणी कथा आंगा-पांगान कशी वाडली, तातूंत कसले प्रवाह आयले आनी खंयच्या वैशिश्ट्यांनी ती नटिल्ली आसा, हाची वाचप्यांक कल्पना दिवप, हो हाचेफाटलो उद्देश. कोंकणी मनीस आपणाले भाशेंत खूर उसरां बरोवंक लागलो, ह्या संदर्भांत विचार केल्यार मुक्तीउपरांतचो पंद्रा-वीस वर्सांतलो काल हो कोंकणी कथेच्या दिश्टीन समृद्धीचो काल म्हुणूंक जाय. तशें पळोवंक गेल्यार, साबार कोंकणी सरस्पतीच्याच दिश्टीन हो काल समृद्धीचो जावन आसा. मात, एक गजाल आमी विसरूंक जायना कि, हेर विकसित भारतीय भाशां-तल्या कथा-साहित्याकडेन तुळा केल्यार ह्या काळांत उजवाडाक आयिल्ल्या कोंकणी कथांची आनी कथां-झेल्यांची संख्या सामकी उणी आसा. हे कालांत जे कथां-झेले उजवाडाक आयले ते अशेः 'घर्तरी

अज़न जियेंताली (१९६४, चंद्रकांत केणी), 'गांथन' (१९७१, दामोदर मावजो), 'आशाढ पांवळी [१९७३, चंद्रकांत केणी], 'एकलो एकसुरो' [१९७३, चंद्रकांत केणी], 'ओली सांज' (१९७३, शीला नायक कोळंबकार), 'अळमी' (१९७५, चंद्रकांत केणी), 'जागरणां' (१९७५, दामोदर मावजो), 'दोंगर चंवल्ला' (१९७६, मीना काकोडकार), 'दिशांतर' (१९७७, पुंडलिक नायक), 'मत्य' (१९७७, पुंडलिक नायक), 'भिंगार' (१९७७, गुरुदास बांबोळकार), 'कवासो' [१९७८, जयमाला दणायत], 'गळसरी' [१९८१, एन. शिवदास], 'मन वोडटा वोडना' [१९८१, ओलिन्शीन्य गोमीश]. हे वळेंत श्री. रामकृष्ण जुवारकार हांच्या 'आमच्यो खबरो' [१९८१] ह्या तीन वांटयांनी उजवाडाक आयिल्ल्या पुस्तकाचो आस्वाद कर्चो कि किर्ते, असो म्हजेमुखार प्रस्न आसा. जिणेंतल्या कांय अणभवांविश्यान कल्पनेन रचिल्ल्यो ह्यो खबरो आसात, अशें लेखकान म्हणलां. पुण, कथातंत्राच्या फास्केंत त्यो बसनात. निबंद आनी कथा, हांच्या शिमेवयल्यो अश्यो ह्यो खबरो आसात. तांचें स्वरूप कितेंय आसूं, त्यो वाचनीय जाल्यात, हातूंत दुभाव ना.

मुक्तीउप्रांतच्या वीस वर्सांत [१९८१ मेरेन] ह्या कथां-झेल्यां-भेरीज आनीकय कांय झेले उजवाडाक आयले आसुये.

हें साहित्य सामकें उणें आसूनय मुक्तीउप्रांतचो वीस वर्सांचो काल हो समृद्धीचो काल आसा, अशें म्हणपाक आमी कशे धजतात, असो प्रश्न कोणीय विचारूं शकता. पुण, देवनागरी लिपयेंतल्या कोंकणी ललित साहित्याचो सामको हालींचो इतिहास, कोंकणी मनश्यांनी पोर्तुगेज, इंग्लेज आनी, विशेशकरून, मराठी ह्या भाशांचो घेतिल्लो आलाशिरो, कोंकणीक तिच्याच घरा आशिल्लो विरोध, कोंकणी (देवनागरी) वाचप्यांची उणी संख्या, इत्यादींचो विचार केल्यार ही संख्या उत्साहदिणी आसा, अशें म्हुणूंक जाय. कोंकणी भाशिक लोकांची संख्या ४० लाख आसा आनी कोंकणी साहित्याचो इतिहास खूप पोर्विल्लो आसा, हें खरें आसलें, तरीय आयची परिस्थिती अशी आसा कि देवनागरी लिपी जाणा आशिल्ल्या कोंकणी लोकांचें

साबार कोंकणी लोकसंख्येंतलें प्रमाण उणें आसा. गोयांत देवनागरी लिपी जाणा आशिल्ले लोक भोवसंख्येन आसात. पुण, परंपरेन ह्या लोकांनी (गोंयच्या भोवसंख्य हिन्दूंनीं) बरोवपाची आनी वाचपाची भास म्हूण मराठी भास आपणायल्या. कोंकणी कथेच्या (आनी साबार कोंकणी साहित्याच्याय) विकासाचें मोलमोजप करता आसताना वयल्या ह्या परिस्थितीचें भान अभ्यासकांनी दवरपाक जाय. कोंकणी भास आनी साहित्य, हांचेकडेन राजकीय सुवार्थाचें आनी धार्मिकतेचें वकूल लावन पळयतल्यांक कोंकणी भाशेंत साहित्यच ना, अशें दिसप सभाविकच आसा. पुण, कोंकणी साहित्याच्या उदरगतीखातीर वावुरपी साहित्यिक जेन्ना कोंकणी कथेच्या मळार वो साबार कोंकणी साहित्याच्या मळार कांयच घडना अशें म्हणटात, तेन्ना अजाप दिसता. कोंकणी कथेचो आढावो घेतना आमी वस्तुनिश्ठ नदर दवल्ली, तर मुक्तीउप्रांतच्या २० वर्सांतलें चित्र उत्साहदिणें दिसल्याबगर रावचें ना. इतलेंच न्हय, तर फाटल्या पांच वर्सांतय कोंकणी कथा–साहित्याचो रूख (उणे प्रमाणांत जालो तरी) फळ्ळा, हाचीय जाणीव जातली.

मुक्तीउप्रांतच्या काळांत कोंकणी कथा संख्येन वाडली आनी तिचो पांवडोय उंचावलो, हें आमी पळयलें. साहित्य अकादमीचो १९८५ हे वर्सा उजवाडाक आयिल्लो 'कोंकणी कथा–संग्रह', आनी कोंकणी भाशा मंडळाचो 'स्वतंत्र गोयांतली कोंकणी कथा' हो १९६२ ते १९७६ ह्या काळांतल्या कोंकणी कथांचो आस्पाव आशिल्लो कथां–झेलो, ह्या दोनूय झेल्यांतल्या कथांचेर नदर मारल्यार मुक्तीउप्रांतच्या पंद्रा–वीस वर्सांतल्या कोंकणी कथेच्या गुण–वैशिश्टांची बरे तरेन कल्पना येता. ह्या काळांतल्या कोंकणी कथेचें आनी एक वैशिश्ट्य नदरेंत भरता. देवनागरी लिपयेंतल्या साबार कोंकणी साहित्याची सुरवात जरी शणै गोंयबाबांपासून जाली, तरी देवनागरी कोंकणींतलें ललित साहित्य, खऱ्या अर्थान, गोंय मुक्तीउप्रांत म्हळ्यार खूब उसरां फळल्ल्यान ह्या साहित्यांत वेगळे वेगळे प्रवाह टप्प्या-टप्प्यान आयले नात. इंग्लेज, मराठी, पोर्तुगेज, हिन्दी इत्यादि भाशांतल्या साहित्याची कोंकणी

मनश्याक वळख आशिल्ली. ह्या भाशांतल्यान तो बरयतालोय. म्हूणनच, कोंकणी मनीस जेन्ना आपणाल्या माय-भासेंतल्यान बरोवंक लागलो, तेन्ना ह्या वेगळ्यावेगळ्या भाशांतल्या साहित्यांत जे प्रवाह येवन गेल्ले आनी आशिल्ले तांची बरी वळख ताका आशिल्ली. वेगळ्यावेगळ्या कोंकणी बरोवप्यांनी आपली साहित्यिक नदर आनी कुवतीप्रमाण हे प्रवाह कोंकणी साहित्यांत हाडले. हाकालागून कोंकणी साहित्यांत वेगळे वेगळे प्रवाह एकाच वेळा येवंक पावले. कोंकणी कथेच्या वाबतींत तर ही गजाल अदीक ठळकपणान दिसली. मुक्तीउप्रांतच्या वीस वर्साच्या काळांत कोंकणी कथा-साहित्यांत निवळ घडणूक-प्रधान कथेवरावरच सभाव-चित्रण करपीय कथा ठळकपणान दिश्टी पडटा. मनश्याच्या मनांतले व्यवहार बारीकसाणीन विसकटावन दाखोवपी कथाय ह्याच काळांत सुरु जाली. मनरंजन हो गूण आशिल्ल्या कथे बरावरच निवळ वास्तववादी कथेचोय प्रवाह सुरु जाल्याचें आमकां दिसता. धवाळ्या वर्गातल्या लोकांची जीण चितरावपी कथा आनी सकयल्या वर्गातल्या, कामदार वर्गातल्या लोकांची जीण चितरावपी कथा, हांचो प्रवाह एकाच वेळा व्हांविल्लो कोंकणी कथा-साहित्यांत दिश्टी पडटा. कोंकणी कथेंत घाटाच्योय वेगळ्यो-वेगळ्यो तरा टप्प्या-टप्प्यान विकसित जावंक नात. त्यो एकाच वेळार आयिल्ल्याचें जाणवता. हें सगळें मुक्तीउप्रांतच्या वीस वर्सांत घडलें.

कोंकणी कथेच्या विकासाचीं वैशिश्ट्यां ह्या लेखांत वयर तपशीलान मांडिल्लीं आसात. मुक्तीउप्रांतच्या वीस वर्सातल्या कथेची वाटचाल पळयता आसतना ह्या साहित्य-प्रकाराच्या विकासांतल्यो उणिवोय ध्यानांत घेवप म्हत्वाचें थरतलें. कोंकणी कथाकारांनीं गोंयच्या समाजांतल्यान स्फूर्त घेवन नवे-नवे विशय कथेंतल्यान मांडले, कोंकणी समाजांतल्या सामान्य मनश्यांची जीण, तांचीं सुखदुखां, हावेस इत्यादि चितरावन कथेचें अणभव-विश्व समृद्ध केलें, हें खरें आसलें, जाल्यारूय जबरदस्त कथाबीजां जातूंत सांपडूं शकतालीं अशे विशय, अशीं जिणेचीं मळां तांणीं तांक आसूनय हाताळ्ळीं नात. कांय मुखेल कथाकार सोडल्यार, हेर कोंकणी कथा-

कारांचें अगनवत्रिश्र मर्यादितच उलें. बाटाबाटीच्या वेळार गोंयच्या समाजांत कशी उलथापालथ जाली, त्या परिस्थितींत मनीस कसो वागलो, मनश्यां-मनश्यांमदले संबंद कशे बदल्ले, गोंयच्या स्वातंत्र्य-चळवळींत वांटो घेतिल्ल्यांची आनी तांच्या कुटुंबियांची जीण हे चळवळीच्या काळांत कशी बदल्ली, कोंकणी-मराठी वाद, विलीनीकरण-चळवळ आनी ओपिनियन पोल ह्या घडणुकांनी मनश्या-मनश्यांमदल्या संबंदा-चेर कसो परिणाम घडून आयलो, हे विशय आनी गोयांतलें राजकारण, ह्यासारक्या विशयांक कोंकणी कथाकारांनीच न्हय, तर नवलकाणये-कारांनीय न्याय दिवंक ना. पोर्तुगेज वतगेर गोंयच्या वयल्या वर्गातल्या क्रिस्ती कुटुंबांची भाव-जीण कशी बदल्ली, हें दाखोवपाच्या बाबतींत आनी गोयांत रावंक करपाखातीर आयिल्ले गोयांभायले लोक आनी आफ्रिकेंतल्यान परते आयिल्ले गोंयकार हांचे गोयांत आदींसावन रावन आयिल्ल्या गोंयकारांकडेन जे संबंद येतात, ते चितरावपाच्या बाबतींतय कोंकणी कथाकारांची लिखणी कांटां आसा. आखाती देशांत गोंयकार तरनाटे वतगेर गोयांतल्या तांच्या कुटुंबियांची, विशेश करून, तांच्या बायलांची कितें आवतीकाय जाता, हें तांच्या भाव-विश्वाचेर उजवाड घालून चितरायिल्ली कथा क्वचितच दिश्टी पडटा. अशे विशय घेवन कोंकणी कथांचें मळ समृद्ध करपाचो वावर ह्या काळांत जालो ना. हातूंतले कांय विशय कथाकारांनी हाताळूं नात, अशें न्हय. पुण, मुक्तीउपरांतल्या वीस वर्सांत ह्या विशयांक न्याय दिवपी कथाकार सामके उणे. म्हणूनच, केन्ना केन्नाय दिसता कि, कोंकणी कथा एका विशिश्ट आवर्तनांतूच घुंवता.

ह्या काळांतल्या कोंकणी कथेच्या मळावयली आनी एक उणीव ध्यानांत येता. बऱ्याबऱ्या लेखकांच्यो कांय कथा तंत्राच्या दृश्टीन दोशविरयत जाल्यात, कथानक फुलोवपाचें कसब तातूंत घगघ-गीत उकतें जालां, पुण कथा-बीजां मात्य दम नाशिल्लीं. हाच्या पर्तें अशेंय दिश्टी पडटा कि, कथा-बीज सामकें काळजाचो थाव घेवपी आसूनय तें फुलोवपाच्या बाबतींत कथाकार अपेशी थल्ला. कथा-बीज जबरदस्त आसूनय कथेंत आशय भरपाचे बाबतींत कथा--

काराची प्रतिभा-शक्त उणें पडल्या, ही गजाल बऱ्या-बऱ्या कथा-कारांच्या कांय कथांत दिश्टी पडटा. अशीच आनी एक उणाव ह्या कथा-साहित्यांत जाणवता, ती म्हळ्यार कथानकाक पूरक अशें वाता-वरण निर्माण करपाखातीर मैमाचें चित्रण गरजेरस चड करप. हाका लागून कथेचो आंग आडावन उरता. खूबशा कथांनी वर्णनांचो पाल्हाळ दिसता. कथाकारान कथा सांगतना अलिप्तपणा दाखोवप, हो बऱ्या कथेचो एक गुण. पुण, कांय कथाकारांची लिखणी अनी--हळवेंपणाक लागून अलिप्तपणा दाखयना, ही गजाल खूपशा कथांनी स्पश्ट जाल्या. ह्यो सगल्यो उणिवो भोवतेक कथाकारांच्या कांय कथांनी चड-उणें प्रमाणांत उकऱ्यो जाल्यात. स्त्री—कथाकारांच्या बाबतींत अनी—हळवेंपणा ठळकपणान जाणवता. सारार कोंकणी कथा-साहि-त्याचो विचार केल्यार दुसरी एक गजाल जाणवता, ती म्हळ्यार निवळ मनोविश्लेशणात्मक कथांचो प्रवाह कोंकणींत आजून सारको येवंक ना.

मुक्तीउपरांतच्या २० वर्सांतल्या कोंकणी कथेचीं मुखेल वैशिश्टयां थोडक्यांत सांगपाचीं जाल्यार तीं अशीं मांडूं येतात: १] ह्या काळांत कथेंतलें अणभवविश्व विस्तारलें. पुण, कथेचे विशय जाव-पाची तांक आशिल्लीं जिणेंतलीं कितलींशींच मळां दुर्लक्षितच उरलीं. २] दुसरें म्हत्त्वाचें वैशिश्ट्य म्हळ्यार कोंकणी कथा अभिव्यक्तीच्या दिश्टीन अदिकादीक सुंदर जाली. अणभव-उक्तावणेचे वेगळेवेगळे प्रयोग कोंकणी कथाकार करूंक लागले.

ह्या फाट-भुंयेचेर, आयज कोंकणी कथा-साहित्याची स्थिती कितें आसा, हाची नियाळणी करपाचो येत्न केल्यार आमकां कितें पळोवंक मेळटा ? हांव जेन्ना आयची कथा म्हणटां तेन्ना म्हज्या दोळ्यां-मुखार फाटल्या पांच वर्सांत उजवाडाक आयिल्ली देवनागरी लिपयें-तली कथा आसा. १९८२ सावनचो काल हांवें विचारांत घेतला. ह्या पांच वर्सांतल्या कोंकणी कथेचो विचार करतना ह्या काळांत कथेच्या मळार निर्माण जाल्ल्या नव्या साहित्याचोच विचार करप बरोबर थरतलें. खूब वर्सांपयलीं नेमाळ्यांनी उजवाडायिल्ल्या कथांचो आस्राव करून प्रसिद्ध केल्ल्या कथा-झेल्यांचो, ह्या पांच वर्सांतली

कोंकणी कथा कशी आसा, हें पळोवपाखातीर विचार करप बरोबर थरचें ना. फाटल्या पांच वर्सांत कथेचे मळार जें नवें साहित्य निर्माण जालां, तें चडशें नेमाळीं, विशेशतायेन, नेमाळ्यांचे दिवाळी अंक, वर्सुकी अंक वो हेर खाशेले अंक, हातूंतल्यान उजवाडाक आयलां. 'कोंकणी', 'जाग', 'कोंकण टायम्स', 'वांगडी', 'कोंकणीचें कुळार', 'चित्रंगी', 'कुळागर', 'राष्ट्रमत', 'सौगडी', 'कोंकण भारती', 'जैत' आनी हेर नेमाळ्यांतल्यान हें कथा-साहित्य प्रसिद्ध जालां. अशा नेमाळ्यांभितर नियमितपणान दर म्हयन्याक भायर सरपी आनी कथा-साहित्याचेर भर दिवपी अशें एकमेव नेमाळें आसा 'कुळागर'. नव्या कथा-लेखकांक उत्तेजन दिवपाचो बरो वावर, हें नेमाळें सातत्यान करीत आयलां. श्री. चंद्रकांत केणी आनी प्रा. प्रकाश थळी हांची साहित्यिक नदर हया नेमाळ्याक लाबल्या.

फाटल्या पांच वर्सांत जे कथां-झेले उजवाडाक आयल्यात, ते अशे : सौ. हेमा नायक हांचो 'पसय', श्री. दत्ता नायक हांचो 'एक आशिल्लो सोंसो', श्री. जे. एल. गॉयस हांचो 'कथा दोगां मोन जातिंची', श्री. नारायण बोरकार हांचो 'तुज्या मोगाखातीर', श्री. अ. ना. म्हांबरो हांचो 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या,' श्री. चंद्रकांत केणी हांचो 'व्हंकल पात्रणी' आनी श्री. गजानन जोग हांचो 'रुद्र'. हातूंतल्या बऱ्याच कथां-झेल्यांत पांच वर्सांपयलीं नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयिल्ल्या कथांचो आस्वाद जाला.

ह्या पांच वर्सांत जें कथासाहित्य निर्माण जालां, ताचेर नदर भोंवडायल्यार एक गजाल स्पश्ट जाता, ती म्हूणल्यार मुक्ती उप्रांतच्या पंद्रा – वीस वर्सांत ज्या कथाकारांनी कोंकणी कथा – साहित्य समृद्ध करपाचो वावर मोठ्या उत्साहान मुखार व्हेलो तांचो ह्या मळावयलो वावर मंदावला. कांय जाणांचो आडवाद केल्यार, बरे कथाकार म्हूण जाणीं नामना मेळयिल्ली तांची प्रतिभा कांय प्रमाणांत आंटिल्ल्यावरी दिसता, तर श्री. पुंडलिक नायक हांच्यासारक्या लेखकांनी साहित्याचीं हेर मळां, विशेशतायेन नाटक हो साहित्य-प्रकार फुलोवपाचो वावर नेटान चलयिल्ल्यान कथेकडेन तांचें लक्ष उणें जालां.

श्री. दामोदर मावजो हे कादंबरीकडेन वळ्ळयात. सौ. मीना काकोडकार हाणीं कथा बरोवपाचें सामकेंच सोडलां, अशें दिसता, तर श्री. एन. शिवदास, श्री. ऑल्विन्सीन गोमीश, श्री. दत्ता नायक हांची कथा आतां क्वचितच वाचपाक मेळटा. श्री. गजानन जोग हेय आतां नेमाळ्यांनी उणें बरयनात. सुदैवान, श्री. चंद्रकांत केणी, श्री. दामोदर मावजो, श्री. पुंडलिक नायक हांचें कथा-साहित्य नेमाळ्यांनी केन्ना-केन्नाय वाचूंक मेळटा, जाल्यार सौ. शीला कोळंबकार हांचें कथा-बरपांतलें सातत्य सामकें दोळ्यांत भरता. सौ. जयमाला दणायत हांचोय कथा-बरपाचो वावर नेटान नासलो, जाल्यारय चालू आसा. विनोदी कथा बरोवपी श्री. अरुण सिंगबाल, तशेंच श्री. गुरुदास कामत बांबोळकार हेय केन्ना केन्नाय नेमाळ्यांनी आपली हाजेरी लावन वतात, तर विनोदी कथा-साहित्याच्या वावरांत जाणां म्हत्वाचो वांटो उचलला, ते श्री. अ. ना. म्हांबरो हांची विनोदी कथा नेमाळ्यांनी क्वचितच दिश्टी पडटा. श्री. अशोक भोंसले आनी श्री. अभयकुमार वेलिंगकार हांच्यो कांय कथा ह्या काळांत वाचूंक मेळ्ळयो. तशेंच श्री. नारायण बोरकार हांचें कथा-बरपांतलें कांय प्रमाणांतलें सातत्य जाणवलें.

प्रस्थापित कथाकारांचो कथा-बरपांतलो जोश आनी उमेद आतां पयलीभशेन दिसना, ही गजाल खरी आसली, जाल्यारय कोंकणी कथा-साहित्याक गतिशून्यता येवंक ना, हेंय तितलेंच खरें. प्रस्थापित कथाकार आतां उणें बरयतात, हें खरें आसलें जाल्यारय तांचें कथा—साहित्य आशय आनी अभिव्यक्तीच्या दृश्टीन विकसित जालां, हें स्पश्ट जाता. अशे कांय कथाकार अणभव-विश्वांतलीं नवीं मळां माडयतना दिसतात. अणभव-उक्तावणेच्या तरांतय ते नवे-नवे प्रयोग करतना दिसतात. फाटल्या पांच वर्सांत कोंकणी कथा-बरपांत जाणें सगल्या दृश्टीन सगळ्यांत चड भर घातल्या आनी वाचप्यांचें नी समीक्षकांचें आपल्याकडेन लक्ष ओडून घेतलां असो कथाकार म्हळ्यार श्री. महाबळेश्वर सैल. कोंकणींतलो एक म्हत्वाचो कथाकार म्हूण जाचेकडेन बोट दाखंव येता, असो हो कथाकार.

कथेच्या मळार कांय नव्या कथाकारांचोय उदय कोंकणी कथेक लाबदिणो थळा. ह्या कथा-लेखकांविशीं खूप अपेक्षा करूं येतल्यो, अशें तांचें साहित्य आसा. सौ. शांता कंटक खांडेपारकार, श्री. वामन टाकेकार श्री. विठ्ठल आवर्दियकार, श्री. शशांक सीताराम शिरोडकार, श्री. वसंत भगवंत सावंत, कु. जयंती नामदेव नायक, श्री. जे. एल. गॉयस, श्री. शशिकांत पुनाजी हांच्यो कथा वाचल्यार कोंकणी कथेचो फुडार घडोवपाची तांक तांचेकडेन आसा, हाची खात्री पट्टा. फाटल्या पांच वर्सांत वयल्या कथाकारांखेरीज आनीकय कितल्यादयाच नव्या कथाकारांच्यो कथा नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक आयल्यात. तातूं-भितर जांचें अस्तित्व जाणवता, अशे कथाकार आसात: कु. गीता बिह्वोणकार, श्री. दिनेश भरणो, श्री. रमेश लाड, श्री. विजयकुमार कामत, श्री. भरत नायक, श्री. संतोष महाले, सौ. हर्शल दळवी आनी श्री. अवधुत कामत.

फाटल्या पांच वर्सांतल्या कोंकणी कथेचो पांवडो आनी रूप, हांची सारकी कल्पना येतली जाल्यार श्री. महाबळेश्वर सैल हांच्या कथा-बरपाच्या गुण-विशेशांचेर उजवाड घालप हें खूप म्हत्वाचें. ह्या लेखकान कोंकणी कथेचें अणभव-विश्व जितलें विस्तृत केलां, तितलें ह्या काळांतल्या एकाय कथा-लेखकान करूंक ना. अणभव-उगतावणेचे वेगळे वेगळे प्रयोगय तार्णी केल्यात. श्री. सैल हांच्यो कथा वाचतगेर वेगवेगळ्या विशयांक हात घालपाची तांची तांक स्पश्टपणान दिसता. बाटाबाटीच्या वेळार गोंयांत हिन्दु लोकांच्या भावनांचें विश्व कशें बदलें, ही गजाल बाटाबाटीच्या भोंवन्यांत सांपडिल्ल्या लोकांची व्यथा ठसठशीतपणान चितरावन कथा-साहित्यांत मांडपी पयलो कथाकार म्हुण श्री. महाबळेश्वर सैल हांचें नांव घेवंक येतलें. हें पळोवपाखातीर 'किण्ण' (कुळागर, ऑगस्ट ८२) आनी 'वाशाड' (कुळागर, एप्रिल ८२) ह्यो तांच्यो कथा वाचच्यो. भारतीय फौजेंतल्या जिणेचे फाटभुंयेचेर तार्णी बरयिल्ल्यो 'सुभेदार' [कुळागर, जून ८३] आनी 'पर्यो कसो आयलो?' [चित्रंगी, दिवाळी ८४] हयो कथा कोंकणी

वाचप्यांक एका वेगळ्याच अगभव-विश्वाची वळख करून दितात. भाव-भयणीच्या अनैतिक संबंदांचो संदर्भ दिवन मनीस आजूनय पशूच आसा, हें प्रत्ययकारीरितीन मांडपी 'कोल्सुर्णी', (कोंकणी, वसुंकी अंक ८५) आनी विलासी वृत्तीचो बापूय आपल्या धुवेच्याच पिरायेच्या तिच्या इश्टीणीक मोहांत ओडून तिचो भोग घेता, हें पळयनाफुडें पुराय खचून वता अश्या एका निर्मळ नी कोमल मनाच्या धुवेची कथा सांगपी 'सांशा काळजाचें चेडूं' (कुळागर, दिवाळी ८५), अशा दोन कथांतल्यान मनश्याची संस्कृती म्हळ्यार एक मृगजळच, हें दाखोवपाचो लेखक यशस्वी प्रयत्न करता. मनश्याच्या जिणेचो अर्थ सोदपाचो प्रयत्न 'हडग्या' (कुळागर, फेब्रुवारी ८७) आनी 'पुनर्जल्म' (कुळागर, दिवाळी ८६) ह्या कथांत जाला. कॅन्टर्सीचो प्रत्ययकारी वापर करून लेखकान ह्या कथांत मनंसजातीचो भौतिकवादाच्या दिशेनचो प्रवास निरर्थक आसा, हें सत्य मांडलां. पोर्तुगेजाच्या काळांत गोंयच्यो शिमो बंद जाल्यो, तेन्ना माजाळी-कारवारकडच्या लोकांचो गोंयाकडचो संबंद तुटलो. नात्यांतले लोक एकमेकांपासून पैसावले. ह्या फाटभूंयेचेर बरयिल्ली 'रुमडा-फूल' (जाग, दिवाळी ८२) ही कथा आमकां गोंयच्या इतिहासांतल्या एका वेगळ्याच अगभव-विश्वांत व्हरता. शेत पिकलां, पुण म्हूर्त नाशिल्ल्यान 'नवें' पुजपाचें उरलां आनी, दुसरेवटेन पेजे-खातीर दोन गोटे घरांत नाशिल्ल्यान घरातल्या सगल्यांच्या पोटांत भुकेचो उजो पेटला, अशे विचित्र परिस्थितींत आशिल्ल्या एका शेत-कामत्याची काळजाक स्पर्श करपी अशी काणी 'नवें' (कुळागर, मे ८२) ह्या कथेंत चितरायल्या. साळ्यो विकपाखातीर भोंवपी श्री-पतीची आनी ताची भेट जाता, त्या प्रोफेसराची काणी 'एक हुंडको हुंडकेता, [कुळागर] ह्या कथेंत सांगल्या. मनश्याचो सगलो प्रयत्न सुखाच्या दिशेन आसता. पुण, ज्ञानापरस अज्ञानांतलें सुख चड, हें ह्या कथेंत प्रत्ययकारीरितीन मांडलां. बायल सोंपिल्ल्यान आपल्या भुरग्यांची काळजी घेवपाचो प्रसंग जाचेर आयला अशा एका बापायचें भाव-विश्व चितरायलां 'आवयचें सत्रंग' (कुळागर)

ह्या कथेंत.

श्री. महाबळेश्वर सैल हाणीं आपल्या भोवतेक कथांतल्यान हाताळिल्ले विशय पळयल्यार तांचें अणभव-विश्व कितलें विस्तृत आसा हाची जाणीव जाता. तांच्या कांय कथांतलीं कथाबीजां जबरदस्त ताकदीचीं आसात. ह्या कथाबीजांत आशय भरपाची तांची तांकय तितलीच जबरदस्त आसा. कथानकाक फावो अशी भाशा वापरुन आनी योग्य वातावरण निर्माण करून ताणीं कथा-सूत्र सगल्या आंगांनी फुलयलां. तांच्यो भोवतेक कथा लांबायेन व्हड, पुण तातूंत पाल्हाळ क्वचितच आसता. निवेदन, संवाद-निर्मिती आनी प्रसंगांची निर्मिती ह्यो गजाली कथेचो परिणाम सादपाखातीर कलात्मकरितीन करपाची कुशलताय श्री. महाबळेश्वर सैल हांच्या लिखणेंत आसा. ह्या दृश्टीन पुराय यशस्वी जाल्ल्यो तांच्यो कथा आसात, 'सोंशाकाळजाचें चेडूं', 'शारपिशें' [जाग, दिवाळी ८३], 'एक शेणिल्लें मर्ण' [कोंकणी, वर्सुकी अंक ८३], 'एक हुंडको हुंडकेता' आनी 'कोल्सुणी'. श्री. सैल हांची कथा घडणुकेक म्हत्त्व दिता. तातूंत प्रसंगांक म्हत्त्व आसा. प्रसंगांच्या घडणुकांतल्यान आनी पात्रांच्या उलोवण्यांतल्यान कथा मुखार वता आनी आपसूकूच पात्रांचें व्यक्ती-चित्रण घडटा. वाचप्यांच्या स्मरणांत सासणाचीं उरतलीं अशीं कांय व्यक्ति-चित्रणां तांच्या लिखणेन घडयल्यांत. 'सोंशाकाळजाचें चेडूं' ह्या कथेंतले बापायची सेक्स-जीण पळोवन खचिल्लें सुषमा, 'शारपिशें' तली दिनकराची अरवळ बायल राधी, 'सुभेदार' हातूंतलो सुभेदार, ह्यो व्यक्ती वाचप्यांच्या यादींतल्यान केन्नाच वचच्यो नात, इतलें ठसठशीत तांचें सभाव-रेखाटन जालां. वातावरण निर्मणाखातीर जाय आशिल्ली निवेदन-शैली लेखकाकडेन आसा. प्रसंगांतली नाट्यपूर्णता आनी सगल्या बारीकसाणींसयत वातावरण आनी प्रसंग चितरावपाची तांची कुशालकाय पळयतगेर तांच्यो कथा वाचप्यांच्या काळजाक कित्याक भावतात, ह्या प्रश्नाची जाप मेळटा. 'अप्रुपाचें सवणें' (कुळागर, दिवाळी ८३), 'बिरमत' (कुळागर, एप्रिल ८६) ह्यांसारक्या कथांतलो जीवन-पट नवलकाणयेक सोबसारको. पात्रांच्यो

व्यथा वो एकाद्रो दुख्खी प्रसंग चितरायतना तांची लिखणी कितली भाव-नाशील जाता, हें 'वांजबाय' [ कुळागर, दिवाळी ८४ ], 'किण्ण' आनी 'एक शेणिल्लें मर्ण' ह्या कथांत पळोवंक मेळटा. पात्रांच्या व्यथांचें वो वातावरणाचें चित्रण करतना तांची लिखणी काव्यात्म जाता, अशें म्हूणल्यार अतितायेचें जावंचें ना.

श्री. महाबळेश्वर सैल हाणीं गोंय आनी गोंयालागशिल्लो कर्नाटकांतलो वाठार, हांचें वातावरण दिवन कांय कथा बरयल्यात. अशा कथांचो विशयय थळावो आसा. कांय कथांत वातावरण थळावें आसा, पुण विशय विश्वात्मक ( universal ) स्वरूपाचो, तर हेर कथांत वातावरण लेखकाच्या वाठाराभायलें आनी विशय विश्वात्मक स्वरूपाचो आशिल्ल्याचें दिसता. वातावरण आनी विशय कसल्याय स्वरूपाचो आसूं, लेखकाच्या भोवतेक कथांत आमकां मनशांच्या मनोवृत्तींचेर घातिल्लो उजवाड दिसता. मनशाची वागणूक चितरायतना मनशाच्यो मुळाव्यो वृत्यो तपासून पळोवपाचो प्रयत्न लेखकान केल्याचें दिश्टी पडटा. हें करता आसतना आपल्या पात्रांच्या मन—दर्यात उडकी मारून तांच्या मनाचे व्यवहार ताणीं ठळकपणान चितरायल्यात. मनोविश्लेशणाचेर तांचो भर आसलो तरी तांची कथा निवळ मनोविश्लेशणात्मक न्हय. जिणेंतलो अर्थ सोदपाची मनशाची वृत्ती श्री. महाबळेश्वर सैल हाणीं 'हडप्पा' सारक्या कांय कथांत तपासून पळयल्या. मनीस—जातीच्या संस्कृतायेची शोकांतिका प्रतिकात्मक आशयांतल्यान चितरावपाचो तांचो प्रयत्न हेर कांय कथांनीय दिश्टी पडटा. तांच्या कथांक Philosophical touch आसा, हें दाखोवपी ह्यो कथा आसात. मात् तांच्यो कांय कथा रचनेच्या दृश्टीन विस्कळीत जाल्यात.

श्री. महाबळेश्वर सैल हांच्या कथा—साहित्याचीं तपशीलान सांगिल्लीं हीं वैशिश्टयां कोंकणी कथेचें आयचें स्वरूप आनी पांवडो स्पश्ट करतात. खरें म्हळ्यार तांच्या ह्या वैशिश्टयांचो आनी कांय दोशांचो विचार करप, हो एका वेगळ्याच लेखाचो विशय. आमच्या कांय प्रस्थापित कथा—लेखकांची कथा फाटल्या पांच वर्सांत मुखाव-

यली वाट चलतना दिसता, अशें हावें वयर म्हणलां. श्री. चंद्रकांत केणी, श्री. दामोदर मावजो, श्री. पुंडलिक नायक, सौ. शीला कोळंबकार, श्री. गजानन जोग हांच्यो ह्या काळांतल्यो कथा वाचल्यार हाची जाणीव जाता. श्री. चंद्रकांत केणी हांच्या 'कोंकणी' [दिवाळी अंक १९८२] ह्या नेमाळ्यांत आयिल्ली एक कथा ह्या दृश्टीन वाचप्यांच्या स्मरणांत सासणाची उरतली, अशी आसा. 'फॉर हर बिंगस वॅर वॅट' ह्या कथेंतल्यान थोड्याच उतरांनीं आनी प्रतिकाचो उपेग करून श्री. चंद्रकांत केणी हाणीं घटस्फोट घेतिल्ल्या एका मनश्याची भाव-जीण प्रत्ययकारीरितीन उबी केल्या. आधुनिक मनीस-समाजांत मनश्या — मनश्यांभितल्ल्या संबंदांक, विशेशतायेन दादलो आनी बायल, हांच्यामदल्या संबंदांक जें नवें परिमाण लाबला तार्चें वास्तववादी तितलेंच मन-स्पर्शी चित्रण श्री. चंद्रकांत केणी हाणीं 'खंत ना, खेद ना' (कुळागर, दिवाळी ८५) ह्या कथेंत केलां. श्री. केणी हांच्या कथा-बरपांतल्या कुशळतायेचो असोच प्रत्यय मेळटा तांच्या 'मांडवी अशीच व्हांवता' ह्या कथेंत. शारी संस्कृतांत वाडिल्लो एक तरनाटो आनी खेड्यांत वाडिल्ली ताची अडाणी बायल हांचो भाव-संबंद ह्या कथेंत मोजक्याच उतरांनी आनी फकत संवादांतल्यान चितरायला. आपल्या अडाणी बायलेची आपल्या इश्ट-मित्रांकडेन वळख करून दिवपाक ह्या तरनाट्याक लज दिसता, हें सूत्र लेखकान खूप कलात्मकतेन मुखार व्हेलां. 'नातें रगताचें' (कुळागर, दिवाळी ८४) ह्या कथेंतलें लकूमाचें व्यक्तिचित्रण सुदारिल्ल्या समाजांतल्या लोकांचें 'सुदारलेपण' कितलें तकलुपी आसा, हाची जाणीव करून दिता. श्री. चंद्रकांत केणी हांची कथा आविश्काराच्या दृश्टीन अदीक सुंदर जाल्या, हाची गवाय दिवपी आनी एक कथा ह्या पांच वर्सांत वाचूंक मेळ्ळी. 'पोस्ट मॉर्टेम' [जाग, दिवाळी ८४] ही ती कथा आसा. श्री. केणी हाणीं आपल्या 'व्हंकल पावणी' ह्या कथा-झेल्यांत तिचो आसराव केला. श्री. चंद्रकांत केणी हांची कथा अदिक प्रगल्भ जाल्या, हाचें प्रत्यंतर दिवपी असो हो कथां झेलो आसा. श्री. दामोदर मावजो हांची कथाय आतां अदिक विकसित

जाल्या, हाचें प्रत्यंतर हाडून दिवपी तांच्यो कांय कथा ह्या पांच वर्सांत वाचपाक मेळ्ळ्यो. कोंकणी कथेक एका वेगळ्या दिशेन व्हरपाचो प्रयत्न श्री. दामोदर मावजो हांच्या 'विशुनी' ह्या कथेंत दिस्टी पड्टा. कोंकणी कथा विज्ञान–कथेच्या मळार पावल मारता, तेंय समर्थपणान मारता, हाचें प्रत्यंतर दिवपी ही कथा वाचप्यांचें लक्ष ओडन घेवपी अशीच आसा. हाचें कारण, ही कथा फकत तंत्रज्ञानाच्यो बारीकसाणीच सांगना वो विज्ञान नी तंत्रज्ञान हाणीं उकतें केल्लें नवें जगच फकत आमकां दाखयना, तर 'विशुनो' ह्या काल्पनिक ग्रहाचें प्रतिक घेवन पृथ्वीवयल्या आधुनिक मनीस–समाजाच्या भौतिकवादी वृत्तीचेर ही कथा प्रत्ययकारी रितीन भाश्य करता. श्री. दामोदर मावजो हे दीर्घ–कथेच्या मळाचेरय पावलां मारूंक लागल्यात, हें दाखोवन दिवपी तांची 'शान्त, शान्त, शान्त' ही कथा तांच्या कथा—साहित्याक Philosophical touch दिवपी अशी आसा. आयुश्यभर बोवाळाची जीण जगिल्लो शारांतलो एक मनीस निवृत्त जातकेर शांततायेच्या सोदांत भायर सरता. अशा ह्या मनश्याच्या प्रवासाची ही काणी आसा. शांततायेच्या सोदाखातीर सगळे वाठार मातयतकेर देकून ह्या मनश्याच्या हाताक शांतताय लागचना. शांतताय मेळिल्यावरी ताका दिसता, पुण ह्या शांततायेचे घण ताच्या कानार आदळटात. आनी मागीर घुट उकतो जाता, तो सोदतालो ती शांतताय मासणाची आसता. अशी ही वाचप्यांचें मन ओडन घेवपी कथा लेखकान खूब कलात्मकतेन बरयल्या. श्री. दामोदर मावजो हांच्या कथेन राजनीतीच्या मळावयल्या अणभव विश्वांतय प्रवेश केला, हें तांच्या 'कर्मफुटो' ह्या कथेन दाखोवन दिलां.

मनश्यां-मनश्यांमदले संबंद रंगवपांत, तांच्या भितल्लो संघर्श चितरावपांतय कोंकणी कथेन मुखावयलें पावल माल्लां, हें कोंकणीतल्या प्रस्थापित लेखकांच्या साहित्यावयल्यान दिसून येता. श्री. पुंडलिक नायक हांची 'दायज' ही दीर्घकथा हें दाखोवन दिता. 'कुळागर' (दिवाळी अंक ८४) हे नेमाळ्यांत आयिल्ली ही कथा आसा एका कुटुंबाची. ही दीर्घकथा पुस्तकरुपानय प्रसिद्ध जाल्या. मात् ह्या

पुस्तकांत तिचो उल्लेख नवलिका असो केल्लो आसा. लेखकाच्या ह्या साहित्य-कृतीक कसलेंय नांव दिलें, तरी एक गजाल खरी कि, एका कुटुंबांतल्या आडांग्या भावाच्या कनवांक लागून तानंतल्या वेगळ्या-वेगळ्या मनश्यांभितल्ल्या संबंदांक मानसिक संघर्शाचें रुप कशें येता, हाचें प्रत्ययकारी चित्रण ह्या कथेंत जालां. विद्यानंद, ताची बायल आनी विद्यानंदाचो भाव रणजीत हांच्या भोंवतणी ह्या कथेचें सूत्र आसा. श्री. पुंडलिक नायक हांच्या 'भोंवर' ह्या कथेंत (सौगडी सप्टेंबर ८३) शिर्विसेच्यातीर घरांतल्यान भायर सरिल्ल्या एका तरनाट्याचें भाव-विश्व चितरायलां. श्री. पुंडलिक नायक हांची कथा अदिक प्रगल्भ जाल्या, हें वयल्यो ह्यो कथा आनी 'बळी' [कुळागर दिवाळी ८३] ही कथा दाखोवन दितात. श्री. पुन्डलिक नायक हांची 'जैत' [कुळागर, दिवाळी८२] ही दीर्घकथाय लेखकाच्या कथा-बरपांतल्या प्रगल्भतेचें प्रत्यंतर दिता. भाटकार आनी कुळवाडी हांच्या भितल्ल्या संघर्शाची ही कथा आसा. श्री. पुंडलिक नायक हांच्या साहित्यांतलो वास्तववाद ह्या कथेंत ठसठशीतपणान पडबिंबित जाल्लो दिसता.

सौ. शीला कोळंबकार हांच्यो ह्या काळांतल्यो म्हळ्यार फाटल्या पांच वर्सांतल्यो कथा वाचतगेर ह्या लेखिकेच्या कथेक अणभव-उक्तावणेच्या दृश्टीन एक नवो जोश आयला, ही गजाल स्पश्ट जाता. कुटुंबांतल्या मनश्यां-मनश्यांभितल्ले भावसंबंद चितरावप, हें तांच्या कथेचें म्हत्वाचें वैशिश्ट्य. भुरग्यांची भाव-जीण, हो तांच्या कथांचो आवडीचो विशय. हे वावर्तीत, तांची कथा आतां अदिक प्रगल्भ जाल्या, हें दाखोवपी दोन कथा वाचपाक मेळ्ळ्यो. 'काणी एका सुकाराची' (कुळागर, दिवाळी ८३) आनी 'कंवळें मन' (कोंकणी; वर्सुकी अंक ८२). हातूंभितल्ल्या 'कंवळें मन' ह्या कथेंत भुरग्याचें भावार्थी मन खूब नाजुकपणान चितरायिल्लें आसा. भुरग्यांचें व्यक्ती-चित्रण ह्या दोनूय कथांत ठसठशीतपणान जालां. कथेच्या प्रवाहांतल्यान पात्रांचें सुरबूस व्यक्ति-—चित्रण करपाची लेखिकेची किशालकाय अशीच दिश्टी पडटा 'एक मांय एक सून' (कुळा-

गग, डिसेंबर ८६ ) ह्या कथेंत. ह्या कथेनली मांयची व्यक्ती–रेखा वाचप्यांच्या तकलेंतल्यान केन्नाच वचची ना, इतली ती उठावदार जाल्या. दादलेंननीत फिनलोय भावनाशील वृत्तीचो आसलो, जाल्यारुय बायलेकडेन पळोवपाची ताची दृश्टी एका नराचीच आसता, हो विशय घेवन सौ. शीला कोळंबकार हाणी ' सपन भंग ' [ जाग, दिवाळी ८३ ] ही कथा उबी केल्या. ह्या कथेंतलें सुमनाचें व्यक्तीचित्रणय वाचप्यांचें लक्ष ओढून घेता. सौ. शीला कोळंबकार हांच्या लिखणेंतल्यान भायर पडिल्ल्यो भोवतेक सगल्यो कथा आकर्शक आनी उत्कंठापूर्ण कथानकांनी भल्ल्यात. पुण, तांच्यो कथा वाचतगेर, कथानकापरस ताणीं उब्यो केल्ल्यो व्यक्तिरेखोच वाचप्यांच्या स्मरणांत उरतात. ' रोशन ' [ जाग, दिवाळी ८२ ] ह्या कथेंतलें दादल्याक दवरपी रोशन हो अशीच एक सदांच स्मरणात उरतली अशी व्यक्तीरेखा आसा. सौ. शीला कोळंबकार हांच्या फाटल्या पांच वर्सातल्या कथांत तांच्या लिखणेंचो एक म्हत्वाचो गुण अदिक प्रकर्शान प्रतित जाल्लो दिसता. कथानकांत मिश्कील विनोदाचे रंग भरपाचो हो गुण ' एक अंतेर, पादिगाराचेर ' [कुळागर, दिवाळी ८४], ' कागी एका मुकाराची, ' ' न्हय न्हय न्हयकार ' (चित्रंगी, दिवाळी ८६) आनी हेर कांय कथांनी ठळकपणान दिश्टी पडटा. आधुनिक समाजांत चलो आनी चली हांच्या संबंदांचो संदर्भ कसो बदल्ला, हाची कल्पना दिवपी तांची ' सीमा ' ही कथा (जाग दिवाळी ८६) वाचप्यांक एका वेगळ्याच अनभव विश्वांत व्हरता. समाजांतलीं नैतिक मुल्यां बदलतात, हें ' सीमा ' ह्या कथेंतल्यान लेखिकेन खूब कुशलतायेन मांडलां.

सौ. जयमाला दणायत ह्यांच्यो ह्या पांच वर्सातल्यो कथा वाचतगेर एक गजाल ध्यानांत येता कि, तांच्या कथांचे विशय चडशे कुटुंबांतल्या मनशांभितल्ल्या भाव–संबंदांक मर्यादित आसले आनी अणभव—विश्वांतलीं नवीं मळां माडोवपाचो प्रयत्न तांच्या कथांत चडसो दिसना जाल्लो, जाल्यारुय कथानक सगल्या आंगांनीं फुलोवपाचें तांचें कसब तांच्या कथांत दिश्टी पडटा. ' पार ' [चित्रंगी, दिवाळी ८६ ] ही भाऊभट ह्या किर्तनकाराची भाव–जीण चितरावपी

कथा हाची एक बरी देख आसा. तांच्या निवेदन–शैलींत एक तरेचो खेळकरपणा आसा हें 'निकनेम' (कुळागर, दिवाळी ८३), 'सांगशी पुण सांगूं नज!' (कोंकणी, वर्सुकी अंक ८३) आनी 'फां ...फां ...' ह्यो कथा दाखयतात.

श्री. गजानन जोग हे आतां उणे बरयतात पुण तांची कथा अदिक प्रगल्भ जाल्या, हें 'व्हॅरा' (कोंकणी वर्सुकी अंक ८५) आनी 'रागणें' ह्यो कथा दाखयतात. 'व्हॅरा' ह्या कथेंतलें व्हॅराचें व्यक्ती-रेखाटन लेखकान मोजक्याच उतरांनीं खूप कलात्मकतेन केलां.

ह्या पांच वर्सांत जे कथां–झेले उजवाडाक आयल्यात, तांची वळेरी हांवें ह्या लेखांत दिल्ली आसा. हातूंतल्या कांय कथां–झेल्यांत पांच वर्सांपयलींच्या कथांचो आस्वाद जाला. लेरीज, प्रस्थापित कथा–लेखकांच्या ह्या काळांतल्या कथां–झेल्यांतल्यो बऱ्योचश्यो कथा नव्यो आसल्यो, जाल्यारय त्यो कथा-लेखकांचीं आदलींच गुण–वैशिश्ट्यां दाखयतात. (ह्या काळांत जांचे कथां–झेले उजवाडाक आयल्यात, त्या प्रस्थापित कथाकारांच्या कथा–साहित्याचीं गुण-वैशिश्ट्यां हांवें, मुक्ती–उप्रांतच्या वीस वर्सांतल्या कथेचो आढावो घेतना स्पश्ट केल्यांत.) म्हूणून, प्रस्थापित कथाकारांनी ह्या पांच वर्सांत उजवाडाक हाडिल्ल्या कथां–झेल्यांच्या गुणवैशिश्ट्यांचो हांवें हांगा आढावो घेवंक ना. हेर कथांझेल्यांभितल्लो वाचप्यांचें मन ओडून घेवपी असो कथांझेलो आसा, सौ. हेमा नायक हांचो 'पसय'. ह्या कथां–झेल्यांत दादल्यांचो अत्याचार आनी अन्याय हांकां बळी पडिल्ल्या बायलांच्यो वेगळ्यो—वेगळ्यो तरा दिश्टी पडटात. बायलांच्या जिणें-तलीं दुख्खां लेखिकेन वास्तववादी नदरेन चितरायल्यांत. दादलो हो वासनेन भरिल्लो आनी सुवार्थी आशिल्ल्यान बायलांक सुखाची जीण जगप कठिण जाता, समाजाकडच्यान तांची उपेक्षा जाता, अशें चित्र तांच्यो कथा वाचतगेर वाचप्यांच्या दोळ्यांमुखार उबें जाता. सौ. हेमा नायक हांच्या कथांतली बायल, ही दादल्यांचे अत्याचार-अन्याय मोन्यानी सहन करपाइतली भिजूड न्हय. वेळ येता तेन्ना ती दादल्यांक आव्हान दिता, अन्यायाआड बंड करता. 'पोरसूं परतून फुलता',

'आवयपण-एक सपन ' इत्यादि कथांत लेखिकेन बायलेच्या मनांतले भाव खूब उत्कटतायेन चितरायल्यात. तांच्या कथांतलीं बायलांचीं हीं व्यक्ती-चित्रणां तांच्या सादया-सरळ निवेदन-शैलीक लागून उठाव-दार जाल्यांत. लेखिकेची बायलांच्या प्रश्नांविशींची कळकळ आनी पुरोगामी वृत्ती ह्या कथांनच्यान पडबिंबित जाता.

श्री. नारायण बोरकार हांच्या 'तुज्या मोगाखातीर ' ह्या कथां-झेल्यांतल्यो कथा म्हळ्यार कोंकणी कथेचें एक वेगळेंच रूप. तांच्या कथांचे विशय जशे सादे, तशीच निवेदनाची भाशाय सादी-सरळ. एकाद्री घटना वो प्रसंग घेवन तो मोजक्याच उतरांनी ते चित-रायतात. तांकां कांय व्यक्ती-चित्रणां बरीं जमल्यांत. श्री. जे. एल. गॉयस हांचो ' कथा दोगां मोनजारांचो' हो कथां-झेलोय सादया सरळ भाशेक लागून आनी लेखकाच्या भावनाशील निवेदन – शैलीक लागून वाचनीय जाला. कथा फुलोवपाचें तंत्र जाका बरें जमलां असो कोंक-णीतलो एक कथाकार म्हळ्यार श्री. अशोक भोंसलो. कांय तेंप ह्या लेखकान सातत्यान कथा बरयल्यो. फाटल्या पांच वर्सांतली तांची कथा वाचतगेर एक गजाल स्पश्ट जाता कि, प्रसंग उबे करून पात्रांच्या मनांतले उमाळे चितरावपाची कुशळताय तांकां बरी लाबल्या. ' फुलनां सपनां ' (कुळागर, सप्टेंबर ८३ ) ह्या कथेंत तांची ही कुश-ळताय ठळकपणान दिश्टी पडटा. कोंकणींतल्या प्रस्थापित कथा-लेखकांचें ह्या पांच वर्सांतलें साहित्य एक गजाल सामकी घगघणीत उकली करता, ती म्हळ्यार कांय कथा— लेखक अणभव-विश्वाचीं नवीं मळां माडोवपाचो येत्न करतात, हें खरें आसलें, जाल्यारुय प्रस्थापितांच्या एकंदर कथा साहित्याचो विचार केल्यार अशें दिसता कि कोंकणी कथा अणभव-विश्वाच्या दृश्टीन पयलींच्याच विशिश्ट अश्या वर्तुळांत घुंवत आसा. श्री. महाबळेश्वर सैल हांचो आडवाद केल्यार आनी कांय कथा लेखकांचे तुरळक प्रयत्न सोडल्यार भोवतेक कथाकार विशयांच्या दृश्टीन फाटलीच परंपरा चलयतात, अशें म्हूंणल्यार जाता. आमच्या कथाकारांचें अणभव-विश्व मर्यादित आसा, हें ताचें कारण.

आयच्या कोंकणी कथेचो विचार करतना एका कथा-लेखकाचो

विचार केल्याबगर मुखार वचूंच नजो. श्री. गोकुळदास प्रभु हांची कथा विशयाची जाण बऱ्यांतली. वातावरण निर्मिती करून आनी प्रसंग उबे करून कथेक आशय दिवपाची तांची तांक सामान्याभायली. तांची कथा आमकां कोचिनच्या वातावरणांत व्हरता. 'एकलेपणाची सांज', 'तो पिसो', 'वळव', 'आराटट्' इत्यादि कथा तांकां बऱ्यो जमल्यात. 'आराटट्' ही कोचिनांतल्या न्हंठ गोंयकारांच्या जात्रेचे फाटभूंयेचेर जातीभेद हो विशय घेवन रंगयल्ली कथा श्री. गोकुळदास प्रभु हांच्या भितल्लो एक प्रतिभावान कथाकार दाखयता.

दुर्बल आनी पिडेस्त लोकांचीं दुख्खां खुप सहानुभूतीन आनी कलात्मकरितीन मांडपी कथाकार कोंकणी कथेचे मळार उणे नात. पुण, दलित समाजांतल्या पिडेस्तांचीं दुख्खां फावो ते प्रमाणांत कोंकणी कथेंत चितरायिल्लीं दिसनात. अशें जें चित्रण थोड्या-भोव प्रमाणांत जालां, तें दलितांभायल्या समाजांतल्या लेखकांनी केलां. श्री. गुरूदास परवार ह्या नवोदित लेखकान बरयिल्ली 'सब्दुलेकण' (कोंकण टायम्स, दिवाळी १९८४) ही कथा हेवाबर्तीत कोंकणी कथेचें नवें रूप दाखयता. दलित समाजांतल्याच लेखकान आपल्या समाजांतल्या पिडेस्त लोकांचीं दुख्खां मांडपाचो कोंकणी कथा साहित्यांतलो हो पयलोच प्रयत्न आसा अशें म्हाका दिसता. श्री. गुरूदास परवार हाणीं दलित समाजांतल्या एका भुरग्याची भावजीण इतल्या नाजुकपणान चितरायल्या कि, कथेंतलें हें चित्रण वाचप्यांच्या काळजाक स्पर्श केल्लेबगर रावना. दलित समाजांतल्या दुख्खांचो अणभव आशिल्लो असो दलित समाजांतलोच लेखक (ताका साहित्यिक गुण आसल्यार) दलितांच्यो व्यथा रसरशीतपणान मांडू शकता, ही गजाल 'सब्दुलेकण' ह्या कथेन स्पश्ट केल्या. कलात्मकतेच्या कसाक लायल्यार ही कथा तितली वयल्या पांवड्याची दिसना. पुण तातंतलो अणभव हो अस्सल, हातूंत दुभाव दिसना. श्री. गुरूदास परवार हाणीं ह्या कथेउप्रांत कथा बरोवपाचें सोडलां, अशें दिसता.

कोंकणी कथा-साहित्याच्या मळार जे नवोदित दिसतात तातूं-तल्या कथाकारांमदीं कोंकणी कथेक मुखावयली वाट दाखोवपाची

आनी नवें रूप दिवपाची जांकां तांक आसा, ताणीं ह्या पांच वर्सांत कोंकणी कथेक घटसाण हाडपाच्या दृश्टीन किते वावर केला, हाचेर तपशीलान विचार करप हें आयची कथा कशी आसा हें पळो-वपाचे दृश्टीन खूप म्हत्वाचें आसा. कोंकणी कथा-साहित्याच्या मळा-वयली उत्साहदिणी अशी गजाल म्हळयार फाटल्या पांच वर्सांत नवें-नवें कथाकार नेमाळ्यांनी दिसूंक लागल्यात. कथाकारांभितर बायलांची संख्या उणी ना. ह्या लेखांत वयर हांवें नवोदित कथाकारांचीं नांवां दिल्यांत. जांच्याविशीं खूप अपेक्षा बाळगूं येनात, अश्या नवोदित कथा-लेखकांचोय हांवें वयर उल्लेख केला. हे वळेरेन जांचो हांवें आस्वाव करुना ते अपेक्षा बाळगपाचे तांकीचे न्हंय असो मात हाचो अर्थ न्हय. हांवें जांच्या नांवांचो उल्लेख करुना, तेय प्रयत्न केल्यार फुडारांत बरे कथाकार जावपाची शक्यता आसा. कथा—बरपांतलें सातत्य आनी कथा-तंत्राची जाण ह्यो दोनूय गजाली जांच्या कथा-साहित्यांत तुल्नात्मक दृश्टीन अर्दीक प्रमाणांत दिसतात, अशे नवोदित कथाकार आसात, सौ. शांता कंटक खांडेपारकार, श्री. विठ्ठल आवदियकार, श्री. वसंत भगवंत सावंत, श्री. शशांक सीताराम शिरोडकार, कु. जयंती नामदेव नायक आनी श्री. वामन टाकेकार.

नवोदितांमदल्या कांय बरोवप्यांच्यो कथा नेमाळयांनी उण्या प्रमा-णांत दिसतात. पुण, अश्या कांय कथाकारांच्यो कथा वाचतगेर तांच्या कथेच्या मळावयल्या तांकीविशीं बऱ्यो अपेक्षा बाळगूं येनात. श्री. जे. एल. गॉयस, श्री. शशिकांत पुनाजी इत्यादि कांय कथाकारांचो अश्या कथा-लेखकांभितर आस्वाव जाता.

कांय नवोदितांचो आडवाद केल्यार, कोंकणीतल्या नवोदित कथाकारांचें एक म्हत्वाचें वैशिश्ट्य नदरेंत भरता, तें म्हळयार ह्या लेखकांनीं कथेचें तंत्र बरे तरेन समजून घेवपाचो प्रयत्न चलयला. मात, तें तांकां आजून सारकें गमूंक ना. मोजकींच पात्रां आनी मोजकेच प्रसंग घेवन मोजक्याच उतरांनी कथानक फुलोवपाचें तंत्र नवोदि-तांच्या कथांत प्रतित जाता. निवेदन आनी संवादांचो बरे तरेन

उपेग करप आनी कथानकाक वो सभाव रेखाटनाक फावो अशें वातावरण निर्माण करप, हेबाबतींत आमचे कांय नवोदित कथाकार कुशल आसात, ही गजाल स्पश्ट करपी खुबश्यो कथा फाटल्या पांच वर्सांत उजवाडाक आयल्यात. आकर्शक निवेदनाक लागून वाचप्यांची नदर ओडून घेतिल्लयो अश्यो नवोदितांच्यो कितल्योश्योच कथा ह्या काळांत वाचूंक मेळ्ळयो. अश्या कांय कथांचो हांगा उल्लेख करप योग्य थरतलें: 'मावशेलीं भुरगीं' (सौ. शांता कंटक खांडेपारकर, चित्रंगी, दिवाळी ८४), 'अशीच एक जीण,' (कु. जयंती नायक, कुळागर, जुलै ८५), 'अर्जुना तळप' [कु. जयंती नायक, कोंकणीचें कुळार, दिवाळी ८४], 'पिंपळा पेडार' [श्री. विठ्ठल आवर्दियकार, कुळागर, मार्च ८३], 'आवय' [श्री. विठ्ठल आवर्दियकार, कुळागर, डिसेंबर ८२], 'माती' (श्री. शशांक शिरोडकार), 'एक आशिल्लो मारुती, एक आशिल्लो सदानंद' (श्री. शशांक शिरोडकार, कुळागर, दिवाळी ८५), 'भिरांकुल' (श्री. वसंत भगवंत सावंत, कुळागर ८५), 'खामसुत्री' (श्री. वसंत भगवंत सावंत, कुळागर दिवाळी ८२) 'स्त्राप' [श्री. जे. एल. गॉयस, कोंकणी, वर्सुकी अंक ८३] 'संघर्श' [श्री. जे एल. गॉयस] 'आडो खाता पोरसूं' [श्री. वामन टाकेकार, कुळागर, दिवाळी ८५], 'करूंक गेलों एक जालें ... [श्री. शशिकांत पुनाजी, कुळागर, डिसेंबर ८६], 'मायेमोग' [श्री. संतोष महाले, कोंकणी, वर्सुकी ८५], 'तो आमचो भावबंद' (श्री. रमेश लाड, कुळागर, सप्टेंबर ८२), 'पार्टनर' [सौ. हर्षल दळवी], 'तो दुसरो' [श्री. विजयकुमार कामत, कुळागर, फेब्रुवारी ८३] आनी 'देवमनीस' (श्री. दिनेश भरणो, कुळागर, एप्रिल ८६). आकर्शक निवेदनाबरोबर प्रसंग-निर्मितल्यान कथा फुलोवपाची फिशालकायय वयल्या कांय कथांत दिश्टी पडटा.

कोंकणींतल्या कांय नवोदित कथा-लेखकांक कथेंत उत्कंठा निर्माण करप आनी वाचप्यांच्या मनाचेर परिणाम सादप हे बाबतींतलें कसब्रय बरें जमलां. कथानकाक फावो अशें वातावरण निर्माण करपांत यशस्वी

जाल्ल्या कांय कथांचीं नांवां हांगा देवीक दितां: ‘ गाराणें ’ [ कु. जयंती नायक, कुळागर, दिवाळी ८४ ], ‘ रक्तवंबाळ पावलां ’ [ कु. जयंती नायक, कुळागर दिवाळी ८६ ] ‘ एक आशिल्लो मारुती, एक आशिल्लो सदानंद [ श्री. शशांक शिरोडकार ], ‘ कागाळी ’ [ श्री. विठ्ठल आर्वादियकार, कुळागर, ऑगस्ट ८६] आनी ‘ नागपंचम ’ [ श्री. वसंत भगवंत सावंत, कुळागर दिवाळी ८३ ]. कथानकाच्या प्रवाहांतल्यान सभाव रेखाटन करपाच्या बाबतींतय नवोदितांची लिखणी फाटीं ना, हें दाखोवपी कथा फाटल्या पांच वर्सांत वाचूंक मेळ्ळ्यो. मात हें तंत्र आमच्या नवोदित कथाकारांक सारकें जमूंक ना, हेंय तितलेंच खरें. कथानकाच्या प्रवाहांतल्यान व्यक्तीचित्रण घडोवपांत यशस्वी जाल्ल्या कांय कथांची नांवां देवीक हांगा दितां :— ‘ फातरा काळीज ’ ( सौ. शांता खांडेपारकार; एका नर्साचें व्यक्तीचित्रण ), ‘ आवय ’ ( श्री. विठ्ठल आर्वादियकार, पुरसो ह्या एका आल्मपंड्डयार मनश्याचें व्यक्तीचित्रण ), ‘ गाराणें ’ [ कु. जयंती नायक; जाची बायल पळून वता, त्या उपासो ह्या मनश्याचें व्यक्तीचित्रण ] ‘ तेरेझीन माय ’ ( श्री. शशांक शिरोडकार, तेरेझीन मांयचें व्यक्तीचित्रण), ‘ बाप्पा ’ [ श्री. शशांक शिरोडकार; एका व्यभिचारिणीच्या पुताचें व्यक्तीचित्रण ], ‘ मोनो मोग ’ [ श्री. दिनेश भरणे; धाकुरूपणांतली आवय शोधतू हाचें व्यक्तीचित्रण).

आमच्या कांय नवोदित लेखकांक पात्रांच्या मनांतले उमाळे आनी विचार बारीकसाणीन चितरावपाची कुशल्ताय बरी जमल्या. श्री. शशांक शिरोडकार (देवीक, ‘ बाप्पा,’ कुळागर, मार्च ८३), सौ. शांता खांडेपारकार [देवीक, ‘ भीष्माची कागी, ’ कुळागर, एप्रिल ८२], कु. जयंती नायक [देवीक, ‘बोकें ’, कोंकणी, दिवाळी ८५] इत्यादि कांय नवोदितांक पात्रांचीं मन—चित्रां बरीं जमल्यांत. पुण, अशीं मन—चित्रां काडपाची पिशाल्काय जाणीं सारकी आत्मसात केल्या, असो कथा—लेखक आसा श्री. गोकुळदास प्रभु. ‘ एकलेपणाची सांज ’ ही उत्कृश्ट कथा बरोवरी ह्या लेखकान ‘ घाय ’

[ चित्रंगी, दिवाळी ८६ ] ह्या कथेंत एका बलात्कारीत चलयेच्या मनातले विचार आनी उमाळे खूप उत्कटतायेन चितरायल्यात.

अशे तरेन कथेचें तंत्र समजून घेवन कथेची मांडणी बरेतरेन करपाची कुशलताय आमच्या नवोदित लेखकांच्या आंगांत ठळकपणान दिश्टी पडटा. पुण, इतले सगळे गुण आसूनय, नवे—नवे विशय हाताळून कथेचें अणभव—विश्व विस्तृत करपाच्याबाबतींत नवोदित कथाकार खूप फाटीं आसात, हें रोकडेंच ध्यानात येता. कांय कथांचो आडवाद केल्यार, विशयाच्या आनी अणभव—विश्वाच्या दृश्टीन नवोदितांची कथा फाटलीच परंपरा चलयता, अशें दिसता. चडश्या लेखकांचें अणभव—विश्व मर्यादित आशिल्ल्यान तांचे कथा–विशय तेच तेच चक्रांत घुंविल्ले दिसतात. मोग, घोव—बायल हांचे प्रश्न, कुटुंबांतले संघर्श, प्रेमभंग, सोयरिकेचो प्रश्न, घरांतलें दळदिरेपण, गांवातल्या मनश्यांमदले संघर्श इत्यादि विशयांच्या आवर्तनांत नवोदितांची कथा घुंवतना दिसता. खरें म्हळ्यार आयच्या समाजांत कथा-विशय जावपासारके कितलेशेच विशय आसात. अश्या विशयांक हात घालपाची तांक नवोदितांभितर दिसना. अशें आसलें जाल्यारुय नवोदितांच्यो काय कथा नवीं मळां मांडयतना दिसतात. श्री. शशांक शिरोडकार हांच्या 'ल्यास्त' [ कुळागर, दिवाळी ८६ ] ह्या कथेंत कोंकणी—मराठी वाद, हो विशय आनी 'जोर—जुल्मके टक्कर पे संघर्ष, हमारा नारा है' ( कुळागर, जुलै ८२ ) ह्या कथेंत रस्ता–नाट्य सादर करपी विद्यार्थ्यांचो डोंबाऱ्यांवयलो अन्याय, हो विशय हाताळिल्लो आसा. श्री. दत्ताराम बांबोळकार हांच्या एका कथेंत ( शेणिल्लो गांव, कुळागर, मार्च ८३ ) गांव–सुदारणेचो मोह दाखोवन राजकी फुडारी भुंयपुतांक रस्त्यार घडयतात, आनी भायले लोक गांव काबीज करतात, हें कुशलतायेन चितरायलां. अश्यो कांय कथा वाचप्यांक नव्या अणभव–विश्वांत व्हरतना दिसतात. अणभव–विश्वाच्या खाशेलेपणाखातीर श्री. तुकाराम शेट हांचो हांगा खास उल्लेख करूंक जाय. श्री. तुकाराम शेट हे खूप वर्सांसावन

कथा बरयनात. म्हणटगेर तांचो आस्पात्र नवोदितांत जायना. मात हालीं तांची कथा क्वचितच दिसता. ह्या पांच वर्साच्या काळांत ताणीं बरयिल्ल्यो कथा संख्येन साप उण्यो, पुण त्यो वाचप्यांक चाकोरी-भायल्या अणभव-विश्वांत व्हरतात. 'टुअरीस्ट' ह्या कथेंन ताणीं पर्यटन उद्योगान हाडिल्ल्या एका नव्या जिणेचेर उजवाड घातला, तर 'वस्ती' ह्या कथेंत (कोंकणी, दिवाळी ८२) गांवाचें शार जाता, तसो लोकावळींचेर काळ येना हें प्रत्ययकारीरितीन मांडलां. 'उक्तावण' (कुळागर, दिवाळी ८२) ह्या कथेंत विद्यार्थ्यांच्या आंदोलनाचो विशय हाताळिल्लो आसा.

नवोदित कथाकारांनी, सर्वसादारणपणान, चाकोरींतलेच विशय हाताळ्ळयात, हें खरें आसलें, जाल्यारूय कांय कथांत अणभव-विश्व चाकोरींतलें, पुण मनश्या-मनश्यांभितल्ल्या संबंदांचां नवीं तासां चितरायिल्लीं दिश्टी पडटात.

नवोदित कथा-लेखकांच्या साहित्याचें आनी एक वैशिश्ट्य नदरेंत भरता, तें म्हळ्यार तांच्यांतल्या बऱ्याच जाणांनीं गांव-जीणेक दिल्लें म्हत्त्व. गांव-जिणेंतल्या मनश्यांचे प्रश्न, तांचीं सुखदुखां चितरावपी श्री. पुंडलिक नायक, श्री. एन. शिवदास इत्यादि लेखकांची परंपरा फुडें चलोवपी कथाकार नवोदितांमदीं दिश्टी पडटात. कु. जयंती नायक, श्री. शशिकांत पुनाजी, श्री. विठ्ठल आवर्दियकार, श्री. वसंत भगवंत सावंत इत्यादी लेखकांच्या कथांत गांव—जीणेचें दर्शन घडटा. कु. जयंती नायक हाणीं गांव-वाठारांतलीं कश्टकरी मनश्यां, तांचीं सुख-दुख्खां हांचें चित्रण कलात्मकरितीन केलां आनी हें करता आसतना गांव-वाठारांतलें वातावरण थळावी भाशा वापरून रसरशीतपणान चितरायलां. श्री. शशिकांत पुनाजी हाणीं पेडणें म्हालांतलो गांव-वाठार कोंकणी कथेंत हाडला. कु. जयंती नायक हांच्यो 'अशीय एक जीण' 'गारानें,' 'वोकें,' 'अर्जुना तळर' ह्यो कथा, श्री. विठ्ठल आवर्दियकार हांची 'आश्रय' ही रांड, काकोळ नी मानाचे कोंब्रे खातरी पुरसो ह्या आल्मोडुयार मनश्याचें सनावरेवाटन करपी कथा,

श्री. वसंत भगवंत सावंत हांची 'ग्रामसुत्री' ही कथा, श्री. शशि-कांत पुनाजी हांच्यो 'सतेसांव,' 'कळंक गेलें एक जाले ...' ह्यो कथा गांव—जिणेंतलें वातावरण आनी विशय बरेंतरेन चितरावपांत यशस्वी जाल्यात.

नवोदित कथा—लेखकांचें कथा—साहित्य सारकें फुलतलें जाल्यार एका गजालीची सामको गरज आसा, ती म्हळ्यार ह्या नवोदितांनी जिणेच्या नव्या-नव्या मळांचेर आपली नदर बारीकसाणीन भोंवडावन आपलें अणभवविश्व चडांतचड विस्तृत आनी समृद्ध करप. कथेच्या विशयाक फावो असो कथेचो घाट निर्माण करपाचें तंत्रय तांणीं समजून घेवप म्हत्त्वाचें. हेवटेनीं नवोदितांक प्रस्थापित लेखकांकडल्यान योग्य मार्गदर्शन जावंक जाय.

मुक्तीउप्रांतच्या काळांत कोंकणी कथेचो प्रवास कसो जालो, ह्या प्रवासांत कोंकणी कथा कसल्या कसल्या गुणवैशिश्ट्यांनी नटली आनी आयज कोंकणी कथेचें रूप आनी पांवडो कसलो आसा, हें पळोवपाचो प्रयत्न ह्या लेखांत जाला. मुक्तीउप्रांतच्या कोंकणी कथेचो हो प्रवास पळयल्यार तीन गजाली सामक्यो नदरेंत भरतात. एक गजाल अशी कि, कोंकणी कथेचें अणभव-विश्व विस्तारलां. पूण, अणभव-विश्वांतलीं वेगळींवेगळीं मळां माडोवपाच्या बाबतींत कोंकणी कथा आजून फावो तितली समृद्ध जावंक ना. हाचें कारण, आमच्या कथालेखकांचें अणभव—विश्व आजूनय मर्यादितच आसा. दुसरी गजाल म्हळ्यार, अभिव्यक्तीच्या दृश्टीन कोंकणी कथा अदिकादिक सुंदर जाल्या. विशय चाकोरींतले आसूं वो नवे आसूं, कोंकणी कथाकार कथा फुलोवपाच्या बाबतींत हेर खंयच्याय भाशांतल्या कथाकारांपरस फाटीं नात. कोंकणी कथेचो हो प्रवास पळयतना जी तिसरी गजाल दृश्ट जाता, ती ही कि, कोंकणी कथेच्या मळार फाटल्या पांच वर्सांत (१९८२ ते मार्च १९८७ मेरेन) पयलीं इतलो जोश आनी उमेद दिसना. नवोदित कथाकारांचें कथा—साहित्य सर्वसादारणपणान चाकोरींच्याच अणभव—विश्वांत घुंवतलें दिसता. इतल्यो सगल्यो मर्यादा

आसूनय, कोंकणी कथेन फाटल्या पंचवीस वर्सांत जी प्रगती केल्या ती दोळेदिरावणी आसा. कोंकणी कथेचें अणभव-विश्व अदीक विस्तारल्यार कोंकणी कथा जगांतल्या श्रेश्ठ साहित्याकडेन सर्त करूंक पावतली हातूंत म्हाका इल्लोय दुभाव दिसना.

हरिश्चंद्र तुकाराम नागवेंकार.



जल्म : १० मार्च १९४१, मडगांव–गोंय. मुळावें शिकप मराठी आनी पोर्तुगेजींतल्यान. पोर्तुगेज साहित्य, युरोपियन भाशा, जगाचो इतिहास, इत्यादि विशय घेवन CURSO COMPLEMENTAR DE LETRAS ही पोर्तुगेज लिसेवची सातव्या वर्साची (सेतिमु आनु) परीक्षा पास. मुंबय विद्यापिठाची बी. ए. (अर्थशास्त्र आनी मानसशास्त्र) आनी एम. ए. (अर्थशास्त्र).

१९६३ ते १९६७ मेरेन 'राष्ट्रमतां'त आनी १९६९–७० ह्या वर्सा 'गोमंतक' दैनिकांत उपसंपादक. मालवणच्या सिंधुदुर्ग कॉलिजांत १९७० ते १९७४ मेरेन अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक. १९७४ सावन वास्कोच्या एम. इ. एस. कॉलिजांत अर्थशास्त्र–विभाग प्रमुख. मुंबय विद्यापीठाकडच्यान एम. ए. आनी एम. कॉम. ह्या पांवड्यार अर्थशास्त्र शिकोवपाक मान्यता. १९७९ ते १९८४ मेरेन स वर्सां मुंबय विद्यापीठाच्या गोंयातल्या पदव्युत्तर केंद्रांत व्हिजिटींग लेक्चरर. कोंकणी, मराठी, इंग्लेज आनी पोर्तुगेज ह्या भासांतल्यान बरप. नवें गोंय, कोंकणी, सोमार, जाग, कुळागर, कोंकण भारती, कोंकण टायम्स इत्यादि कोंकणी नेमाळ्यांनी आनी राष्ट्रमत, गोमंतक, अ व्हीद, वेस्ट कोस्ट टायम्स, सुनापरान्त ह्या दिसाळ्यांनी वैचारिक आनी हेर लेख प्रकाशित. महाराष्ट्र टायम्स, लोकसत्ता आनी इकॉनामिक टायम्स, हातूंतय लेख प्रसिद्ध. आकाशवाणी गोंय आनी मुंबय वयल्यान भाशणां आनी पुस्तकांचे समीक्षण.

'मोरपिसें' हें मराठी लेख–संग्रहाचें पुस्तक १९८३ त उजवाडाक आयलें. गोमंत विद्यानिकेतनच्या अखिल गोंयकार मराठी साहित्य सर्तींत ह्या पुस्तकाक पांचशें रुपयांची खास तखिप. विद्यापीठ तशेंच राष्ट्रीय पांवड्यावयल्या परिशदांत आनी परिसंवादांत वांटो घेतला. १९८५ हे वर्सा अमेरिकेक वचून थंयच्या कांय वेंचिक विद्यापीठांक आनी कॉलेजांक भेट दिली. गोंयांतल्या कांय सामाजिक संस्थांचे पदाधिकारी. 'गोमंत कालिका' ह्या मराठी म्हयनाळ्याच्या संस्थापकांतले एक आनी सहायक संपादक.